# जाग

वर्स ३७ : आंक ४ : फेब्रुवारी-मार्च, २०११



संस्थापक संपादपी



रवीन्द्र केळेकार

संस्थापक जाग प्रकाशन



सुमंत केळेकार

* संपादपी
माधवी सरदेसाय
(मोबायल: ९४२११५७००७)

* उजवाडावपी
डॉ. जयवंत भा. सरदेसाय

* छापपी
हिरू नारायण नायक
रुतू ऑफसेट प्रिन्टर्स,
वळवय, फोंडें-गोंय.



वर्सुकी पटी : रु. २००/-
विद्यार्थ्यां खातीर : रु. १५०/-
तीन वर्सांची पटी : रु. ५००/-
पटी मनी ऑर्डरीन वा बँकेच्या मडगांव फांट्याचेर काडिल्ल्या ड्राफ्टान धाडची. ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.



वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
२०१-बी, सालर्दल अपार्टमॅन्टस्
रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.



किरकोळ आंकार्चे मोल : रु. ३५/-



jaag04@yahoo.co.in


हया आंकांत :




नदर संपादप्याची..........................................०२


'एका काळार उपाय नाशिल्ल्यान माध्यमीक, उच्च माध्यमीक पांवड्याचेर तशी कॉलेजींतूय 'कोणेंय' कोंकणी शिकयल्या. पूण आयजूय... कोंकणी विशयांत उपचारीक शिक्षण घेतिल्ल्यांक कुशीक दवरून हेरांच्या हातांत कोंकणी शिक्षण वता हाचो अर्थ एके परीन कोंकणी विशयाची पदवीच आमचे शिक्षण वेवस्थेन redundant थारायल्या असो जालोना?...'




भीमसेनी यादींची जिवीतपटी: शकुंतला भरणे........ .........११


''...गंगुबाईची याद आयली म्हणटकच पंडीतजी घरांत पसून कोणाकूच सांगिनासतना पुण्या सावन सरळ हुबळी येताले. खासा आपूण गाडी चलोवन एकटेच येवप. ते हुबळी पावतकच मागीर गंगुबाई पंडींतजींच्या घरा फोन करून सांगताल्यो, भीमू म्हगेर पावला. चिंता करपाची गरज ना...''




म्हजो रवीन्द्र सांगातः दिलीप बोरकार.............. .........१५


''खूब वर्सां उपरांत पयर ७ मार्चाक मात हांव तागेर गेलों ना. तातोच आतां ना, मागीर वचप कित्याक? तरी एक मन सांगतालें, तातो थंय देहान, कुडीन नासत, पूण ताची सासाय, ताचें संचरण थंय आसा. थंयचे दरेके वस्तूंत तातो जें जें कितें उलयला तें रिकॉर्ड जावन आसा...''




आत्मतृप्तीचें दर्शन घडोवपी कविताः माधव बोरकार.........१७


''अश्यो कांय बऱ्यो कविता कडेक उरपाक कांय कारणां आसतात. एकाद्री कविता तरल संवेदना व्यक्त करपी आसल्यार ती सर्वसामान्य वाचप्यांचे नदरेंत वचना. कविता बोध दिवपी वा विचार सांगपी आसल्यार ती लोकां मदीं सहजपणान पावता. ताकाच लागून अणभवनिश्ठ कविते परस विचारनिश्ठ कवितेचें दालें जड जाल्लें दिश्टी पडटा....''




सरळ वाटेन शिरसी... आड वाटेन याणाः हर्षा शेटये..........३०


''दोन वर्सांनी जावपी जात्रे वेळार देवस्थानाचे वतीन बळी दिवपा खातीर खावोवन पियोवन एक रेडो मातयताले. आनी जात्रे वेळार सगळ्या लोकां मुखार ताका कापताले... पूण महात्मा गांधींचे अहिंसा शिकवणेन हें बदल्लें...''

*ते भायर*


पडसाद : म. सैल, वि. भट, म. पै धुंगट, ह. खांडेपारकार.....०९
आमी आशावादी जावया : कृपाली नायक....................१९
जायरातींत बायलेची प्रतिमा : वसीम खनगावी..................२१
भाशेचें वैश्वीक रूप : पुष्पा पै.................................२२
हुंवार (कथा): माया अनिल खरंगटे...........................२४
मुलाण्याचो बकसः (भारतीय कथा) व्यं. माडगूळकर, अणकारः सुलक्षा वळवयकार ..............................................३४
दिसपटी (चवदावी खिस्त): शांताराम आमोणकार ...............३६
कोडू कसाय गोड गुळी (आठवी खिस्त): मधुसुदन जोशी......३९
*ख्रिस्तपुराण* (फा. स्टीफन्स): अणकारः सुरेश आमोणकार....४५
कविताः म. कामत, बा. कानोळकार, प. कामत, न. बोडके ...........४८
कोंकणी संस्कृतायेचो एक अवेसर...: (साहित्य नियाळ): मनोहर पै धुंगट ..................................................५२



भायलें चित्र, पान १५: डॉ. सुबोध केरकार
हेर चित्रां:
पानां १९, ४८. अदिती नायक
पानां २१, ३० : मिलन खानोलकार
पान २४ : हर्षदा
पान ३४ : संजीव खांडेकर



## नदर संपादप्याची

# कोंकणी भाशेचें जैत... आनी जैताची हार...?

स-सात वर्सां आदली गजाल. खोल्लेचे 'सिंझँटा' कंपनीच्या तेन्नाच्या वेवस्थापकाची घरकान्न, डीना फेह, एक दीस म्हाका विद्यापीठांत मेळूंक आयली. पंचावन-साठ वर्सांची बायल-मनीस. म्हणूंक लागली, ''हांव हांगा लागींच दोना पावला रावतां... कोंकणी शिकतां... कोंकणीच्या व्याकरणा विशीं म्हज्यो कांय अडचणी आसात. त्यो सुटाव्यो करूंक तुजी इल्ली मदत मेळत?... चड वेळ घेवचिंना. सप्तकांतल्यान एक वर, केन्नाय दोन वरां मेळ्ळ्यार पुरो.''

विद्यापीठांत शिकोवपी एके प्राध्यापिकेचे वळखीन ती म्हजे म्हऱ्यांत पाविल्ली.

ना कशें म्हणटलें आशिल्लें?

इतले जाणटे पिरायेर कोंकणी शिकता. कित्याक शिकन दिसली काय तिका कोंकणी... आनी, कोणा कडल्यान, खंयच्या पुस्तकांच्या आधारान शिकली - जाणा जावन घेन दिसलें.

''देवनागरी येता काय रोमी लिपयेच्या आधारान शिकता?'' तिका विचारलें.

''देवनागरी शिकल्यां हांव, पूण हांगाय खंय खंय गोंदळटां...'' म्हणत तिणें बॅगांतल्यान कादेर्न भायर काडलो आनी म्हज्या हातांत दिलो. उकतो करून पळेल्यार मोतयां कशें अक्षर! सुरेशबाब बोरकारांलें *Let us Learn Konkani* य काडून दाखयलें. उपरांत सांगूंक लागली. ''म्हजे वळखीची एक चली इश्कोलांत कोंकणी शिकयता. गरज पडटा तेन्ना मदीं मदीं तिची मदत घेतां. पूण व्याकरणाच्यो अडचणी समजावन सांगतना तीच घुसपता...''

म्हळें, ''तुका जाय तेन्ना यो. दनपारच्या तिनां उपरांत म्हाका लॅक्चर आसना.''

''आनी, कोंकणी शिकची अशें तुका कित्याक दिसलें? साहित्या खातीर, कांय गोंयचेर सोद-वावर बी करपाचें मनांत आसा?'' विचारले बगर रावंक जालें ना.

''साहित्य, सोद-वावर बी तुमचे सारकेल्यांचें काम. हांव सादी घर सांबाळपी बायल-मनीस. चार-पांच वर्सांनी घोवाची बदली जाता. ताचे वांगडा हांवूय नव्या वाटारांत पावतां. आनी पावतां त्या वाटाराची भास हांव आवडीन शिकतां. थळाव्या लोकां कडेन तांचेच भाशेंत उलोवपाक म्हाका आवडटा. गोंयां येवचे पयलीं आमी चीनांत आशिल्लीं. तेन्ना हांव चिनीय शिकिल्लीं.''

''बरोवपाकूय? चिनी चित्रलिपयेंत शेंकड्यांनी कुरवो आसतात खंय न्हय...?''

''शेंकड्यांनी न्हय, हजारांनी, पूण तातुंतूय वेवस्था आसता. ना जाल्यार कोण शिकूंक पावचो नासलो चिनी...''

''तुजी आवय-भास खंयची?''

''स्विस-जर्मन. हांव स्वित्झर्लॅंडची. फ्रेंचूय म्हाका आवय-भास येवची तशी येता... सध्या म्हज्या आदाराक घरांत येता ती बायल-मनीस म्हजे कडेन मोडके तोडके इंग्लीशींत उलयता. तिचे कडेन कोंकणी उलोवंक म्हाका आवडटलें. आमचो ड्रायव्हरूय कोंकणी. बरोऽ भुरगो. हांचे खातीर हांव कोंकणी शिकतां अशें समज...''

डीना म्हाका खूब आवडली. दिसलें, हिचे कडल्यान म्हाकाय जायतें किर्ते शिकूंक मेळटलें. म्हळें, ''आयज तूं आयल्याच न्हय, आयज तुका देवनागरी लिपयेचे स्वनविज्ञानीक बसके विशीं सांगतां.''

स्वर/व्यंजन, तोंडये/नाकये, अल्पप्राण/म्हाप्राण, घोश/अघोश... सारकेल्या स्वनांच्या वेगळेपणांचेर, उच्चारणाची सुवात, उच्चारणाची तरा बी स्वनविज्ञानीक बारीकसाणींचेर उबी आशिल्ली देवनागरीची बसका तिका समजावन सांगली. ती खोशी जावन घरा गेली.

तीन-चार दिसांनी परती आयली. तेन्ना म्हणूंक लागली, ''हांव अल्पप्राण/म्हाप्राण आनी ट, ठ, ड, ढ, ण, ळ ह्या खोंपया नादांच्या उच्चारणांत आडखळटां. हातूंत म्हजी तयारी करून घेशीत?''

म्हळें, ''पयलीं हे फरक कुडीक - उच्चारणाच्या 'माक्ना'क - जाणवूंक जाय...'' तोंडा मुखार हात धरून क, च, ट, त, प, : ख, छ, ठ, थ, फ ; ग, ज, ड, द, ब : घ,झ, ढ, ध, भ म्हणूंक लावन अल्पप्राण/म्हाप्राणाच्या वेगळेपणाची तिका जाणविकाय करून दिली. खोंपये नाद कशे घडटात तेंय शिकयलें...

स्वनविज्ञानाच्या गिन्यानाचो वापर करूंक मेळ्ळो म्हूण त्या दिसा हांवूय खोशी, आनी स्वनांच्या वेगळेपणांचें आकलन जालें म्हूण डीनाय खोशी.

डीनाचें एक बरें आसलें - तिका आज कितें शिकोवचें ह्या प्रस्नाचो हुस्को ती म्हजेर केन्ना घाली नाशिल्ली. तीच कसलो तरी 'प्रस्न' घेवन येताली आनी ताचे भोंवतणीं त्या दिसाचें आमचें शिकप जातालें.

'कोंकणी साहित्य वाचपा खातीर हांव कोंकणी शिकना' - डीनान सुरवेकूच स्पश्ट केल्लें. पूण एक दीस तिचे मुखार हांवें अचळय मनोहररायांल्या *जायां-जुयां*चो पुडो सोडयलो. डीनाचे दोळे लिक्क पेटले. कांय 'जायो-जुयो' तिणें आपणाल्या कादेर्नांत बरोवन घेतल्यो.

एक दीस म्हणूंक लागली, ''अमक्याक तुमी कितें म्हणटात काय म्हूण म्हगेल्या ड्रायव्हराक विचारलें तेन्ना ताणें ही जाप दिली, आनी म्हाका आदार करूंक येवपी चलयेन अशी जाप दिली... कोंकणींत इतलें वेगळेपण आसा? तीं एकाच वाटारांत रावतात, पूण तांचो हेळो म्हाका खूब वेगळो दिसता...''

डीनाचो ड्रायव्हर हिंदू, तिगेर घरकाम करूंक येवपी चली क्रिस्तांव - म्हाका समजूंक वेळ लागलो ना. कोंकणीच्या वेगळ्या वेगळ्या बोलयां विशीं त्या दिसा तिका सांगलें.

इल्लें इल्लें करून हांव डीनाची वाट पळोवंक लागलें. 'आज

कसलो प्रस्न हाडटली काय...' मनांत उमळशीक घेवन.

कांय दिसांनी आमी थारायलें, दर खेपे कोंकणींतल्यान अर्द अर्द वर उलोवप. हीय थारावणी डीनाचीच आशिल्ली. ''नवे भार्शेत उलोवपाक हांव मातशी खांकुडटां...'' तिणेंच म्हळें एक दीस आनी म्हजे मुखार कोंकणींतल्यान उलोवपाचो प्रस्ताव दवरलो.

वर्स-देड वर्स आमचो क्लास चल्लो. डीना बरी आत्मविस्वासान कोंकणी उलोवंक लागिल्ली. एक दीस संदेशाक सांगून 'सुनापरान्त'खातीर डीनाची मुलाखत घेवंक लावप... एक दीस कोंकणी विभागांतूय तिचें उलोवप दवरप... मनांतल्या मनांत हांवूय कितें कितें थारायतालें.

पूण एक दीस डीना आयली आनी सांगूंक लागली, ''आनीक आनीक कोंकणी शिकप ना म्हूण हांवें थारायलां...''

म्हाका अजाप!

''कित्याक? कितें जालें?'' हांवें विचारलें.

''कोंकणी मनशां कडेन कोंकणींतल्यान उलोवंक मेळचें म्हूण हांव कोंकणी शिकतालीं. पूण तुमकांच हांव तुमचे कडेन तुमचे भाशेंतल्यान उलयल्ली नाका. म्हज्या ड्रायव्हरा कडेन हांव कोंकणींतल्यान उलयतां तेन्ना तो चुकऽ नासतना म्हाका इंग्लीशींतल्यान जाप दिता... घराय अशेंच जाता. घरकामाक येवपी चलयेक इंग्लीश सारकी येना, हांव जाणां. तरी ती म्हजे कडेन इंग्लीशींतल्यानूच उलयता. कोंकणींतल्यान केन्ना जाप दिवंक सोदिना... बाजारांतूय हांव धडपडत धडपडत कोंकणींतल्यान उलयतां. म्हाका कोंकणी उलोवंक मदत करचे बदला बाजारकार म्हजे कडेन इंग्लीशींतल्यान उलोवंक लागतात... तूंच सांग, हांवें कित्या खातीर आनी कोणा खातीर कोंकणी शिकप? कोंकणी मनशांकूच हांव कोंकणी उलयल्ली नाका. तुमकां सगळ्यांक इंग्लीश जाय... आतां हांवें थारायलां, हिंदी शिकप. कांय म्हयन्यां फाटीं आमी ताज महल पळोवंक गेल्लीं तेन्ना हांव हिंदीचीं पंदरा-वीस वाक्यां शिकिल्लीं. आग्र्याक हांव हिंदी उलयतालीं तेन्ना लोकूय म्हजे कडेन हिंदी उलयताले. गोंयची तराच वेगळी...'' डीनान सांगलें.

उपरांत ती केन्नाय म्हाका मेळूंक येताली तेन्ना हिन्दींतल्यो अडचणी वांगडा हाडटाली. इंग्लीशींतल्यान हिंदी शिकपाचें एक बरें पुस्तकूय तिणें सोदून काडिल्लें आनी कोंकणी शिकताली तेच उमेदीन ती आतां हिंदी शिकताली.

गोंय विद्यापीठाच्या कोंकणी विभागांत फाटल्या सुमार दोन दसकांच्या काळांत वर्सान वर्स सरासरीन वीस-पंचवीस भुरगीं एम्.ए.च्या अभ्यासक्रमांत प्रवेश घेतात आनी सुमार तितलींच पास जावन हातांत आशिल्ले पदवेच्या आदारान नोकरे-धंद्याच्या बाजारांत आपणालो फुडार घडोवंक घोळूंक कश्टूंक लागतात.

एम्.ए. कोंकणीचो वर्ग विद्यापीठाच्या हेर खंयच्याय विभागाच्या वर्गा परस गोंयचें अदीक बरें प्रतिनिधित्व करपी वर्ग आसता. भुगोलीक तसो समाजीक नदरेनूय. तरेकवार समाजीक फाटभुंयो आशिल्लीं गोंयच्या सगळ्या वाटारांतलीं, खऱ्यांनीच खांची-कोनशांतलीं, भुरगीं ह्या वर्गांत दोन वर्सां एकामेकां वांगडा सारतात. कांय जाणांक पळेतकूच दिसता, कोंकणीचो पर्याय नाशिल्लो जाल्यार हीं भुरगीं पदवेचेंय शिकप करूंक पावचीं नाशिल्लीं. 'कोंकणी भाशेचें जैत' खरेलें हेंच! कोंकणी भाशेन आयज सगळ्यांत वयल्या पांवड्या वयलें शिक्षण खोतीगांव, गांवडोंगरी, कुळें, मालपें, देवसू (कोरगांव), केरी (सत्तरी), धावें (सत्तरी) सारकेल्या गांवांनी रावपी भुरग्यांच्या दारा मेरेन व्हरून पावयलां. कोंकणी चळवळीचें एक व्हडल्यांतलें व्हडलें यश हें!

आनी मागीर कोंकणीचो ध्यास घेतिल्ल्या शणै गोंयबाब आनी उपरांतच्या म्हालगड्यां विशींचे कृतज्ञतायेन काळीज भरून येता...

फाटल्या कांय वर्सां सावन, भोव उण्या प्रमाणांत जावं, पूण कोंकणी आवय-भास न्हय जाल्लीं कांय मलयाळम, उर्दू, मराठी भुरगींय कोंकणी विशय घेवन एम्.ए.ची पदवी घेवन गेल्यांत. तांकां आत्मविस्वासान कोंकणीच्या माटवांत घोळटना पळोवन दिसलां, हेंय बी कोंकणी भाशेचें एक व्हडलें जैतूच!

पूण, फाटल्या सुमार दोन दसकांच्या काळांत एम्.ए. कोंकणीची पदवी घेवन भायर सरिल्लीं तिनशीं-एक तरी भुरगीं आयज खंय खंय वावुरतात? कितें करतात? तांच्या शिक्षणाचो खंय आनी कसो उपेग जाता? हो खऱ्यांनीच एक अभ्यास करपाचो विशय.

गोंयकारांच्या सभावाक धरून हेर विभागांतल्या पदवीधरां बरी कोंकणी विभागांतल्यान पदवी घेवन भायर सरिल्लीं भुरगींय नोकऱ्यो सोदतात. चडशीं शिक्षक जावंक आंवडेतात. जायते फावटीं हीं eligible teachers वर्साचीं वर्सां कॉंट्रॅक्टाचेर जाल्यार कॉंट्रॅक्टाचेर, तात्पुरती जाल्यार तात्पुरती, कांयच ना जाल्यार लॅक्चर बेसिसाचेर तरी शिक्षकाची नोकरी मेळची म्हूण धडपडटात. कांय जाणांक वर्सां संकिनी - स स, सात सात वर्सां - दिसवड्याच्या मानायां वरी लॅक्चर बेसिसाचे नोकरी करतना पळेतां तेन्ना दिसता, कोंकणी शिक्षण वेवस्थेचें गणीत खंय तरी बरेंच चुकलां...

असोच एकलो हुशार आनी तळमळीचो एम्.ए. कोंकणी जाल्लो भुरगो फाटल्या कांय वर्सां सावन एका गांवगिऱ्या वाटारांतल्या उच्च माध्यमीक विद्यालयांत शिकयता. लॅक्चर बेसिसाचेर.

नवोच शिकोवंक लागिल्लो तेन्ना एक दीस म्हाका मेळूंक आयलो आनी म्हणूंक लागलो, ''आमच्या वाटारांत कोंकणी घेवपी भुरगीं खूब उणीं. फकत चवदा भुरग्यांनी घेतल्या कोंकणी. हेरांक कोंकणींत साहित्य आसा हाचीय जाण ना. कोंकणी विशय घेतला तांकांय शुद्धलेखनाचे नेम आसतात म्हूण खबर ना. आपणाक जाय तशीं बरयतात... मॅडम, तूं एक दीस येवशीत आमच्या भुरग्यांक लॅक्चर दिवपाक? शुद्धलेखनाचेर उलय आनी इल्लीशी कोंकणी साहित्याचीय वळख दी...''

कांय दिसांनी म्हज्या लॅक्चरा विशींचो भुरग्यांचो फीड-बॅक घेवन आयलो.

आनीक एक दीस आयलो आनी सांगूंक लागलो, ''कांय भुरग्यांक घेवन युवा साहित्य संमेलनांत गेल्लों. मराठी घेतिल्लींय कांय जाणां आशिल्लीं हातूंत, तीं फुडल्या वर्सा कोंकणी घेवंक सोदतात... आमचीं कांय भुरगीं कोंकणी घेवन एम्.ए. करूंक सोदतात...''

लक्तुबाय दिसली ह्या भुरग्याची.

एक-दोन म्हयन्यां फाटीं मेळूंक आयिल्लो. तेन्ना विचारलें, ''कितलीं वर्सां शिकयतलो रे असो लॅक्चर बेसिसाचेर...? रेगुलरायझ जातली मरे नोकरी केन्नाय तरी?''

म्हणूंक लागलो, ''कांय समजना मॅडम... वर्कलोड पुराय जायना... प्रिन्सिपल म्हणटा, मराठी ना जाल्यार इतिहास विशय घेवन आनीक एक एम्.ए. कर. जाल्यार दोन वर्सांनी म्हाका सारको कामार घेवं येतलो... हांव अंदू पीएच्.डी. करपाक अर्ज करूंक सोदतालों... पळोवया... हालींच हिंदी शिकोवपा खातीर एक नवो भुरगो घेतला. तो सध्या गोवा कोंकणी अकादेमीचे कोंकणी साहित्याचे परिक्षेचीय तयारी करता. ह्या प्रमाणपत्रा उपरांत घडये ताका कोंकणी शिकोवपाची संद मेळूं येता... पूण हांव हें येवजूंक बसना. म्हाकाय खंय तरी मेळटलीच नोकरी.''

आयकून खूब अस्वस्थ जालें. म्हळें, ''तुजेय कडेन राष्ट्रभाशेचे 'प्रविण' परिक्षेचें प्रमाणपत्र आसा म्हणटालो न्हय रे तूं? हिंदी एम्.ए. आशिल्ल्याक अकादेमीची परिक्षा दिवन कोंकणी शिकोवंक मेळटा जाल्यार कोंकणी एम्.ए. आशिल्ल्या तुका हिंदी शिकोवंक कित्याक मेळची न्हय? काय कोंकणीच 'कोणेंय शिकोवपाचो' विशय...?''

तो हांसलो. म्हणूंक लागलो, ''खूबश्या माध्यमीक आनी उच्च माध्यमीक विद्यालयांनी अशेंच चल्लां मॅडम... आमकां इश्कोलांत कोंकणी कोण शिकयताली जाणा? चित्रकला शिकोवपी शिक्षिका. तिकाच ती शिकयताली तो विशय आवड नाशिल्लो, मागीर भुरग्यांक कसो आवडटलो? आमच्या इश्कोलांतलीं चडशीं भुरगीं मराठी घेतालीं. आमचे सारकेल्या कांय जाणांक कोंकणीच जाय आशिल्ली म्हूण तीन वर्सां तिका सोंसली. उपरांतचीं दोन वर्सांय अशींच गेलीं. शुद्धलेखनाचे आनी नेम आसतात म्हूण पसून आमकां खबर नाशिल्लें. तरी कोंकणींत बरे मार्क मेळटाले. बी.ए. खातीर कोंकणी विशय घेतलो तेन्ना सरान म्हजो पेपर पळोवन म्हळें, 'तूं बरयता बरो. पूण तुजें शुद्धलेखन सारकें ना...' तेन्ना, बी.ए.च्या पयल्या वर्सा, शुद्धलेखनाचे छापिल्ले नेम आसतात म्हणपाचें म्हाका कळ्ळां. इतलो तेंप आमकांय नेम येना आशिल्ले, शिकोवप्यांकूय येना आशिल्ले... कोणाचे तरी नोकरेक धिगी लावपाक कोंकणीचो वापर जाता, मॅडम. कांय कडेन गणीत शिकोवपी शिक्षकाक कोंकणी शिकोवंक लायतात आनी मागीर ताची नोकरी पक्की करतात. कांय विद्यालयांनी पी.टी.सर कोंकणी शिकयता. कोंकणीक लागुनूच ताची नोकरी regularize जाल्ली आसता... उबंत पडटात तीं आमी कोंकणी विशय घेवन बी.ए., एम्.ए. जाल्लीं भुरगीं.''

आयकून सामकें ओगी पडलें.

एका काळार उपाय नाशिल्ल्यान माध्यमीक, उच्च माध्यमीक पांवड्याचेर तशी कॉलेजींतूय 'कोणेंय' कोंकणी शिकयल्या. पूण आयजूय, नोकरेच्या बाजारांत वर्सान वर्स नव्या नव्या कोंकणी पदवीधरांची, एम्.ए. पदवी घेतिल्ल्यांची भर पडटा आसतनाय, कोंकणी विशयांत उपचारीक शिक्षण घेतिल्ल्यांक कुशीक दवरून हेरांच्या हातांत कोंकणी शिक्षण वता हाचो अर्थ एके परीन कोंकणी विशयाची पदवीच आमचे शिक्षण वेवस्थेन redundant थारायल्या असो जालोना? आनी, हे भाशेन वेव्हारांत कोंकणीच्यो पदव्यो redundant जाल्यो जाल्यार कोंकणी शिक्षण एके तरेचे 'निरुपयोगी' पदवीधर तयार करता अशें जालेंना?

कोंकणी राजभास जावन निकतींच चोवीस वर्सां भर जाल्यांत. कोंकणीक सगळे मान-भोवमान, संगळे तरेचे हक जोडून दिल्ल्या तिच्या मूळपिठांतूच कोंकणीच्या फुडाराचो हुस्को दिसूंक लागचो अश्यो ह्यो दोन घडणुको हांगा मुजरत 'जागा'च्या वाचप्यां मुखार दवरल्यात.

हे विशीं तुमच्यो प्रतिक्रिया कळत?

# म्हजो पयलो-वयलो फिल्डवर्क

''गुलाआते गेलें...'' सवितान (भयणीन) फोनार सांगलें तेन्ना हांथरुणार आड पडून भीमसेन जोशी आयकतालें.

''आरेअरे...'' तोंडांतल्यान उतरां आयलीं. सीडी बंद केली. खीणभर दोळे धांपले. पसतीस एक वर्सां फाटीं गुलाआते म्हऱ्यांत बसून केल्ल्या 'फिल्डवर्का'च्यो यादी जाग्यो जाल्यो. ''बरय गो-'' अशें ऑर्द सोडिल्ले वरी म्हणीत एक एक म्हण तागेले खाशेले कुंकळ्ळेचे शैलीन हुकमाचें पान जाल्ले वरी म्हजे मुखार उडोवपी गुलाआते ताच्या खणखणीत आवाजा सयत, मेकळ्या खळखळीत हांशा सयत दोळ्यां मुखार उबें जालें.

तेन्ना धा-पंदरा दीस उरिल्लें गुलाआते पिरवळा. गिरीशाच्या लग्नाक पांच-स दीस उरिल्ले. आमगेर थंडसाणेन म्हणटात तशी, खंयच खट्ट खुट्ट जाय नासतना लग्नाची तयारी चलिल्ली. गुलाआते आयलें आनी त्या खिणा सावन पिरवळच्या घरान लग्नाच्या घराचो अवतार घेतलो. घर आवाजान, हांशान भरलें. बाईच्या (म्हजे आजयेच्या) तोंडारूय वेगळीच उमेद झळकूंक लागली. (गुलाआते तिगेल्या भावाली धूव.) माँ (गोदूबाय) बावडें असल्या विशयांतलें आपणालें अज्ञान मान्य करून सगळ्या बोवाळांत फाटल्यान फाटल्यान आसतालें. लग्नाचो - खरेदीचो बी - सगलो भार म्हजे आवयनूच घेतिल्लो. गुलाआते आयलें आनी 'अमकें केलें? तमकें हाडलें?' विचारून ताणें म्हजे आवयक बरीच गोंदळांत घाली आनी न्हवरेकारां वेटेनच्या लग्नाचें वेवस्थापन गुलाआतेच्या हातांत पावलें. म्हजे आवयचें धोरण - 'लग्न म्हळ्यार उमेदी भागोवपाची एक संद!' ''म्हज्या लग्नाक वत्सलान 'माथें' (फुलांच्या फातयांचो सॅट) करून दिल्लें... सोरुबायन (म्हजे मावशेन) साडी भरिल्ली... बाबू खेडेकारान मंगलाश्टकां म्हणिल्लीं... हांवें सगल्यांक जाय तशें जावंक दिल्लें''... तिणें सांगचें. लग्नाच्या बोवाळांत वांटो घेवपाची गुलाआतेक सगळ्यांत अदीक उमेद. म्हणटकच तें येतकच म्हजी आवय आपखोशयेन फाटल्यान रावली.

लग्नाच्या आटापांत तातोन आपणालें कार्यक्षेत्र 'कोंकणी' भायर वचूंक दिवंक नाशिल्लें. व्होंवळीकपत्र ताणें तयार केल्लें आनी

मनोहरबाबांक सांगून कोंकणींतल्यान मंगलाश्टकां रचून हाडून आमकां, कांय भुरग्यांक, तीं चालीन म्हणूंक तयार केल्लीं. (संस्कृत/मराठी मंगलाश्टकां म्हणून जाले उपरांत मायकार आमी कोंकणींतल्यान मंगलाश्टकां म्हणप आनी उपरांत माळ घालप असो बेत थरिल्लो. ते प्रमाण लग्ना दिसा आमी दोन-एक कडवीं म्हणटात थंय आसात, भटमाम 'हीं कसलीं भुरगेपणां?!' म्हणत आमचे वांगडाच व्हडल्या आवाजान मराठींतल्यान मंगलाश्टकां म्हणूंक लागलो आनी ह्या बोवाळांत आमचो आवाज खंयचे खंय व्हांवन गेलो... मुखार, सविताच्या लग्नाक असले तरेचे अपघात टाळपा खातीर आमी कोंकणी मंगलाश्टकां पयलीं रिकॉर्ड करून हाडून टेपूच मायकार लायिल्ली. ते भायर, तीं छापून हाडून सगळ्यांक वांटिल्लीं.)

गुलाआतेक घरांत घोळटना पळोवप, ताचें उलोवणें आयकप, ताच्या फर्मावण्यांक पाळो दिवप - म्हाका दिसता, त्या दिसांनी आमचें भुरग्यांचें मुखेल काम हेंच आशिल्लें. जितल्या वेगान गुलाआते काम करतालें तितल्याच वेगान आनी वांगडाच तें उलयतालेंय! आमकां मजाच दिसची. "खूब उलयता गुलाब..." मॉन केन्नाय हांसून आमकां भुरग्यांक ल्हवू म्हणचें. तेन्ना म्हाका दिसचें, मॉंक आयकुनूच पुरो जालां... गुलाआतेक मात इतलें उलोवनूय पुरो जायना. कितली उमेद भरल्या ताचे भितर!

आनी, तेन्ना गुलाआतेचें लग्न जावंक नाशिल्लें. बाईन मदीं मदीं उस्वास सोडिल्ले वरी म्हणचें, "बावड्याची अंदू तरी सोयरीक जाल्यार पुरो..." आयकून आमकां विचित्र दिसचें.

गुलाआतेचें तोखणायेन निरिक्षण करतना आमी भुरग्यांनी ताचें एक 'उणेपण' सोदून काडिल्लें. रांदचे कुडींत घोळटना तें ह्या डब्याचें धांकण त्या डब्याक लायतालें, हे बाटलेचें धापणें ते बाटलेक घालतालें - सगळें mix and match! एक दीस हांसत हांसत हांवें हें मॉंच्या कानार घालें तेन्ना ताणें म्हळें, "आसूं... तें आपलें कार्य समजून घोळपाक आयलां... तूं सारकीं लाय धाकणां ताका कळूंक दिना आसतना..."

सांजचीं प्रार्थनेक बसतालीं तेन्ना गुलाआते सगळ्यांच्या सुरांत सूर मेळोवन प्रार्थना केन्ना म्हणी नाशिल्लें. आपले पट्टेन आनी आपल्या वेगान प्रार्थना म्हणून सगल्यांत पयलें तें 'ठिकाणार पावतालें'! म्हाका तेन्ना 'कोणा बरोबर' प्रार्थना म्हणप हो प्रस्न पडचो आनी तीन-चार कडवीं म्हणून उरिल्लो सगलो वेळ, देवाक पुरायेन शरण वचून, प्रार्थना सोंपसर हांसो कसो चिड्डून धरचो हे विवंचनेंत हांवें सारचो...

हो सगळो बोवाळ ऐन घोंसार आसतना एक दीस तातोन म्हाका म्हऱ्यांत आपोवन सांगलें, "गुलाबाची भास बारीकसाणेन आयक. कुंकळ्ळेची नितळ कोंकणी उलयता तें. उतरा पावलाक म्हणी, वाक्प्रचार येतात ताचे जिब्रेर. हें 'धन' एकठांय कर ताचे म्हऱ्यांत बसून."

आनी मागीर डायरी आनी पेन हातांत घेवन गुलाआते फाटल्या फुडल्यान भोंवत म्हजो 'फिल्डवर्क' सुरू जालो. "सांग मगो म्हणी..." हांवें म्हणचें, आनी गुलाआतेन "घे, बरय-" म्हणत एक एक म्हण म्हाका सांगची.

चार-पांच दिसां भितर हांवें ताचे एकल्या कडल्यान सवाय दोनशीं म्हणी/वाक्प्रचार पुंजायले. "आनिकूय आसात खूब... तूं रावंक यो कुंकळ्ळे, मागीर सांगतां..." ताणें म्हणिल्लें.

हांव कुंकळ्ळे रावंक वचूंक केन्ना पावलें ना. गुलाआतेल्यो उरिल्ल्यो म्हणी आतां ताचे वांगडा गेल्यो...

मनाक खंत आंफडून गेली आनी हांथरुणा वयलें उठलें. आरमार उकती करून ती डायरी सोदूंक बसलें. वरा भरयान मेळ्ळी तेन्ना खूब आनंद जालो. उरिल्लो दीस त्यो म्हणी वाचपांत सारलो. गुलाआतेच्या आवाजान त्यो भितल्ले भितर अणभवल्यो.

गुलाआतेन म्हणी दिल्ल्यो तेन्ना तांचो अर्थूय सांगिल्लो. त्यो खंयच्या प्रसंगार वापरतात तेंय सांगिल्लें. खरें म्हळ्यार हेंय हांवें बरोवन दवरुपाचें. कांय म्हणींचो अर्थ *म्हणी फाटली काणी* (कमलादेवी राव देशपांडे) पुस्तकाच्या खंडांनी आनी *कोंकणी म्हणीसागर* (मनोहर पै धुंगट) पुस्तकांत मेळ्ळो. कांय अजून होलमूंक नात.

गुलाआते कडल्यान पुंजायल्लें हें धन म्हज्याच 'चावये कुलपांत उरचें न्हय' म्हूण जागाच्या वाचप्यां मुखार तें उकतें करतां. (सगळ्यांचे वळखीच्यो, 'नाचूंक येना आंगण वांकडें' सारकेल्यो म्हणी मात हांगा दिवंक नात.) डायरेंत बरयल्ल्यो तश्योच, 'येत गेल्ल्यो त्या क्रमान', त्यो हांगा दिल्यात, कसलेच मांडणेर घाली नासतना.

१. कुंवाळेक कुंवाळो जड जायना (आपल्या मनशा खातीर काडिल्ले त्रास त्रास कशे दिसनात).

ह्याच अर्थाची आनीक एक म्हण -

२. म्हशीचीं शिंगां म्हशीक जड लागनात.

३. जितेपणीं ना ताक धंय, मरतर मसणांत गाय (जितो आसतना (दिवपाचें तेन्ना) दुदाक ताकाक वळवळायलो... मरतकच ताच्या नांवान गाय दान करून कितें उपेग? असल्या कर्तुपांतल्या विरोधाभासाची जाण करून दिवपी म्हण.) हेच तरेची आनीक एक ओपार -

४. मेल्ल्या मड्याक शिरंगार.

५. म्हातारे पोराक गुडगुडे वेसन कोणें सांगलां? (आपणाली तांक पळोवनूच कसलोय आटाप मांडचो.) हेच तरेची दुसरी म्हण -

६. गरिबाच्या पोराक पोंबुर्पेचें फेस्त कोणें सांगलां?

७. मडकी ओली आसतनाच कांठ वळूंक जाय. (फावो तेन्नाच बरी देख दिवंक जाय. उपरांत परिस्थिती हाता भायर वचूं येता.)

असलीच दुसरी म्हण -

८. वाऱ्याक लागिल्लें (शीत) मुठीक येना.

९. हीट रोस एकठांय, दोणो वाऱ्यार (दोगां लार्गीच्या मनशांच्या वादा-केस्तांवांत तिसरो पडटा तेन्ना निमाणें तोच कुशीक पडटा. लार्गीचीं मनशां एक जातात. सान्नां (हीट) रोसांत बुडटात, दोणो कुशीक पडटा, ते भाशेन). आनीक एक असल्याच अर्थाची म्हण -

१०. कांडी करमल एक जालें, आंवाळो गडगडलो.

('हरजागरां'तले उशी-कांड्याचे करवे आनी आंबट करमलाच्यो फोडी खावंक बऱ्यो लागतात, आंवाळे कुशीक उरतात.)

हीय बी म्हण 'हेच माळे'ची कशी -

११. घोव-बायलेचें झगें, मदीं पडटा तें पिशें.

१२. खोरें आपलेच वेटेन माती ओडटा (मनीस आपलो आनी आपल्या मनशांचोच फायदो पळेता) वा,

१३. खोऱ्याची बाग आपले वेटेन.

१४. घाटार दर आयल्या म्हूण बुकल्याचेर गोणयो घालतात गा? (आपल्या फायदया खातीर कोणाचोय कसोय फायदो घेवचो न्हय.)

मातश्यो वेगळ्यो पूण वयले म्हणी कडेन साम्य आशिल्ल्यो ('अशें करनात', हें सांगपी) आनीक तीन म्हणी -

१५. कोळश्यांक दर आयल्या म्हूण घराक उजो लायतात गा?

१६. घर पडचें आसा म्हूण मोडून घाल्यार जायत गा?

१७. कपल घट म्हूण फातराक आदळटात व्हय?

१८. गुरव नाचता थळांत म्हूण मडवळ नाचता व्हाळांत (सोबना जाल्लें अनुकरण). अशेंच तरेची आनीक एक म्हण -

१९. कलवंत नाचता देवळांत म्हूण गावडी नाचता घरांत.

२०. दुसऱ्याचें भुरगें बांयंत उडोवन थाव पळोवप. (दुसऱ्याचे वस्ती कडेन प्रयोग करप; हेरांचें नुकसान जाल्यार दूख जावप ना).

अशेच तरेची दुसरी म्हण -

२१. दुसऱ्याच्या म्हाळा कितलेय तांदूळ घाला (दुसऱ्यांच्या वस्तीं कडेन फसफस).

२२. आलेसा तांड रे व्हडें / हांव सायबा भुरगो मगा
आलेसा जेवंक यो रे / हांव सायबा मानाय मगा (कामाक फाटीं, जेवंक मुखार!) असलीच दुसरी म्हण -

२३. काम कर रे माधवा / मेलों गा सायबा
जेवंक यो रे माधवा / येयलों गा सायबा.

खंय हो (योग्यतायेन ऊंच आशिल्लो) आनी खंय तो (योग्यतायेन उणाक आशिल्लो) अशी तुळा करपी (४) म्हणी -

२४. एक दुदी आनी हजार तेंडलीं केन्ना एक जावचीं पडल्यांत?

२५. हार उडटा म्हूण गांयडोळ उडटा!

२६. कांजुलो लिकलिकलो म्हूण सूर्य जाता?

२७. हती भागलो म्हूण घोडवळींत वचना.

मूळ सभाव कसोच वचना, ह्या अर्थाच्यो (३) म्हणी -

२८. इंगळो कितलोय झरयलो म्हूण धवो जाता?

२९. कावळ्याक शाबू लावन न्हाणयलो म्हूण कावळो धवो जाता?

३०. दुकराक बसूंक कदेल दिलें म्हूण तो आपल्या जाग्यार गेले बगर रावता?

दुसऱ्याचेर अरिश्ट आयिल्लें आसतनाय कोण आपलें सादोवंक सोदता तेन्ना वापरुपाच्यो (२) म्हणी -

३१. कोणा खाडाक उजो लागला, म्हंजी विडी मातशी पेटयतां.

३२. व्हंकलेक दितात सुळार, घेडी मागता वन्न.

पयशांक रोखडो मान मेळटा हें सांगपी (२) म्हणी -

३३. गिरेस्ताचे बायलेक कोणूय व्हनये म्हणीत.

३४. गिरेस्ताक कोणूय चेपें काडीत.

३५. आयक कानांनी, पळे दोळ्यांनी, जिबे रांडे ओगी राव (आयकुचें, पळोवचें, उलोवचें न्हय, ओगी रावप शाणेपणाचें).

३६. कुइड्या मुखार नाचलें, भेड्ड्या मुखार गायलें! (निर्फळ काम!)

३७. भांगरा दायेक लेगून वणटी आदार जाय (मनीस कितलोय गिरेस्त आसूं, ताका दुसऱ्याचो आदार जायच आसता).

३८. सांजेक नात तीन तांदूळ, सान्नां उकडूंक भोंवता रांडूल. (आपली तांक पळेनासतना व्हडलो आटाप धरता तसल्या मनशाक उल्लेखून मारपाची ओपार.)

३९. थुकून उडयल्लो निथू गिळूंक येना. (तोंडांतल्यान उतर गेलें तें गेलें, तें फाटीं घेवंक येना).

४०. देखलें मडें आयलें रडें (तितले पुरतें, प्रसंगार भावनीक जावप वा प्रसंगाक सोबऽ सारकें कसलेंय उतर दिवन मेकळें जावप, तातूंत खरेपण नासप).

४१. भीकमागो गेलो गूखायऱ्या कडेन, गूखायऱ्यान ताका हागऽसर मारलो (दानत नाशिल्ल्या कडेन कोणूय कितेंय मागूंक वता तेन्ना मागूंक आयिल्ल्या कडल्यान कितेंय घेतले बगर तो ताका कांयच दिना).

४२. आसा फटें खाता शीं (शीं खाता म्हूण फटें पांगरप न्हय, तर फटें आसा म्हूण तें दाखोवंक शीं खाल्ल्याचें निमित्य करप आनी फटें पांगरप)!

४३. भिके भाणांत कावळो हागलो! (वायटांत आनीक वायट जावप.)

४४. कुपातर फातर गोड आशिल्लो जाल्यार कोले सांडटाले? (उपेग नाशिल्ली वस्त म्हूण ती तशीच उरल्या हें सांगपी म्हण.)

४५. पयसुल्ल्या माडा परस दारांतली काज अदीक आदावाची ('A bird in hand is worth two in a bush हे म्हणीक समानअर्थी आशिल्ली म्हण).

४६. भाटकाराचें वारें, भाटाक सारें (फकत कारभाऱ्यांचेर भरवंसून चलना, धनयान प्रत्यक्ष लक्ष घालुंकूच जाय हें सुचोवपी म्हण.)

४७. मेल्ले म्हशीक बार शेर दूद (कोणूय मेले उपरांत ताची सुमारा भायर तुस्त गायतात तेन्ना ही ओपार वापरतात).

४८. आसतीत शितां तर नाचतीत भुतां (पयशांक लागून कोणूय लागीं येत!)

४९. रेड्या पाड्यांचीं झगडीं झाडाचेर काळ. (व्हडल्यांच्या केस्तांवांत ल्हानांचें लुकसाण!)

५०. उणें उलोवचें, दुणें घेवचें (उणें उलयल्यार अदीक फायदो जाता).

५१. घर मोडून माटव घालप (देखीक, बऱ्या कापडाची गोयडी मांडप).

५२. तळी पोळे तोंडाचे, सगळे सुके खोल्याचे (कोणूय फटींचें आपलेपण दाखयता तेन्ना वापरपाची ओपार).

५३. आपलें घर हागून भर, दुसऱ्याचें घर थुकूंक जड (आपल्या हक्काच्या घरांत मेळटा ती मेकळीक दुसऱ्याच्या घरांत केन्ना मेळना).

५४. माडा वेल्यान पडिल्ल्याक पिड्यांनी धोडावप (आदींच त्रासांत आशिल्ल्याक आनीक त्रासांत घालप).

५५. कणयो घालून कोंबयो झुजोवप (आपल्या बोल्सांतले मोडून

दुसऱ्यां मदीं वितुश्ट हाडून मजा पळेत बसप).

५६. गरो लावन हांयस काडप (यत्नांक फळ येवप ना).

५७. आदींच बाय नाचरी तातूंत पांयांक बांदली घागरी (मुळांतूच मुखार मुखार करपाचो गूण आशिल्ल्याक मुखार येवपाक जॅल मेळटा तेन्ना तो आपणाल्या गुणाचें कशें प्रदर्शन करता पळेयात, अशें सुचोवपी म्हण).

५८. आदाव नासतना कोण शिदी फोडिना आनी फायदो नासतना रायबारी सोयरीक करिना (वायट/बरें काम कोणूच फायदो आसले बगर करना).

५९. आनाक पडलां आनाचें, चोराक पडलां चोराचें (जण एकल्याक आपलेंच पडलां).

६०. कान फूंक म्हळ्यार वान फुंकता (एक सांगल्यार दुसरेंच करता).

६१. कुमाराली मडकी सदां फुटकी.. (दुसऱ्यां खातीर मडक्यो घडोवन दिवपी कुमाराक आपले मडके कडेन पळोवंक वेळ नासता. 'पीक थंय भीक' हे म्हणीचीच ही एक तरा.)

६२. धरल्यार चाबता, सोडल्यार पळटा (दोनूय वटांनी संकट, किर्ते करचें, समजना तेन्ना ही ओपार वापरतात).

६३. ब्रह्मदेव आपणाकूच मूज बांदूक विसरलो (हेरांक शाणेपणां सांगपी आपणा कडेन पावतकच उणो पडलो हें सांगपी ओपार).

६४. आंबट खाल्ल्याचें गळ्या कडेन कचरता (वांकडें काम करतल्याकूच ते विशीं वायट उतर दिल्लें लागता).

६५. सदां सदां पुन्नपोळयो नासतात (सदां बरेंच घडटलें हाची मनशान अपेक्षा धरची न्हय).

६६. सोरोप म्हणचो न्हय खंय धाकलो आनी घोव म्हणचो न्हय खंय आपलो. (सोरोप धाकलो आसलोय जाल्यार तो विखारीच, तसो घोव कितलोय लागींचो दिसलो तरी तो निमाणें परकीच!)

६७. करून करून भागलो, देवा पुजेक लागलो (सगळे तरेचीं वांकडीं कामां करून कोणूय निमाणें देव देव करूंक लागता, देवभक्त जाल्ले वरी भासयता तेन्ना ही ओपार लायतात).

६८. खावंक गेल्यार खोले, गंध झरयतले मेले (पुजे वेळार गंद झरोवपी गंद झरयत उरले, तांकां जेवणाक आपोवपाची कोणाक चत्राय उरलिना. हे काम सोंपोवन जेवंक गेले तेन्ना खंय निखटे उश्टे खोले उरिल्ले, जेवण सोंपिल्लें. कश्टुपी कश्टत उरतात, तांचेर अन्याय जाता तेन्ना ही ओपार मारतात).

६९. मडवळाचें मडें भायर काडले बगर कळना. (वेळ येतकच गुपीत उकतें जाता. एकलो मडवळ खंय दुसऱ्यांले कपडे आंगार चडोवन उत्सव-कार्यां फुलयतालो. लोकांक दिसतालें, हाचे कडेन खूब कपडे आसात. मडवळ मेलो आनी ताचें मडें न्हेसोवंक एकूय नवो कपडो मेळ्ळोना तेन्ना खंय ताचें गुपीत भायर आयलें.)

७०. भुसाक खार, धरणेक भार (कांय उपेग नाशिल्लो मनीस).

७१. जनरी गेली खिणां उरलीं (बरे दीस उलगले, तांच्यो यादी मात उरल्यो).

७२. कोंगो खाता रोव, हेंवाळ्याक बावड्याक मार (वायट कर्तूप करता एकलो, परिणाम भोगता दुसरोच).

७३. दामांव पयशान घडो (दामांव पयशान घडो मेळटा जायत, गोंयां आमकां ताचो किर्ते फायदो?!)

७४. दिव्यांत वात, तोंडांत हात (काळोख जायना फुडें कोणूय जेवंक सोदता तेन्ना ताका उल्लेखून ही म्हण वापरतात).

७५. देखलो गुणो घेतलें कपळ (न्हय त्या कामाक माथें मारप).

७६. धांव धांव धांवलो तारी कडेन रावलो (खूब यत्न करुनूय निमाणें काम जावप ना).

७७. तूस कांडून हाताक फोड. (फळ मेळपाची आस्त ना थंय कश्टप. तूस=कुंडो.)

७८. हागऱ्या फुडें वागरें खंयचें? (खरीच गरज पडटा तेन्ना मनशाक कसलोच भंय फाटीं ओडना. परसाकडेन जाता तेन्ना मनीस रानांत वताच, वागाचो तेन्ना ताका भंय दिसना.)

८०. दांडगेपणीं हालाहुला, म्हातारपणीं शेंडयेक फुलां (तरणेपणांत वेळ मेळूंक नाशिल्ल्यान करूंक नाशिल्ल्यो गजाली कोणूय जाणटेपणांत - करूंक फावना तेन्ना - करूंक लागता तेन्ना ही ओपार वापरतात).

८१. व्हंकल घरे खायना म्हूण भिकणांनी भरलीं वायनां. (कोणूय आपणा विशीं एक सांगता पूण ताच्यो करण्यो ज्युस्त उरफाटें सिद्ध करतात तेन्ना ही ओपार वापरतात.)

८२. न्हिदिल्लेगेर ज़ालो चलो आनी जागी आशिल्लेगेर चली. (सुशेगाद आशिल्ल्याक बरें मेळप आनी काडावोडी काडटल्याक बरें मेळप ना... देखून, 'हुस्को करून कांय फायदो ना, जावपाचें तेंच जातलें!')

८३. म्हज्या बापायगेर बारा म्हशी, हांव काडटां उठाबशी. *(कोंकणी म्हणीसागरांत* असलीच आनीक एक म्हण मेळटा - 'आवय-बापायगेर बारा जोतां, हांव भीक मागून खातां'. आस्पतीच्या घरांतल्या कोणाकूय त्रासां-कश्टांचें जिवीत सारचें पडटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.)

८४. आळशें उठपाक शिमरें शिकता (काम करी नासतना रावंक आळश्याक शिंकेच्या अपशकुनाचें निमित्त मेळटा).

८५. आडांग्याचें मडें पादत वता. (मेलो तरी सभाव सुटना!)

८६. सगलो दीस नागडी, न्हातना धरली मांदरी. (चलणुकेंतलो विरोधाभास दाखोवपी म्हण. दीसभर नागडी भोंवतलेन न्हातना मांदरेचो आडोस करप!)

८७. पयल्या विड्याक फोंडू नायक (कोणूय सगल्यांत पयलीं आपलें सादोवपी आसता तेन्ना ताका उल्लेखून ही ओपार उपकरायतात.)

८८. भटां वाड्यार कुकड (वेवस्थीत लोकां भितर अवेवस्थीत, नितळ लोकां भितर बुरसो).

८९. फातर्पेच्यान गोंय लागीं करप (पयसुल्ली वाट वेंचून काडप).

९०. आपल्या पोरसांतल्या आळवाची खाज आपणाकूच बरी खबर आसता (आपल्या मनशाचीं उणेपणां दुसऱ्यांनी सांगपाची गरज आसना).

९१. चोराक चान्नें नसाय (चोराचें काळखांत बरें सादता. देखून उजवाड ताका नाका आसता).

९२. बरें जाल्यार व्हंकल-न्हवऱ्याचें, वायट जाल्यार रायबाऱ्याचें (बऱ्याचें श्रेय आपणें घेवप, अपेसाचें दुसऱ्याक दिवप).

९३. वोंपता तशें पिकता (केल्ले करणेचेंच फळ मेळटा - बरें केल्यार बरें, वायट केल्यार वायट).

९४. वाडिल्लें नाका, सांडिल्लें जाय (कोणाकूय मानान दिल्लें घेवंक कळना तेन्ना ही ओपार लायतात).

९५. बार्का फाटल्यान पनेळ (कोणाकूय शेलको कसो दुसऱ्या फाटल्यान भोंवपाची संवय आसता तेन्ना वा कोणाय 'व्हडल्या' फाटल्यान येवपी 'ल्हानां'क उल्लेखून ही ओपार वापरतात).

९६. फुडलें ज्रोत तशें फाटलें जोत (एकलो देख घालून दिता तशींच दुसरीं चलतात).

९७. कोंबये पिलाक उस्तूंक शिकोवचें लागना (बडींत, सभावांत आशिल्लें आपशीं भायर येता).

९८. गरजेवंताक ना अक्कल (गरजेक येतकच मनीस विवेक बुद्द वगडावन बसता, लाचार जाता).

९९. खिळ्या कडेन देवूळ मोडप (काम इल्लेंशें उरिल्लें आसता तेन्ना चामटेपणां करप आनी तें पुराय जावंक दिवप ना).

१००. शेट सृंगारता म्हणसर बाजार उलगलो. (शेट खंय बाजाराक वचूंक भायर सरिल्लो. न्हेसपा करपांत ताणें इतलो वेळ काडलो की तो बाजाराक पावता म्हळ्यार बाजार उलगल्लो!)

१०१. चिड्ड्याक घोडो बांदून येवप. (येता म्हणसर 'वतां... वतां...' करप. चिड्ड्याक घोडो बांदला, घोड्यान कुस्कूट नेट लायल्यार चिड्डो तुट्टलो म्हूण भंय आशिल्ले वरी चलप!)

१०२. शेट रिवणां सांतली कुस्मणां (कोणूय आपणाली भोव गरजेची वस्त एके कडेन दवरून दुसरे कडेन पावता तेन्ना ही ओपार वापरतात).

१०३. कोलो बुडल्यार संवसार बुडटा? (कोणूच असो म्हत्वाचो न्हय, नाड मनीस तर न्हयच न्हय.)

१०४. यो दिसा भर पोटा! (कसलेच तरेचो सारको कामधंदो करी नाशिल्ल्याक ही ओपार लायतात.)

१०५. व्हडल्या घराक पोकळ वांसो (व्हडलो नांव-लोकीक आशिल्ल्या घराचें (वा संस्थेचें) कर्तेपण ताका सोबऽ नाशिल्ल्या मनशाच्या हातांत वता तेन्ना ही ओपार लायतात.)

१०६. खदूळ उदकांत शेंवटे मारूंक बरें (हाचें ताचें पेटिल्लें/ नातें इबाडिल्लें आसता तेन्ना (तिसऱ्याचें) सादूंक बरें).

१०७. दाटून व्हेलो आनी काळाच्या तोंडांत घालो (एके कडल्यान आपोवन-करून व्हेलो आनी मरणाच्या तोंडांत दिलो).

१०८. शेटी कडल्यानूच नाक तोंपून घेवप (योग्य मनशा कडल्यान काम करून घेवप).

१०९. पानवेली धर्मान म्हसकाक उदक. (पानवेल म्हसका रुखार चडिल्ली, देखून तिका घाल्लें उदक म्हसकाकूय मेळ्ळें. एकल्या खातीर केल्ल्याचो फायदो दुसऱ्याकूय मेळटा तेन्ना ही म्हण वापरतात.)

११०. चूड दाखोवन म्हारू हाडप (अप्सरण ओडून घेवप).

१११. मेले बगर सर्ग दिसना (कश्ट केले बगर बरे दीस येनात).

११२. जाचे कडेन नासलें धरकल ताका मेळ्ळें कालूं, खंयचे तवलेंत घालूं! (कांयच पळोवंक नाशिल्ल्याक अचकीत किर्तें तरी मेळटा आनी ताका किर्तें करूं, किर्तें नाका जाता तेन्ना ही ओपार वापरतात.)

११३. हुंदीर हागतलो कितलो, माजर शेणी थापतलें कितलें? (उणी तांक आशिल्लो मनीस खंयचेंय व्हडलें काम कसो तडीक व्हरूंक पावतलो?!)

११४. खण तशी माती (देखीक, आवय-बापूय तशीं भुरगीं).

११५. कुड्ड्याक ऑक्ल कित्याक? (खंयचेय वस्तीचो उपेग नाशिल्ल्याक ती वस्त दिवन किर्तें सादूं येत? देखीक, वाचूंक येना आशिल्ल्याक पुस्तक भेट दिवप.)

ह्या म्हणींचो अर्थ विसरलें. वाचप्यांक येता आसत जाल्यार तांणी मुजरत कळोवचो -

११६. तन्नांत आसल्यार खाडाक लागतलें.

११७. पिंजिल्ल्यांत पांय, शिजिल्ल्यांत दाय.

११८. पिंजिल्ल्याक लाशिल्ली फाळी.

११९. चरेता थंय घोंटेता.

१२०. पत नाशिल्ल्याक पसरो, मत नाशिल्ल्याक शिवदोरो.

१२१. आनशें बिराड, कोनशें घर.

१२२. सगळें बुडल्यार शीं खायना.

१२३. दुडू दी बामणा, सोरो पी.

१२४. कळी वेळार घोडें चाळवता.

१२५. वाडट्या आंगार चडटें कल्सांव.

१२६. कोंब्यालो साद आनी खारव्यालो वाद सारकोच.

१२७. वड्या वेलें तेल वांयग्यार.

१२८. हाड जाणा, सुणो जाणा.

१२९. लज ना लांड्याक शेंपडी बांदली निवलकांड्याक

१३०. येता येता म्हणून सात कोंबयो खावप.

१३१. कुंभकर्णा बायलेक माळ घालप.

१३२. आड्या वेल्यान घोडें घालप.

आनी, कांय वाक्प्रचार -

१३३. उमथ्या कळशार उदक

ह्याच अर्थाचे हे दोन -

१३४. रेड्या फाटी वेलो पावस.

१३५. तेला आंगा वेलें उदक.

१३६. केळ्या साली ओडप (पोके झेत सांगप)

१३७. (अमको) गुवांतलो पयसो धुवन काडपी (पयश्यां खातीर कितेंय करपी).

१३८. (अमको) धयांत फातर सोदपी (उणें नाशिल्ल्यांत उणें सोदपी).

१३९. मिरसांगे पोटांतली बी (सामकी झगडाळ).

१४०. कामुआवयली सवत भयण (सामको पयसुल्ल्या नात्यांतलो).

१४१. बुळूक नायकालें उशेल (इल्लेशे गजालीक धळ्ळ करून रडपी).

१४२. दर्यांत जायफळ ('दरिया में खसखस')!

१४३. शेण मेण पाशाण जावप (काळीज घट जावप).

१४४. पयल्या तारवार बसपी (इल्ली इल्ली करून संवेदना

उणी जावप).

१४५. पडिल्ल्यार पांय दिवप (त्रासांत आशिल्ल्याक अदीक त्रास दिवप).

१४६. फुटक्या तारवा वेले (देखीक, एकाच घरांतले लोक खंयच्याय कार्याक एकाच वेळार पावनात, आतां एकलो, मागीर एकलो अशे पावतात तेन्ना हो वाक्प्रचार वापरतात).

१४७. घाल गे रांडे भीक म्हणप (खालतेपण घेवन मागचे सुवातेर उर्मटपणान मागप).

१४८. एकाच लेंड्या कुडके (एकेच तरेचे - 'एकेच माळेचे मणी' वा 'एकेच गांथनींतले फोवाळे' ह्या अर्थाचो वाक्प्रचार.)

१४९. मडवळाची फातर (रासवळ वस्त. मडवळाचे फातरीर कोणेंय कपडे उमळूं येतात).

१५०. अमको हातार लागून तोंडांत उडोवपी (कोण्णाचे उपकार घेवपी न्हय, जमनीचेय). आनी, हांचो अर्थ?

१५१. लोणचें घालतना येवप.

१५२. बाप्पा परबूलो कडो.

निमाणें, शेचाळिसाव्या काय सत्तेचाळिसाव्या वर्साचेर गुलाआतेचें लग्न जालें आनी तें पेडण्यां, आराव्यार लाडांच्या घरांत पावलें.

मागीर एक दीस कसल्या तरी सुवाळ्याक गुलाआते मेळिल्लें तेन्ना गळ्यांतलो मणी हातान वयर काडून दाखयत ताणें रोहिणीक म्हणिल्लें, "खरें सांगूं? फकत हाचे खातीर लग्न जालां हांव..."

लग्ना उपरांत धा-एक वर्सांनी गुलाआतेचो घोव भायर पडलो आनी तें परतें कुंकळ्ळे पावलें. भावांच्या संवसारांत समरस जावन गेलें. गळ्यांत सरपळी आनी कपलाक काळी तिकली लायिल्ल्या गुलाआतेक भावांच्या भुरग्यांच्या, नातरांच्या कार्यांनी तितलेच उमेदीन घोळटना पळेतालें तेन्ना काळजांत चर्र जावचें. "गुलाआते, बरें मगो?" ताका विचारतालीं तेन्ना ताणें म्हणचें, "जायना गो आतां पयलीं भशेन!" पूण ताका बारीक पळेतकच दिसचें, वय जालां, पूण तशें आसा गुलाआते! कशें उलयता पळे पयलीं बशेन. गुलाआते उलयता आनी भाव, भावजो ओग्गी रावन, केन्ना मंद हांसून, तें उलयता तें आयकतात... कांयच बदलूंक ना...



## दिवाळी-नातलां २०१० एकदम वाचनीय...

संपादक 'जाग',

'जाग' दिवाळी/नातलां २०१० चो आंक सर्वांगसुंदर जाला. मांडणी, साहित्य, मुखपृष्ठ, भितरलीं चित्रां, अग्रलेख सगळेंच सोबीत जालां. अभिरुची संपन्न आनी प्रगल्भ जाणिवेंतल्यान ताचें संपादन जाल्लें दिसता. रवीन्द्रबाब केळेकार आनी सुमंतबाब केळेकार हांचें दायज तश्या तशें मुखार आयल्लें दिसता. आतां एक खोशयेचो निःश्वास सोडूं येता, 'जाग' समर्थ हातांत पावलां म्हण. दोन महासाहित्यिकांक, बाकीबाब बोरकार आनी रवीन्द्रबाब केळेकार हांकां, एकाच आंकांत आटापून हाडप सोंपें नासलें. पूण तें काम बेस बरें जाला. नंदकुमार कामत हांचो बाकीबाबां वेलो लेख खूब अभ्यासपूर्ण आसा. फुडाराक तो एक महत्वपूर्ण दस्तावेज म्हण राखून दवरूंक फावऽ. रमेश वेळुस्कारान बाकीबाबाल्या मराठी काव्यांतलें कोंकणी उतराचें भावविश्व बेस बरे संशोधक वृत्तीन मांडलां. शीला कोळंबकारालो 'शेवण्या पिपुश्या' हो लेख कोंकणी साहित्यांतलें एक अपरूप. शेवण्यांचेर इतलो बरो लेख कोंकणींत केन्ना वाचूंक नासलो. दामोदर मावजो हांणी 'सपन मोगी' हे कथेंतल्यान एका पोन्न्या विशयाक नवी नदर, नवें आयाम दिवचो यत्न केला. सुरेश आमोणकारांलो बाकीबाबां वेलो लेख आनी रॉकी मिरांद हांचो 'कोंकणी भारत आनी विष्णुदास नामाचें मराठी भारत' हो लेख, हे ह्या आंकांतले कळस लेख म्हणूं येतात, इतली तातूंत प्रगल्भता आसा. माधवी सरदेसाय हांणी काकासाहेब कालेलकार हांचो भारतीय भाशा संदर्भांतलो वावर आनी नदर हांचो खोलायेन विचार केला. हो लेख खरें तर हेर भारतीय भाशांतल्यान वचूंक जाय.

रवीन्द्रबाबान आयुश्यांत खूब बरीं कामां केलीं. तांचें निमाणें बरें काम म्हळ्यार आपलो बरो वारस सोदून काडून 'जाग'ची जबाबदारी ताचे कडेन सोंपोवप. आता 'जाग' माधवीबाय सरदेसाय हांच्या हातात सुरक्षीत आसा हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

**- महाबळेश्वर सैल**

ठाणें, महाराष्ट्र. २६.२.२०११

भौ. संपादक 'जाग'

नमस्कार.

दिवाळी-नातलां २०१० आंक एकदम वाचनीय तसोच शोभिवंत जाला. बाकीबाब अणी रवीन्द्रबाब हांचे बाबत जें लिखाण आसा तें सांबाळून दवरपाचें आसा. मुकार कोणाक पीएच्.डी. करपाक उपेग पडतलें. श्रीधर कामत बांबोळकार हांणी काडिल्लें बाकीबाबालें चित्र तर फ्रेम करून दवरचें अशें आसा. तुमचें संपादकीय पूण कसदार अणी विद्वत्तापूर्ण आसा.

आंकांतली दामोदर मावजो हांची 'सपनमोगी' ही कथा बरीच भावली. एकदम तरल भावनांची कथा ही.

'शेवण्या पिपुशा' हो शीलाबाय कोळंबकार हांचो ललीत लेख पूण खूब भावलो.

बाय डिफा फेर्नांडीस हाणें महाबळेश्वर सैलांचे *हावठण* कादंबरेचें केल्लें रसास्वादन मनाक खूब भावलें. हांवें ती कादंबरी वाचल्या.

फिलोमिना सॉंफ्रान्सिस्को हांची 'उपकार' ही कथा पूण आनंदीत कर्न गेली.

रॉकी मिरांद हांचो लेख तर वैचारीक मेजवानीच.

बरें मागून,

**- विठ्ठलराय भट**

# 'केळीं आनी तांकां रेवडल्ल्या उतरांची गोडसाण'

भौ. संपादपी जाग,

जाग ऑगस्ट-सप्टेंबर २०१० च्या आंकांत 'केळीं आनी तांकां रेवडल्ल्या उतरांची गोडसाण' ह्या माथाळ्याचें बाब मेल्वीन रोड्रीगीस हांचें पत्र उजवाडा आयिल्लें. तातूंतले म्हायतीच्या आधारान हांवें एक टकटो तयार केलो. बरीच करमणूक जाली.

| मंगळूरी सारस्वत | मंगळूरी कथोलिक | गोंयांत घोळटेंत आशिल्लीं उतरां | टिपो |
|---|---|---|---|
| केळी | केळंबो | केळमो | |
| | मोको | मोको | |
| | नेमो | नेमो | |
| | दांडारो | दांडारो | |
| | फाळेतां | फाळको, चोळखो | |
| | शिरती | शिरती, शिरोती | |
| | गडाय | घड, केळावलें | |
| पाण्णो | पाणे | फेणो, फेणे | |
| | घोडकां | - | गोंयांत कोंबेल्ल्या काजूबियांक 'घोडकां' म्हणटात. |
| | धिगो | धिगी | |
| केळफूल | बोंडी | बोंड, केळफूल | |
| गब्बो | गाबो | गबो | |
| | कांडी | कांडी | |
| वायो | वावळी | वावळी | |
| | रांदयचीं केळीं | हरवीं केळीं, भाजयेचीं केळीं | |
| | पोळोव | - | |
| | करपो | - | |
| | | शेंतां | सुकयल्लीं पानां विडयो करपाक वापरताले. |

केळ्यांच्यो आनिकूय जाती आसात : खापरी पुटबाळीं (पुट= ल्हान) राजेळीं, मंयडोळीं

हरवीं केळीं रांदपाच्यो तरा : सुकी भाजी, उपकरी (परतून केल्ली भाजी) रायतें

कांय म्हणी : १) फुलांमिती वावळी पावन

२) फुलांमिती वावळी विकता

३) फुलां विकलीं थंय वावळ्यो विकच्यो न्हय

जेवणाचे पंगतीक शिरती दवरपाची एक पद्धत आसता. ती आडवी दवरून तिका एक फाळको जोडटात. केळीचें पान काडून कापतात. तोंका वेलो कुडको म्हळ्यार 'अगोती'. सर्गेस्त कविवर्य बाकीबाब बोरकारांनी ह्या उतराची फोड एका निबंधांत केल्ल्याचें स्मरता.

जानपद गीत : १) *चोय रे चोय, तीन दोळ्यांचो मांव माळ्यार बसून केळीं खाता, साली सकल उडयता.*

२) चानी मोनी कितें खाता? ''केळें खाता.''

'केळें खाता' अशें ल्हान भुरग्याक म्हणपाक सांगप आनी तें म्हणटना, सकयलो आनी वयलो ओंठ दांबब. तोंडांतल्यान 'केब्बें खाता' अशें उतर आयलें म्हणटकर हांसप.

**- मनोहर पै धुंगट**

---

# रवीन्द्रबाबांल्या साहित्याचो प्रसार जावचो...

बोरीवली-मुंबय, १४ फेब्रेर २०११

मोगाळ माधवीबाय,

सप्रेम नमस्कार

चौगुले कॉलेजीन घडोवन हाडिल्ल्या रवीन्द्रबाबां वयल्या परिसंवादाच्या निमित्तान पयर मडगांवां तुजी धांवती भेट जाली. आनी, खूब पोरण्यो यादी ताज्यो जाल्यो.

१९५७ वर्सा, म्हज्या वयाच्या १९ व्या वर्सा 'गोमंत भारती'च्या वावरांत रवीन्द्रबाबान म्हाका ओडून घेतलो. शंकर भांडारी, मोहन कारापूरकार, गुरुनाथ केळेकार, शशी केळेकार सारकेल्या कार्यकर्त्यां बरोबर हांवूय मणिभवनाचे ते पवित्र वास्तूंत वावुरपाक लागलों. एक स्वयंसेवक जावन. कोंकणी पुस्तकां खपयतना तेन्ना खूब कोडू अणभव येताले. पूण रवीन्द्रबाब डळमळ्ळो ना. आमी मात मदीं मदीं निराश जाताले. काकासायबांक दिल्ल्या उतरा प्रमाण घेतिल्ली ती जबाबदारी पेलतना रवीन्द्रबाबान सोंशीकपणाचो आमकां खूब व्हडलो आदर्श घालून दिल्लो. तेन्नाचो तांचो तो ध्यासपंथी व्रतस्थाचो चेरो अजुनूय दोळ्यां मुखार आसा. १९५८ चे दरम्यान डहाणूक तांणी पंदरा दिसांचें एक शिबीर घडोवन हाडिल्लें. त्या शिबिरांत आमी खूब लागीं आयिल्ले. रवीन्द्रबाब, गोदूबाय आनी सुमंत म्हाका म्हजे सोयरेच कशे दिसूंक लागिल्ले.

पयर रवीन्द्रबाब नाशिल्ल्या गोंयांत पावलों. तुका एकट्याकूच मेळून मन मेकळें करपाचें आशिल्लें. तुज्या busy scheduleक लागून तें तशेंच उरलें. परतें केन्नाय.

वाचन-संस्कृती नाशिल्ल्या गोंयकारां मदीं म्हजें मन आतां रमना. म्हज्या सोयऱ्यांनी आनी आमिगांनी व्हडलीं व्हडलीं घरां बांदल्यांत. पयसो गरजे परस चडूच जाला. पूण घरांत पुस्तकां दिसनात. पुस्तकां विशींचें उलोवप आसना. हांकां रवीन्द्रबाब कसो समजतलो? शाळा-कॉलेजींनी, युनिव्हर्सिटींत रवीन्द्रबाबांल्या समृद्ध साहित्याचो प्रसार जावंक जाय. तांच्या ललीत आनी वैचारीक लेखांच्या जाहीर वाचनाचे कार्यक्रम जायत रावंक जाय. कोण करतलों हें सगलें? खरें म्हळ्यार हें कोंकणी अकादेमी सारके संस्थेचें काम...

बरें मागून,

**- हरदत्त खांडेपारकार**

# भीमसेनी यादींची जिवीतपटी

**शकुंतला भरणे**

१९८६ वर्सांतली खबर आसतली. पं. भीमसेन जोशी हांचें शंकर अभ्यंकर हांणी बरयिल्लें *स्वर भास्कर* हें चरित्र केन्ना तरी हांवें वाचपाक घेतिल्लें. तें वाचप चालू आसतनाच हांव पणजे एका रेडिओ रिकॉर्डिंगा खातीर आयिल्लें. ही गजाल आकाशवाणीर नोकरी करूंक लागचे पयलींची. रिकॉर्डींग जातकच हांव म्हजे एके इश्टिणी बरोबर सकयल कामत हॉटेलांत च्या पिवपाक भितर सरतालें. आनी, एकदम सुखाचो धक्को – पं. भीमसेन जोशी च्या घेवन हॉटेलांतल्यान भायर सरताले तें हांवें पळयलें. नदरेक नदर मेळची इतले लागीं ते आशिल्ले. तरी पुणून म्हज्या दोळ्यांचेर म्हजो विश्वास नाशिल्लो म्हणून हांव तांकां पळयत रावलें आनी इतल्यान पं. भीमसेन एके निळ्या रंगाचे गाडयेंत बसले आनी गाडी स्टार्ट करून गेलेय बी. ते पयस पावतकच ते पं. भीमसेनूच आशिल्ले म्हणून म्हजी खात्री जाली. पुणून, संद चुकली, चुकयली, ती गेलीच. घरा येतकच चरित्र वाचपाक पाना उगडलीं. तेंच रूप, तोच चेरो, तीच चलपाची रीत आनी तेंच पिशें, गाडी चलोवपाचें. मुखार पं. भीमसेन, तांची गायकी, तांचो आवाज, तांची मेहनत, तांचो स्वर-लगाव, तांची स्वरप्रधान गायकी, ह्यो सगळ्यो गजाली परत्यो परत्यो वाचून वाचून भीमसेनांचें चरित्रूच म्हाका पाठ जालें म्हणूं येता. तेन्नाच थारायलें, किराणा घराणें आनी ही गायकी समजून घेवपाचो यत्न केल्यार म्हज्या जल्माचें सार्थक जातलें.

मुखार मागीर योगायोगान, पं. भीमसेन जोशी हांच्यो ज्येश्ठ गुरुभगिनी डॉ. गंगुबाई हानगल म्हाका गुरू म्हणून लाबल्यो आनी तांच्या सान्निध्यांत आसतना पं. भीमसेन जोशींची प्रत्यक्षांत गांठ- भेटूय जाली.

हांव रियाजाक बशिल्लें. गंगुबाईंची तालीम सुरू जावन दोन-तीन म्हयने जाल्ले. गंगुबाईक आमी शिश्य परिवार अक्काजी म्हणटालीं. अक्काजीन म्हाका पयले स म्हयने फकत आरोह-अवरोह आनी एक पलटो घोटोवंक दिल्लो. सकाळीं राग तोडी आनी सांजचो राग यमन. एकूच पलटो पुणून राग वेगळो. हो पलटो असो - ''गगरेसानीसा, नीनीधपमप, गगरेसा नीधपमगेसा''. हो पलटो पयलीं सवकासायेन घोटोवप आनी मागीर इल्ली इल्ली गती वाडोवप. हांव गती वाडोवन पलटो घोटोवपांत तल्लीन जाल्लें, इतल्यान भीमसेन जोशी भितर सरले आनी म्हजे मुखार येवन बसले. म्हजी तनरी भंग जाली. पुणून, भीमसेनांक मजा दिसली. त्या खिणाक तांणी सट्ट करून विचारलें, ''कन्नडा माताडती नीन्?'' हांवें म्हळें, ''नाही, थोडी थोडी समजते...'' उपरांत ते म्हजे कडेन मराठींतल्यानूच उलयले. म्हणपाक लागले, ''हो पलटो, उस्वास सोडिनासतना सतत तूं कितले फावट म्हणूंक शकता?'' हांवें भियेत भियेत म्हळें, ''चार ते पांच फावटी, अशें तशें...'' तांणी म्हळें, ''चल, हो पलटो सात फावटीं उस्वास सोडिनासतना तूं गायशीत जाल्यार तुका हांव विमानान दिल्लीक व्हरून हाडटलों...'' तांच्या उलोवपांत मिश्कीलपण आशिल्लें. खरें कितें तें कळनाशिल्लें. मदींच ते गालांतल्या गालांत हांसताले, मदींच गंभीर जाताले. त्या खिणाक तांचें तोंड म्हाका वागा वरी दिसलें. ते उपरांत, कितल्याश्याच फावटीं भीमसेन अक्काजींगेर अदीं-मदीं येताले. वेळ काळ कांयच नासतालो. सकाळींफुडें, दनपरां, केन्ना केन्ना रातचेय बी. म्हणुनूच गंगुबाईच्या सगळ्या शिश्यांचें भीमसेनां कडेन खूब लागींचें नातें आशिल्लें. आमची सगळ्यांची ते आस्थेन चवकशी करताले.

पं. भीमसेन जोशी संवसाराक अंतरले ही बातमी कळ्ळी तेन्ना मन फाटल्या यादींनी घुसपलें. गुरुबंधू हें नातें कितलें उमाळ्यांनी भरिल्लें आसता हाची पयलेच फावट म्हाका जाणवीक जाली, अक्काजी आनी भीमसेन हांचो संबंध लागींच्यान पळेलो तेन्ना. गुरू आनी शिश्याचें नातें अमर. शास्त्रीय संगितांत तर गुरू बगर पर्यायूच ना. पुणून पं. भीमसेन जोशींक गुरुभगिनी गंगुबाई हानगलां बगर पर्याय ना अशी परिस्थिती तांच्या शिकावू शिश्यत्वाच्या काळांत तांणी अणभवल्ली. म्हणुनूच गंगुबाई (अक्काजी) तांच्यो ज्येष्ठ गुरुभगिनी, आवय, इश्टीण आनी गरज पडटा तेन्ना गुरूय बी अशें तांचें नातें आशिल्लें.

पंडीतजींक अक्काजीच्या घरांतलीं सगळीं भीमण्णा म्हणटालीं. म्हाकाय बी तांकां भीमण्णा म्हणपाची सवय जाल्ली.

भीमण्णा भारतीय नागरिकां खातीर 'भारतरत्न', संगीत रसिकां खातीर स्वर-भास्कर, तशेच किराणा घराण्या खातीर शिरोमणी. सामान्यांतले सामान्य जावन वागपी भीमण्णा गदगच्या वा कुंदगोळच्या रसिकां खातीर देव-मनीस. आनी तितलेच तांचे भितल्लेच एक सामान्य मनीस. तांचे लागींचे इश्ट-मित्र, काळजाच्या नात्याचे हांगचेच.

गदग, कुंदगोळ, हुबळी आनी धारवाड वाटारांतले. तांचें रहाणीमान हांगच्या लोकां वरीच आशिल्लें. भीमण्णा पुण्यांत रावन पुरायेन महाराष्ट्रीय जावन केन्नाच जगूंक शकलेनात. आपलो गांव, आपल्या गुरूचो गांव, आपलो कन्नड लोक आनी आपली कन्नड भास - हांचो सगळ्यांचो तांकां अभिमान आशिल्लो. म्हणुनूच, आपल्या गांवांतल्या कश्टकरी लोकां पसून, वयल्या वर्गांतल्या लोकां कडेन तांणी काळजाचें नातें जोडिल्लें. ह्या कश्टकरी समाजांतल्या तांगेल्या इश्टां बरोबर ते शेतांनी, मळ्यांनी वताले. आनी मागीर तृप्ततायेन अक्काजीं बरोबर वरांचीं वरां खबऱ्यांकूय बसताले. गांवचीं पिकां, शेतां ते राजकारण — सगळ्या विशयांचेर ते गजाली करताले.

अक्काजींगेर भितल्ल्या दिवाणाचेर बसून तांच्यो खबरी चलताल्यो. मर्दींच हांसप, मर्दींच एकामेकांचेर रागार जावप, तापप, आनी मागीर परतींय एक जावप अशें तांचें चालूच आसतालें. तांचे भितरली काळजाची आनी मनाची एकी पक्की आशिल्ली. खरें म्हळ्यार गंगुबाई हानगल, भीमसेन जोशी आनी फिरोज दस्तूर हें एक त्रिशूळ कशें, तिगांय पं. सवाई गंधर्वांचीं शिश्य. तांतल्यो गंगुबाई अस्सल किराणा घराण्याची अभिजात गायकी गावपी, पं. भीमसेन किराणा घराण्याच्या शास्त्रशुद्ध गाण्या बरोबर, अभंग, ठुमरी, नाट्य संगीत आनी फिल्मी संगीत लेगीत गावपी. जाल्यार पं. फिरोज दस्तूर पं. सवाई गंधर्वांची अस्सल किराणा घराण्याची गायकी सादर करपी एक बुद्धीमान गायक आशिल्ले. तांचो पातळ आवाज, पं. सवाई गंधर्वांचे गायकी बरोबर जुळपी. ते सिनेमांनी कामांय करताले. तिगांय भितर किराणा घराण्याचो स्वरप्रधान सूर आशिल्लो. अभिजात गायकी आशिल्ली. आज हीं तिनूय नखेत्रां पंचतत्वांत विलीन जाल्यांत. तिगांय भितर एक गूण सामको तीव्रतेन दिसतालो. तो म्हळ्यार, गुरूभक्ती. गुरूचेर आशिल्ली निश्ठा. गुरू बद्दल, तशेंच किराणा घराण्याचे घरंदाज गायकी बद्दलूय तांकां वेगळोच अभिमान. आपल्या गुरू खातीर, ताचें नांव उरचे खातीर कितेंय करपाची तांची तयारी आसताली. म्हणून जेन्ना जेन्ना तीं गुरूच्या नांवान सम्मेलन घडोवन हाडटालीं तेन्ना आपलीय गायकी गुरूक ओंपतालीं.

पुण्याच्या सवाई गंधर्व सम्मेलनाक अक्काजी वताल्यो तशेच, भीमण्णा कुंदगोळा येताले. पं. फिरोज दस्तूरूय येतालेच येताले. ते खासा पावलेनात जाल्यार तांच्या शिश्य परिवारांतले कांय जाण येवन कुंदगोळाक पं. सवाई गंधर्व संमेलनांत गायताले. इतली तांची गुरूभक्ती. कुंदगोळचें संमेलन सवाई गंधर्वांचे पुण्यतिथी दिसाच जाता. सादारण सप्टेंबर वा ऑक्टोबरांत तिथी प्रमाण तें येता. पुण्याचें संमेलन डिसेंबर म्हयन्याच्या दुसऱ्या आठवड्यांत घडोवन हाडटात. म्हणटकच, गंगुबाई, भीमसेन आनी दस्तूर तिगांय एकठांय जातालीं तेन्ना गुरू पं. सवाई गंधर्वांच्यो यादी काडीत बसतालीं. तिगांय कन्नडांत उलयतालीं. हाका लागून म्हाका सगळें समजतालेंच अशें ना. पुणून, तांकां तिगांकूय एकठांय बसून गजाली करतना पळोवन एक वेगळोच आनंद मेळटालो. गंगुबाईगेर पं. भीमसेन वा पं. फिरोज दस्तूर जेन्ना जेन्ना आयल्यात ते गुरुजींच्या फोटोक पळोवन तांचें रूप, तांचें गाणें आनी तांचें शिकीवप हाच्या संदर्भांत भरपूर उलयल्यांत. अर्दी-मर्दी गोड यादींनी मेकळेपणान, मोठ्यान हांसल्यांत.

अक्काजी भीमण्णाक 'भीमू' म्हणटाल्यो. तांचे खातीर भीमण्णा एक धाकलो भाव कसो. गंगुबाईंचें गायनाचें शिक्षण चलतालें तेन्ना त्यो हुबळी परततना काळोख पडटालो म्हणून कुंदगोळाच्या पं. सवाई गंधर्वांच्या घरा कडल्यान रेल्वे स्टेशना मेरेन भीमण्णा अक्काजीक पॅट्रोलाचो लापयांव घेवन पावोवपाक येताले. गुरुजीन कितें शिकयलें तें तांचे कडल्यान म्हणून घेताले आनी आपुणूय रियाज करून तें तयार करताले. सवाई गंधर्वांच्या घरांतलीं सगळीं कामा भीमण्णा करताले. उदक भरप, सान्न मारून घर निवळ करप, रांदचे कुडींत जेवण करतना मदत करप... सवाई गंधर्वांचो एक पूत हांथरुणाचेर आसतालो. तो अपंगूळ आनी मंद बुद्धीचो आशिल्लो. ताची बरीचशी सेवा भीमअण्णान केल्या. ह्या सगळ्या कामाच्या बोवाळांत भीमण्णा गुरुजीं बरोबर व्यवस्थीत बसून तालीम घेवंक पावनाशिल्ले... अक्काजी कडल्यान खूब फावटीं हांवें हें आयकलां.

खरें म्हळ्यार भीमण्णांची जिद्द आनी चिकाटी हांचे उगडास सांगतना खूबदां तिचे दोळे भरून येताले. तांच्या कश्टांचेर उलयतना ती घळघळीत रडटाली. भीमण्णां वयलो तिचो हो उमाळो निमाणे मेरेन तसोच आशिल्लो. प्रत्यक्ष मेळूंक पावलिंनात जाल्यार फोना वयल्यान एकामेकां कडेन तीं संपर्क दवरतालीं. केन्ना केन्ना भीमण्णाक पळोवपाची तिका इत्सा जाताली. तेन्ना ती तांकां फोन करताली. बारीक आवाज आयकूंक येना म्हणून फोनाचो स्पीकर चालू आसतालो. अक्काजी भीमूचेर तापताली - "हांव म्हातारी जालीं, आतां देवाचें आपोवणें येवचे पयलीं एक दीस मेळपाक येतलो काय ना?"

भीमसेनान म्हणचें, "देवान तुका आपयल्या? काय म्हाका? राव आं... विचारून येतां...!"

अक्काजीन बेजारून म्हणप, "फकत फकाणां कर... तुका म्हजी मात्तूय याद येना!"

भीमसेनः "म्हाका कोण आसा? म्हजी अव्वा (आवय) ना. म्हजी वत्सला (बायल) ना. आनी भुरगीं आसून पयस पयस... कितें सांगूं... कसो येवूं? पयलीं बशेन गाडी चलोवन हुबळी येवपा इतली शक्त खंय उरल्या आतां?"

अश्यो गजाली करीत करीत दोगांय निमाणीं मायेच्या उतरांनी एकामेकांचो निरोप घेतालीं.

खरें म्हळ्यार, पं. फिरोज दस्तूर पयलीं अंतरले. ते अक्काजी आनी भीमण्णां परस पिरायेन ल्हान. पुणून, शिश्य म्हणून तांचे दोगांय परस ज्येश्ठ. ताका लागून, भीमण्णांचो आनी गंगुबाईंचो पं. फिरोज दस्तूरांचेर सामको जीव. एक फावट अक्काजींगेर आयिल्लो आसतना पं. दस्तूरांची याद काडून सामको भावनावश जाल्लो, कासावीस जाल्लो भीमण्णाय हांवें पळयला.

भीमण्णांच्या घरांतल्या सगळ्या कार्यक्रमांक अक्काजी हजर रावताल्यो. पंडीतजींक घरांत पसून कितेंय त्रास जाल्लो अक्काजींच्यान पळोवं नजो जातालो. बायल, भुरगीं हांचेय कडेन कितेंय मातशें विनसलें जाल्यार अक्काजी मर्दी पडटाल्यो. घरच्यांचेर फोना वयल्यानूच मोठ्या मोठ्यान तापताल्यो.

खरें म्हळ्यार तांचें भावबंदाचें नातें सांगपी प्रसंगांची याद केल्यार, एक वरी कादंबरी तयार जातली. अक्काजी पंडीतजींचेर उलोवंक

लागल्यो काय रोखड्यो थांबऽ नासल्यो. आपल्या भीमूच्यो तोखणायो करीत तितल्यो तिका कमी दिसताल्यो.

उलयतां उलयतां, कांय वायट संवयो, वेसनां तशेच सभावांतले वायट गूण हांचेर त्यों मेकळेपणान सांगताल्यो. भीमण्णांक राग कसो येतालो तेंय सांगप. आनी मागीर, निमाणे कडेन, "हें सगळें लोकां कडेन उलोवपाचें न्हय आं..., प्रत्येक मनशांत बरे तशेच वायट गूण आसतातूच. मायेचो धागो जुळ्ळो काय थंय सगळें क्षम्य आसता. तसो तो म्हजोच पूत कसो..."

भीमण्णांच्यो खाणा-जेवणाच्यो खबरी त्यो रसपूर्णतेन सांगताल्यो. भीमण्णांक भूक व्हडली. तांकां भरपूर खावपाक जाय आसतालें. मनसोक्तपणान भरपूर खावप आनी भरपूर रियाज करप. हो भीमण्णांचो नित्य-नेम.

"खावप आनी गावप" हो भीमण्णांच्या जिविताचो मंत्रूच अशें अक्काजी हांसत हांसत सांगताल्यो.

अक्काजींगेर भितर सरले काय भीमण्णान पयलीं रांदचे कुडींत वचप. घरावें तूप विकतें न्हय, घरांत केल्लेंच... ते भायर, म्हाका आज भाकऱ्यो जाय, तिखट चटणी जाय, बेसन लाडू जाय अशें हक्कान, गंगुबाईंचे सुनेक, ललिताक्काक तांणी सांगप. गंगुबाईंचे धुवेन (कृष्णान) मागीर भीमण्णांक म्हणप, "आरे भीमण्णा, तूं आतां आयला थंयच आसा, फकत खाणाचें चिंत्ता? अक्काजीची, म्हजी, घरच्यांची खबर तरी घे!" अक्काजींगेर भीमण्णांक असली कर्नाटकी घरावें जेवण-खाण मेळटालें. भुरगेपणांत खाल्ल्या खाणांची जिबेर रूच आशिल्ली ती भागोवंक मेळटाली. जीं खाणां, तांकां आषणागेर पुण्याक मेळनाशिल्लीं तीं ते अक्काजींगेर येवन हक्कान फर्माईश करून खाताले. गंगुबाईंचो पूत बाबण्णा तांकां कितें जाय नाका तें बाबण्णा बारीक पळेतालो. तांच्या तोंडांतल्यान उतर भायर येना फुडें तांची इत्सा भागयताले. आवयगेर अपुर्बाय करून घेवंक येवचे तशे भीमण्णा अक्काजींगेर येताले. संवसारभर नामना मेळयल्ले हे भारतरत्न पं. भीमसेन जोशी तेन्ना भुरग्या वरी वागताले.



घरांत भितर सरना बरोबर आपलो पायजमो सदरो काडून लुंगी आनी बानयन घालून तांणी घरांत बसप.

पंडीतजींचें पुण्याचें सवाई गंधर्व संगीत संमेलन आनी कुंदगोळाक, गंगुबाईंचें सवाई गंधर्व संगीत संमेलन. १९५२ वर्सा पं. सवाई गंधर्व वचत पसून हीं संमेलनां दर वर्सा घडोवन हाडटात. ह्या दोनूय संमेलनांची देशांत खूब नामना आसा. तांच्या आयोजनाक लोकप्रियता मेळ्ळ्या. पं. भीमसेन खासा आपूण लक्ष घालून हें संमेलन घडोवन हाडटाले. पुणून, आपल्या किराणा घराण्याच्या, आपल्याक सिनियर आशिल्ल्या श्रेश्ठ गायकाक पयस दवरून पंडीतजी खासा आपूण संमेलनाचे कमिटीचे अध्यक्ष केन्नाच जाले नात. अध्यक्षस्थानाचेर पयलीं विदुषी हिराबाई बडोदेकर आसताल्यो आनी त्यो वतकच १९९० सावन अक्काजी अध्यक्ष जाल्ल्यो. मर्दी, भीमण्णांच्याच कांय मनशांनी हे गजालीचेर आक्षेप घेतिल्लो. पंडीतजींनूच अध्यक्ष जावचो अशी सुचोवणी आयली. एक दीस अक्काजीनूच सांगलें, "परत्यो, परत्यो तुमच्यो बसका जातात. तेन्ना म्हाका हजेरी लावप कठीण जाता. म्हज्या भीमूकूच अध्यक्ष करात." पुणून, पंडीतजीन आयकलेंना. आपले वडील भयणीक ते खूब मान दिताले.

पंडीतजींचो सभाव खूब हुकुमी आनी. तितलोच खूब हळवो आनी मोव आशिल्लो. तांच्या हुकुमी स्वरा बशेनूच तांचो सभावूय बी. एक थीर निर्णय घेवप आनी निर्णया कडेन प्रामाणीक रावप हो पंडीतजींचो गूण. तांणी केन्नाच कोणाचें आयकून निर्णय घेवंक ना. मनाक दिसता तेंच केलां. कोणेंय कितेंय सांगूं, बरोबर दिसूं, ना दिसूं, आपल्या मनीसपणाचे जाणविकेन जें जें सत दिसता ताका स्मरुनूच पंडीतजीन सगळे निर्णय घेतल्यात.

बरेच फावट पंडीतजींक घरच्याचें आयकनासतना कांय निर्णय घेवचे पडल्यात. आपले गायकीच्या फुडाराक जें योग्य दिसता तेंच तांणी केलां. आनी, तांणी केलां तेंच योग्य आशिल्लें ही प्रचिती सगळ्यांक मागीर आयल्या. पुणून पंडीतजींच्या त्या निर्णयाचेर बरीच चर्चाय जाल्या. केन्ना केन्ना पंडीतजींचे बाबतींत तांकां सामके लागीं आशिल्ल्या मनशाचो लेगीत

गैरसमज जाला. तेच प्रमाण, आपली चूक जाल्या म्हणून तांकां कळ्ळां तेन्ना तेन्ना मारतें घेवन फार्टी सरपाचें ल्हानपण तांणी घेतलां. पंडीतजींक मना पसून माफी मागतनाय हांवें पळयल्यात. खरें म्हळ्यार, एका कलाकाराक खूब प्रसंगांतल्यान वच्चें पडटा. केन्ना केन्ना कांय गजालींचो त्यागूय करचो पडटा आनी कांय कडेन तडजोडूय करची पडटा. तशी तडजोडूय भीमण्णान आपले गायनाचे कारकिर्दींत केल्या. तांचें चरित्र वाचतना हें समजता आनी प्रत्यक्षांत तांच्या वागपांतूय हें हांवें पळेलां. पंडीतजींचो हो सभाव अक्काजींक सारको खबर आशिल्लो. म्हणुनूच जायते फावटीं तांकां सांबाळून घेवपाचें काम अक्काजीन केलां. अक्काजी भायर पडल्यो तेन्ना पंडीतजींनी म्हळें, ''खऱ्या अर्थान आज हांव अनाथ जालों. आज म्हजी भयण, आवय आनी गुरू अश्या तीन स्थानांचेर आशिल्ली म्हजी अक्का गेली...'' मुखार तांकां उलोवंकूच जायना जालें. ते फकत हुडके काडीत उरले...

एका काळार गंगुबाईंची याद आयली म्हणटकच पंडीतजी घरांत पसून कोणाकूच सांगिनासतना पुण्या सावन सरळ हुबळी येताले. खासा आपूण गाडी चलोवन एकटेच येवप. ते हुबळी पावतकच मागीर गंगुबाई पंडीतजींच्या घरा फोन करून सांगताल्यो, ''भीमू म्हगेर पावला. चिंता करपाची गरज ना.'' परिणाम — जेन्ना पंडीतजी घरांतल्यान अशे नाच जाताले, गंगुबाईगेर फोन येताले. भीमू घरांतल्यान भायर सरला, अजून परतूंकना म्हणून कळटकच गंगुबाई सामक्यो अस्वस्थ जाताल्यो. भीमू खंय पावला तें कळसर त्यो भायर भितर पासयो मारीत रावताल्यो. भीमण्णा जंय जंय वचपाची शक्यताय आसताली थंय फोन करून खबर घेताल्यो. अशें तांचें सामकें लागींचें नातें. आपलो भीमू गाडी खूब सुंदर चलयता म्हणून गंगुबाई खूब अभिमानान सांगताली. पुणून होच भीमू गाडी घेवन एकटो वतालो तेन्ना भियेताली. धा फावटीं ताका ''सारको सांबाळून वच... सवकास चलय...'' अशें सांगताली. भीमण्णान तिका जाप दिवप, ''हें पळय, गाडी बंद पडली जाल्यार खंयचो पार्ट गेला, कितें जालां तें म्हाका जोडपाक येता आनी तोडपाकूय येता. गाडी खराब जाल्यार भंय ना. पुणून, मुद्दाम कोणेंय गाडी हाडून मारली जाल्यार पर्याय ना. तात्पर्य - ''चिंता माड बेडा'' हुस्को करूं नाका. जाणटेपणांत पंडीतजीय दुयेंत आसताले आनी अक्काजीय दुयेंत आसताल्यो - पुणून अशे दुयेंत परिस्थितींतूय २००८ वर्सा पंडीतजींक आपल्या हनगल म्युझीक फावंडेशनाचो पुरस्कार दिवपाक गंगुबाई पुण्याक पंडीतजींगेर आयिल्ल्यो. तेन्ना पंडीतजींच्या घरांतूच हो पुरस्कार वितरणाचो कार्यक्रम दवरिल्लो. निकतेच संवसाराक अंतरिल्ले किराणा घराण्याचे श्रेश्ठ गायक आनी पं. सवाई गंधर्वांचे नातू पं. श्रीकांत देशपांडे हांणी कार्यक्रमाची सगळी जापसालदारकी घेतिल्ली. पंडीतजींच्या घरा पत्रकारांनी भरपूर गर्दी केल्ली. कारण, पंडीतजीय दुयेंत आशिल्ल्यान भायर लोकांक दिसनाशिल्ले. लोकांक ह्या दोनूय रथी-म्हारथींक बरोबर पळोवपाची संद घेवपाची आशिल्ली. कार्यक्रमा निमतान भीमण्णागेर भितर सरतनाच गंगुबाईन तांकां प्रस्न विचारलो, ''कसो आसा बाबा म्हज्या...? भुरगो मरे तूं...'' अशें म्हणून त्यो रडूंक लागल्यो. पंडीतजीन जाप दिली, ''आतां म्हजीं सगळीं ठतरां सोंपल्यांत... कितें सांगू?'' मागीर भीमअण्णाक ल्हान 'भुरग्या वरी तिणें सांसपिल्लो आनी ''सांबाळून राव बाबा, तुजी परिस्थिती पळोवं नजो म्हज्यान...'' अशें म्हणून ती हुडकेवंक लागली. कसो तरी तिणें कार्यक्रम सोंपयल्लो आनी दुकां गळयत भीमण्णाचो निरोप घेतिल्लो. हो तांचो दोगांयचो निमाणो निरोप आशिल्लो. ''म्हजे परस धा-बारा वर्सांनी ल्हान तो. इतलो कसो थकलो म्हजो भीमू...'' अशें ती पुण्या सावन हुबळी पावऽ मेरेन उलयताली. खरें म्हळ्यार गंगुबाईंचेंय आरोग्य तेन्ना सामकें खालावल्लें. पुणून ते स्थितींत लेगीत तिका चिंता भीमण्णाची. खरें म्हळ्यार, किराणा घराणें, तांची गायकी, तांणी स्वतःच निर्माण केल्लें एक वेगळेंच जग.... हें कशें उतरांनी पितारप तें समजना. तें पितारपा खातीर गायनाच्या संवसारांत शेणूंक जाय. तांचे स्वरप्रधान गायकींत बुडूंक जाय.

पं. सवाई गंधर्वांच्या ह्या तिगांय शिश्यांचें स्थान लक्षांत घेतल्यार तांचे येदी उंचाय गांठपी गायक किराणा घराण्यांत तांचे उपरांत जालेनात अशें म्हणचें पडटा. तरी पुणून, आपले परीन, कांय गायक आज यत्न करतात. जयतीर्थ मेवंडी, कैवल्यकुमार गुरव सारके गायक कलाकार ही गायकी मुखार व्हरपाक धडपडटात. पुणून, स्वराक ती ''परिपक्वतेची गोलाय'' येवपाक फकत बुद्धीमत्ता आसली म्हणून जायना. मेहनत, योग्य तरेचो रियाज, सातत्य, चिकाटी आनी म्हत्वाची म्हणल्यार स्वरांचेर श्रद्धा आसूंक जाय. स्वरांचेर श्रद्धा आसली काय आपसुकूच गायकाचो स्वर काळजाक भिडटा. हो काळजाक भिडपी स्वर आज शेणपाक लागला. पंचतत्वांत विलीन जाल्लो हो स्वर परत रुजून येत काय? विदुषी गंगुबाई वा स्वरभास्कर पं. भीमसेन जोशी सारक्या श्रेश्ठ गायकांचे गायकींत ही समर्पकताय आनी खोलाय दिसताली. आज, हातांच्या बोटांचेर मेजपा इतलेच कलाकार ह्या काळजाच्या स्वरांतल्यान गायकी मांडटात. केन्ना केन्नाय अशें दिसता, आमी स्वर-रसीक लेगीत तितले परिपक्व नात. ह्या बुजूर्ग लोकांचें गाणें काळजांत पावतलें जाल्यार तश्या जाणकार रसिकाचीय आज़ गरज आसा. म्हणुनूच मना पसून दिसता, फाटले पिळगेंतल्या नांवाजत्या गायकांचें ध्वनीमुद्रण आयकून आयकून आमी आमचे कान तयार करपाचीयबी गरज आसा.

पं. भीमसेन जोशी, शास्त्रीय संगितांतले अभिजात गायक. तेचप्रमाण, संतवाणी गावपी अभंग गायक, ठुमरी, भक्तीगीत, फिल्मी गीत हेय प्रकार हाताळपी एक बऱ्यांतले बरे गायक. कारण, भीमसेनी गायकी युनीक, एकमेव अशी. थंय कोणाचेंच अनुकरण दिसना. पंडीतजींचे गायकींत दिसता तो निवळ नितळ व्हांवपी दुदाळ झरो... सैमाचे पवित्रतायेन भरिल्लो ''अनाहत नाद'', जिविताचे वाटेचेर मेळिल्लो शांतिक्रायेचो सूर... तांचें पावित्र्य कशें थारावचें, तांची उंचाय कशी पळोवची, देवळाच्या कळसा मेरेन लेगीत नदर पावयतना नाका जीव जाता. येद्या व्हडल्या म्हासागराची ही अथांगता खंयच्या उतरांनी मांडचीं तें कळना.

स्वर म्हणल्यारूच आत्म्याचो आवाज. होच पंडितजींच्या आत्म्याचो आवाज. तो आमच्या नव्या गावप्यां मर्दी निनादचो ही आकांक्षा आनी प्रार्थना...



# म्हजो रवीन्द्र सांगात

**दिलीप बोरकार**

मार्च म्हयन्याची ७ तारीक. कितें तरी चुकिल्ले चुकिल्ले सारकें जालें.

कितें चुकलां काय? अशी याद करपाचीय गरज नाशिल्ली. कितें चुकलां तें म्हाका खबर आशिल्लें.

मार्च लागलो काय ह्या म्हयन्यांत रवीन्द्रबाबाचो वाडदीस आसा, वचूंक जाय तागेर! ही गजाल तकलेंत घट्ट बरी बसून आसताली. यादी खातीर केन्ना डायरेचेर नोंद बी करून दवरची पडूंक ना.

फाटलीं कितलीशीं वर्सां तो एक नेमूच जावन पडिल्लो. कितलीं वर्सां जालीं हे गजालीक? तातो कडेन संवकळ जावंक नाशिल्ली तेन्ना हांव तागेर खास ताच्या वाडदिसाक म्हूण गेलोंना. फकत फोन करून ताका परबी भेटयल्लीं. पूण उपरांत १९७७ सावन तागेर नेमान म्हजें वचप जावंक लागलें. तेन्ना दर वर्सा ७ मार्च चुकोवप ना, त्या दिसा तागेर वचपूच वचप अशें हांवें थारायलें आनी नेमान वचूंक लागलों. एक्कूय वर्स खंड पडूंक दिलो ना.

सकाळीं वचप, दनपरां जेवपाक रावप, ताचे कडेन गजाली मारप आनी भायर सरतना गिन्यानाचे शिशे तकलेंत भरून भायर सरप.

शिशे हो प्रकार म्हाका आवडटा. पळोवपाक आनी खावपाकूय. ताका दुसरे लोक कितें म्हणटात तें खबर ना. पूण म्हजो पापा ताका शिशे म्हणटालो. बारीक मुसांनी खंयीय म्होंव केलें जाल्यार तें म्होंवा पोळें म्हजो पापा काडटालो. त्या पोळ्यांत हळदुवें, केशर रंगाचें पिठें आसतालें आनी रूप घेतिल्ल्या म्होंवाचे शिशे आसताले. ते शिशे पळयले बराबर कळटालें, हे सामके म्होंवान भरल्यात म्हूण. हेच तरेचे गिन्यानान भरिल्ले शिशे हांव प्रियोळच्यान घेवन भायर सरलां.

वाडदिसाक लोकांनी आपल्यागेर येवचें, आपल्याक फुलांतुरे हाडचे, भेटवस्तू हाडच्यो, आपल्याक परबी भेटोवची अशे विचार करप्यां मदलो तातो नाशिल्लो. असल्यो गजाली हुपून तो केन्नाच मुखार गेल्लो. देखुनूच तर ताचे कडेन म्हजें जुळटालें. ताच्या वाडदिसाक वचून ताचे म्हऱ्यांत बसतालों. म्हाकाय संवय जाल्ली आनी ताकाय. हांव येतलों म्हूण वाट पळयत बसतालो. बाकीचेय लोक येताले. तांचीय वाट पळयतालो काय कितें, खबर ना. पळयतालोय बी आसुये! पूण हांव पावले बराबर विचारप ताणें, 'वेळ कित्याक जालो रे?'

खूब वर्सां उपरांत पयर ७ मार्चाक मात हांव तागेर गेलों ना. तातोच आतां ना, मागीर वचप कित्याक? तरी एक मन सांगतालें, तातो थंय देहान, कुडीन नासत, पूण ताची सासाय, ताचें संचरण थंय आसा. थंयचे दरेके वस्तूंत तातो जें जें कितें उलयला तें रिकॉर्ड जावन आसा. तोंडांतल्यान उतरां भायर सरलीं म्हणटकच तीं हवेच्या माध्यमांतल्यान काना मेरेन वतात. कानांतल्या पड्ड्यांचेर आपटून कंपन जाता आनी मागीर त्या उतरांचो अर्थबोध जाता. शास्त्र अशें सांगता. हीं उतरां वाऱ्याचेर बसून वतना थंयच्या, ते वास्तूंतल्या वणटींचेरूय आपटल्यांत. त्या वणटींनी तीं आडायल्यांत आनी आपले भितर ओडून घेतल्यांत. त्या वणटींक कान लायल्यार तीं आयकूंक येतलीं. असो एक भोळो विचार म्हजे तकलेंत येताय बी. सांगू नजऽ, फुडें फाटीं अशी एक यंत्रणा विकसीत जावं येता, जी वणटीक लायली म्हणटकच जे जे लोक ते वास्तूंत येवन उलयल्यात तांचें सगळें उलोवप तांच्या आवाजा सयत आयकूंक मेळटलें...! तशें घडत जाल्यार एक क्रांतीच जातली. आमी ग्रामोफोन रिकॉर्डीक सूय लावन आवाज आयकनात तर!

येवजूंक गेल्यार, रवीन्द्रबाबाचो सहवास लाभप ही खऱ्यांनीच एक दैवदुर्मीळ गजाल. रवीन्द्रबाब आमकां सहज उपलब्ध आशिल्ल्यान ताच्या सहवासाचें मोल आमकां केन्नाच कळ्ळें ना. म्हजे सारक्याक तें होलमलें आनी सत्कारणी लावपा खातीर म्हजे कडेन बरोच वेळूय आशिल्लो.

खरें म्हळ्यार, हांव कवी मनाचो मनीस. म्हजें बाकीबाबा वांगडा बरें जुळपाचें! जितलो ताचे कडेन संपर्क आयला तितलें बरें जुळ्ळांय बी! पूण खूब अल्प सहवास तो! थोडींच वर्सां. पूण रवीन्द्रबाबा वांगडा तीन दसकां सरल्यांत, जावं मागीर ते सुमानांतले एक दोन दीस! म्हयन्यांतले आठ दीस तरी हांवें रवीन्द्रबाबा वांगडा सारल्यात.

वेगवेगळ्या विशयांचेर आमी उलयल्यात. उलयल्यात म्हणचे परस तातो उलयला. हांवें चडशें आयकुपाचें काम केलां. हांव कितें म्हूण उलोवपाचों? उलोवपा सारकें म्हजे कडेन कांयच नाशिल्लें. म्हजे कान उकते राविल्ले ते फकत आयकुपा खातीर. मन तयार रावतालें नवें नवें गिन्यान आपले भितर आसपावन घेवपा खातीर. तापिल्ले जमनीर उदकाचो थेंब पडले बराबर जमीन तो थेंब आपले भितर अडसवन घेता तशें म्हजें मन गिन्यानाचो एकेक थेंब कानार पडले बराबर आपले भितर अडसवन घेतालें. इतलेंय आसून तातो म्हणटालोच, 'सांग रे कितेंय खबर... कितें चल्लां गोंयांत?'

पिरवळा रावन गोंयांत कितें चल्लां हें ताका बेस बरें खबर आसतालें. कोंकणीच्या मळार कितें चल्लां हाचीय ताका जाणविकाय आसताली. केन्ना केन्ना, चल्लां तें बरें चलना अशें दिशिल्ल्यान तातो अस्वस्थ आसतालो. ती अस्वस्थकाय उकतावपा खातिरूच ताचे हे प्रस्न आसताले. आनी मागीर कितें कितें सारकें चलना तें तो सांगतालो. सांगतालो खंयचो? तो म्हजे सारक्यांक कोमार काडटालो, पेटोवन घालतालो. पुराय आयुश्य ताणें तशेंच केलां. सतत हेरांनी पेटत रावचें, इंगळे जावन खतखतचें म्हूण आपल्या उलोवपाचो आनी बरपाचोय वापर केला.

हांव तातोक मेळ्ळों तेन्ना म्हजी संस्कारग्रहण करपाची पिराय आशिल्ली. जें कितें म्हाका खबर नाशिल्लें वो हांवें वाचूंक नाशिल्लें

तें सगळें भव्य दिव्य तातोच्या तोंडांतल्यान आयकूंक मेळटा हाचे इतलें व्हडलें भाग्य खंयचें?!

किशोरलाल मशरुवाला काकासायब कालेलकरां विशीं म्हणटात, '...कोणाकूय काकासायबांनी दिल्ल्या शिक्षणाचो खाशेलो आनंद घेवपाचो आसत जाल्यार तांचीं भाशणां आयकुचे परस तांचे खाटी म्हऱ्यांत वचून बसचें...'

रवीन्द्रबाबाकूय काकासायबांचो खूब व्हडलो सहवास मेळ्ळा. काकासायबां कडल्यान ताका ज्यो उद्‌बोधक, प्रेरक, रोचक अश्यो गजाली आयकूंक मेळ्ळ्यात तांतल्यो कांय ताणें डायरेंत नोंद करून दवरिल्ल्यो. *ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत* ह्या नांवान त्यो संकलीत करून तांचें मराठींतल्यान एक पुस्तक वोरा ॲण्ड कंपनी पब्लिशर्स हे प्रकाशन संस्थेन काडलां.

रवीन्द्रबाब काकासायबांचो 'लेखकु' आशिल्लो. काकासायब जें कितें सांगतात तितलेंय बरोवन घेतालो. तांचे वांगडा आसतना तांचे भितर जावपी वार्तालाप घट्ट बरो तकलेंत दवरून मागीर तो डायरेंत बरोवन काडप हें काम रवीन्द्रबाबान केलें आनी तें *ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यांत* ह्या माथाळ्यान उजवाडाक हाडलें.

रवीन्द्रबाब 'बरोवंक जमना, हात थरथरतात...' अशी तक्रार करतालो तेन्ना हांवें जायतेदां ताका म्हणिल्लें, 'तातो, बरयन दिसता जाल्यार म्हाका डिक्टेट कर. हांव बरोवन घेतां.'

पूण डिक्टेट करपाचो तातोचो सभाव नाशिल्लो. आपल्या हातान बरयलेंना जाल्यार आपल्याक बरयलां अशें दिसना. बरोवपाचें समाधान आपल्या हातान बरयले उपरांतूच मेळटा अशें तो म्हणटालो. डिक्टेशन घालपाचो ताचो सभाव नाशिल्लो.

'डिटेक्शन घेवपी गणपती सारको आसूंक जाय' अशें रवीन्द्रबाबान म्हणचें.

ताचो अर्थ कितें हें म्हाका ते पिरायेर कळूंक नाशिल्लें. वाचन करतालों, पूण तें से पिराये प्रमाण पांचट कादंबऱ्यांचें. त्यो कांदबऱ्यो वाचून म्हजे बुद्दीची वाड जावंक जाय तितली जावंक नाशिल्ली. रवीन्द्रबाब कथन करतालो तसले संदर्भ कळपा सारकें वाचन तर जावंकूच नाशिल्लें.

व्यासमुनीन महाभारत बरोवंक घेतलें तेन्ना ताणें ब्रह्मदेवा कडेन आपल्याक लेखनीक दी म्हूण मागलें खंय. ब्रह्मदेवान गणपतीचें नांव सुचयलें. गणपती व्यासाचो लेखनीक जावंक तयार जालो. पूण एक अट घालून. आपूण सांगता तितलेंय बरोवन घेतलों. पूण सांगप्यान मर्दी थारूंक उपकारना, थारल्यार हांव उठून वतलों अशें सांगून.

व्यासान गणपतीची अट मानून घेतली. पूण आपलीय एक अट सांगली - आंपूण जें सांगतां तें नीट समजून घेवन, अर्थ लावन बरोवन घेवचें पडटलें, म्हूण.

गणपतीन व्यासाची अट मान्य केली. व्यास महाभारत सांगत गेलो. तो थकतालो तेन्ना एक कठीण शब्द गणपती मुखार दवरतालो. ताचो अर्थ कळना जातकच गणपती थारतालो. ताचें मनन करतालो. इतलें म्हणसर व्यास आपलें फुडलें सांगप विचार करून जुळोवन घेतालो.

रवीन्द्रबाबान महाभारताचें अनुसर्जन करपाक घेतिल्लें त्याच दिसांनी भोवतेक ताणें हें म्हाका म्हणिल्लें जावंक जाय. रवीन्द्रबाबा वांगडा दीस सारून रातचो घरा पावतकच न्हिदचे पयलीं हांवें म्हाका याद जाता तश्यो कांय गजाली डायरेचेर नोंद करून दवरिल्ल्यो. त्यो चाळूंक बसतां तेन्ना म्हाका रवीन्द्रबाब एके वेगळेच तरेन दिसूंक लागता. रवीन्द्रबाबान जें जें कितें म्हाका सांगलें, जें जें तो म्हजे कडेन उलयलो ताची नोंद हांवें केल्ली. ताचें सांगप इतलें पारदर्शक आनी नितळ आसतालें की तें विसरप शक्यूच नाशिल्लें. आयजूय म्हाका ताणें सांगिल्ली एकान एक गजाल येवजता. ताणें आनिकूय एक गजाल सांगिल्ली. ती म्हळ्यार, खंयचेय व्यक्ती विशीं तुज्या मनांत जें कितें आसा, जें कितें दिसता तें सगळें ती व्यक्ती ह्या संवसारांत आसा म्हणसर बरोवपाचें. ती व्यक्ती ह्या संवसारांतल्यान ना जातकच बरोवप समा न्हय. ताका आपली बाजू मांडपाची संद आमी दिवपाक जाय.

रवीन्द्रबाबान खूब म्हळ्यार खुबूच बरयलें. रवीन्द्रबाबाचें बरोवप म्हळ्यार एक साधना. आपूण कोण तें जाणा जावपाची, आपणाक सुदारपाची अशें तो सांगतालो. जो कोण ताचें साहित्य वाचूंक बसता तेन्ना तें बरप रवीन्द्रबाबाचें उरना. तें जाता दरेका वाचप्याचें. आनी जें बरप आपलेंशें दिसता, आपलें जाता तें बरप आपूण कोण तें सांगत वता. आपल्याक सुदारपाची प्रेरणा दिता. प्रेरणा दिवनूच रावना तर सुदारताच सुदारता.

रवीन्द्रबाबाचें बरोवप अशेंच. ताणें वाचप्याक आपणाक सुदारपाची प्रेरणा दिल्या आनी तांकां सुदारल्यात. तेच पासत रवीन्द्रबाबाच्या संपर्कांत आयिल्ली आदली पिळगी आनी ते उपरांतच्योय पिळग्यो आपल्याक घडोवपाचे नदरेन रवीन्द्रबाबाच्या साहित्याचो आदार घेत आयल्यात.

रवीन्द्रबाब म्हजे कडेन सगळ्या विशयांचेर उलयला. मनंशाची नीत, समाजीक नीत, धर्माचें स्वरूप, विद्यार्थ्यांचीं बंडां आनी लागणूक, साहित्याचे आदर्श, नितीमुल्यां, बायलांचे प्रस्न, शिक्षणाचो गोंदळ, इतलेंच न्हय तर कामशास्त्रा सारको विशय लेगीत ताणें केन्ना वर्ज्य मानलोना. आपलें मत ताणें मांडलांच.

असो हो रवीन्द्रबाब आज आमचें मर्दी ना. तीन दसकांच्या काळांत रवीन्द्रबाबाच्या सांगातान हांव जें उलयलां आनी रवीन्द्रबाबान म्हाका जें सांगलां तें म्हजे पद्दतीन सांगपाचो यत्न हो. कित्याक, म्हाका खूब फावटीं दिसलां, रवीन्द्रबाब जें जें कितें उलयला तें ताचें एके तरेचें 'येसाय मारप' आसतालें. आमचे सारक्यां कडेन पयलीं उलोवप आनी मागीर तेंच सुत्र घेवन बरोवप अशें तो करतालो. म्हणटकच, म्हज्या ह्या बरपांत रवीन्द्रबाब आसतलो तसो, हांवूय आसतलों. देखून हो 'म्हजो रवीन्द्र सांगात.' हें फुडें 'जागा'च्या दर अंकांत. हेरांक जागोवंक न्हय तर म्हजे म्हाकाच जाग हाडूंक!

# आत्मतृप्तीचें दर्शन घडोवपी कविता

**माधव बोरकार**

बाकीबाबांली कविता म्हणटकच आमकां तांच्या कांय थारावीक कवितांचीच याद जाता. 'तेथे कर माझे जुळती', 'स्मृति', 'जपानी रमलाची रात' ह्यो मराठी, आनी 'पांयजणां', 'जागी जाल्या गोंयची सासाय', 'सात लाख गोंयकार आमी युग नवें फुलयतले' ह्यो कविता चड चर्चेचो विशय जातात आनी तांच्यो हेर जायत्यो अर्थ आशयान उपाट भरिल्ल्यो कविता सर्वसामान्य वाचप्यांचेच न्हय तर समिक्षकांचेय नदरे आड उरतात.

बाकीबाबांल्या मराठी कवितांचो आंकडो आठशेंचे वयर वता तर तांच्यो कोंकणी कविता *पांयजणां* आनी *सासाय* ह्या दोन संग्रहांनी आसपावल्यात. तांच्या उजवाडा आयिल्ल्या कोंकणी संग्रहांनी आसपावंक नाशिल्ल्यो आनीक कांय कविता आसपाची शक्यताय आसा. मराठींतल्यो तांच्यो 'कातरवेळेनंतर', 'प्रणयमुग्धेस' सारकिल्यो सुरवेच्या काळांतल्यो, आनी 'झाडें झालीं निळीं निळीं', 'सजवी बाईये' ह्यो कविता समिक्षकांचे नदरेच्या आंवाठांत येवंक नात. *सासाय* संग्रहांतल्यो 'आत्मो आनी परमात्मो', 'हांव मू?', 'तुवें म्हजेर मोग केलो ना जायत', 'म्हजें नांव?' ह्यो तांच्यो कविता आशय आनी अभिव्यक्तीचे नदरेन वेगळ्यो आसात. बारीकसाणीन वाचल्यार आजूय त्यो कविता नव्यो दिसतात. तांच्या कांय वेंचीक कवितांचेरूच खूब उजवाड घालून कांय सुंदर कवितांक काळखांत दवरप म्हळ्यार तांचे कवितेचेर अन्याय करप अशें म्हाका दिसता. ताका लागून कवीच्या काव्यविश्वाची जाय तशी वळख जावंक पावना. ताचे कवितेचीं कांय म्हत्वाचीं तासां अज्ञात उरतात.

अश्यो कांय बऱ्यो कविता कडेक उरपाक कांय कारणां आसतात. एकाद्री कविता तरल संवेदना व्यक्त करपी आसल्यार ती सर्वसामान्य वाचप्यांचे नदरेंत वचना. कविता बोध दिवपी वा विचार सांगपी आसल्यार ती लोकां मदीं सहजपणान पावता. ताकाच लागून अणभवनिश्ठ कविते परस विचारनिश्ठ कवितेचें दालें जड जाल्लें दिश्टी पडटा. 'पांयजणां' ही बाकीबाबांली कविता लोकप्रिय जाली हाचे फाटलें कारण, तिच्या भावाशया परसूय आंतरीक संगिताची लय. हे रूपसुंदर कवितेक संगिताची जोड नाशिल्ली जाल्यार ती अशीच कुशीक पडटली आशिल्ली. प्रत्येक कलाकृतीचें म्हूण एक प्राक्तन आसता. मनशा भशेनूच. पांयजणां ही कविता बऱ्या वेळार जल्माक आयली आसूंक जाय. पंडित जितेंद्र अभिषेकी सारकिल्या प्रतिभावंत संगीतकाराच्या हातांत ती पडली आनी तांणी दिल्ल्या सुरांतल्यान हे कवितेचें भावविश्व पर्जळून गेलें. हे कवितेच्या यशांत अभिषेकींचो मोलाचो वांटो आसा हें मान्य करून तांकां तार्चे स्रय दिवपाकूच जाय. कविता आनी सूर हांचें कितलें लागींचें नातें आसता हाची गवाय 'पांयजणां' सारकिली कविता दिता.

प्रेम, सैम, अध्यात्मभक्ती अशे आशय बाकीबाबांनी आपले कवितेंत केळयले. तांच्यो कांय कविता सामाजीक आशयाकूय स्पर्श करून वतात. तांच्या एकूण कवितांचो विचार केल्यार प्रेम आनी सैम तांच्या सृर्जनाच्यो प्रेरणा आसात हें सत होलमतलें. प्रेम भावनेंत आसपावल्लें एंद्रीय सौंदर्य तांचे कवितेंत अश्टांगान फुलून येता, तेच भाशेन, सैमाच्या सौंदर्याच्या रुपाच्यो वेगवेगळ्यो सया तांचे कवितेचें विश्व समृद्ध करतात. बाकीबाबान सदांच सौंदर्याचो सोद आनी वेध घेतलो. फॅर्नांद पेस्सोव ह्या संवसारीक नामनेच्या कवीन म्हळां,"Evil is everywhere on earth, and one of its forms is happiness." बाकीबाबांली संवसारा कडेन पळोवपाची हीच वृत्ती दिसता. देखून तांचे कवितेंत खेद खंत आनी किंवाटो व्यक्त जालो तरी निर्शेवणेची भावना तिचे लागीं येना. आनंदयात्री हें विशेशण तांकां खऱ्या अर्थान लागू जाता.

ह्या कवी भितर एक चित्रकारूय आशिल्लो. 'चित्रविणा' सारकिले कवितेंत तांचो हो गूण दिसता. *सासाय* ह्या तांच्या संग्रहांतले 'ह्या विलाथे' हे कवितेचो हांगा थोडो विचार करूं येता –

*ह्या विलाथे मोरांच मोरां आंगा-पांगा दोळे*
*उल्यार उले आयकून तांचे मेघ जाती ओले*
*जांभळे जांभळे जाती दोंगर, निळश्यो पांचव्यो घळी*
*उबाळाची काडून चोळी, वाऱ्यार धोलता तळी*

*ह्या विलाथे भांगरसाळी कुकुमसाळी शेतां*
*भांगर कुकुम शिंपित येती सकाळ सांजचीं ओतां*
*कुळ्ळार करपी चलयांवरी मेखळ्यो हांगच्यो झरी*
*फुलांर भोंवर फळांर सवणिं गायती किनरांवरी*

*ह्या विलाथे कापरावेळो, फेणाळ ल्हारांर ल्हारां*
*सांजच्या पारा भरून भार माड घुमती कातरां*
*पैसुल्ल्यान वाजून घांट फुलता आंगार कांटो*
*दर्याचेर पर्जळटा चंद्रिमाचो पाटो*

*ह्या विलाथे यो गो वेंच सावळ्यांतलीं पोवनां*
*सुर्यावरी कवळीं म्हजीं परमळीत कवनां*

ही कविता एक सुनीत. सुनिताचो आकृतीबंध सादारणपणान असो – इटालियन सुनीत आठ आनी स वळींचें तर शेक्सपियरीयन बारा आनी दोन अशें वट्ट चवदा वळींचें. कालांतरान ह्या काव्य प्रकारांत बदल जावन चवदा वळींचीं, चार+चार+चार+दोन अशे चवदा वळींचे वांटे घाल्लीं सुनितां दिसतात. वर्डस्वर्थ सारकिलो कवी एकदम चवदा वळींचें सुनीत बरयता. हे संख्येचो भागाकार करी नासतना. सुरवेच्या काळांत बाकीबाबान सुनितां बरोवंक नात. उपरांतच्या काळांत कांय मेजकींच बरयलीं तीं शेक्सपियर सांच्यांतलीं वा, चार वळींचे तीन चरण आनी निमाण्यो दोन वळी आशिल्लीं. कोंकणी कवितेंत म्हणपा सारकें छंद वृत्तांचें वैविद्य ना. सुनितां तर सामकीं आडवादान मेळटात. *पांयजणां* संग्रहांत बाकीबाबांल्यो कविता वेगवेगळ्या छंद

आनी वृत्तांच्यो पती आसात. हेच खातीर 'ह्या विलाथे' ही कविता म्हाका छंदवृत्ताचे नदरेन खूब म्हत्वाची दिसता.

ही कविता म्हळ्यार एक निसर्ग चित्र. चित्रांचे परिभाशेंत सांगपाचें जाल्यार, एक landscape. थोडो आयस पयस कॅन्वास घेवन तैलरंगान रंगयल्लो. कवितेचे जे तीन भाग आसात. तातूंतल्यान sequence लागिल्लें दिसता. पयलीं येतात ते जांबळे-जांबळे दोंगर. ह्या जांबळ्या रंगांतल्यान दोंगरांचें अंतर सुचीत जाता. हे विलाथे मोरांच्या आंगा-पांगाक दोळेच दोळे आसात आनी तांचे उल्यांर उले आयकून कुपां लेगीत ओलीं जातात. मोर आनी पावस हांचें अतूट नातें. मोर पावसाक आफयता असो भारतीय साहित्यांत संकेत आसा. आनी पावस मांडून आयिल्ल्या कुपांक काळी जांबळी सया मारता. हो कुपांचो रंग दोंगरांच्या जांबळ्या रंगांत आपसूक भरसून एकरूप जाता. हो गिमाचो रुतू आशिल्ल्यान घळी लेगीत निळश्यो पांचव्यो जाल्यात आनी उबाळाची चोळी काडून तळी वाऱ्यार धोलता हातूंतलो विरोधाभास कवितेचो रंग अदीक गाढ करता. कवितेंत मळबाचो संदर्भ प्रत्यक्ष आयलोना तरी कुपांच्या उल्लेखांतल्यान मळबाची प्रतिमा अप्रत्यक्ष रितीन दिसता.



ह्या चित्रांत मुखावयलो वाठार येता तो शेताचो. ह्या शेतांत भांगरसाळ पिकलां. भांगरसाळ ही एका काळा वयली गोंयच्या शेतांनी पिकपी भाताची जात. हांगा कवी भांगरसाळ उतर दोट्टी अर्थान वापरता. एक भांगराचो रंग सुचोवपाक आनी दुसरें, हे भुंयेची समृद्धी दाखोवपाक. हीं शेतां सकाळ-सांजेच्या भांगर कुकूम वतांत न्हातात. म्हळ्यार, हीं लुवणेक आयिल्लीं शेतां. दोंगरा मुळसांतल्यान मेकळेपणान व्हांवपी झरींक कवी कुळार करूंक आयिल्ल्या चलयांची उपमा दिता. *'फुलांरं भोंवर फळांरं सवणीं गायती किनेरांवरी'* हे वळींतलीं किनरां वरी गावपी सवण्यांची स्वच्छंदवृत्ती झरीं कडेन लागींचें नातें सांगता.

हे कवितेचें तिसरें कडवें ह्या चित्रांत आनीक वेगळे रंग भरता. हांगा वेळो आसात त्यो कापराच्यो. तांचे देगेर फेणाळ ल्हारांर ल्हारां येवन फुट्टात आनी हो नाद आनी गाज सांजच्या पारार भार येवन धुमपी माडांच्या कांतरांनी भरून वता. आनी अश्या दाट्टून आयिल्ल्या आमोरेच्या पारार पयसुल्ल्यान वाजिल्ले इगर्जीचे घांटीचो नाद आंगार कांटो फुलयता आनी वेळ सरता तसो चंद्र उदेवन दर्याचेर ताचो पाटो परजळटा.

अशे तेरेन हें चित्र पुराय जाता. बाकीबाबांक रंगांची ओड आशिल्ली आनी ताचो खोल परिणाम तांचे कवितेचेर जाल्लो दिसता. हेय कवितेंत कितलेशेच रंग आयल्यात. मोरा पांखी, जांबळो, निळसो, भांगर आनी कुकमा रंग, तेच प्रमाण, फेणेर फुलांचो धवो आनी दर्याचेर परजळपी चान्न्याचो चंदेरी. ह्या वेगवेगळ्या रंगांच्या सुमेळांतल्यान सैमाची रंगयाळी सिंफनी आयकूंक येता. म्हणून ह्या सुनिताच्यो निमाण्यो वळी :

*ह्या विलाथे यो गो वेंच सांवळ्यांतलीं पोवनां*
*सुगंविरी कवळीं म्हजीं परमळीत कवनां*

अदीक अर्थपूर्ण दिसतात.

हे कवितेक आशिल्लो perspective लक्षांत घेत जाल्यार तिची उंचाय आनी खोलाय लक्षांत येता. शब्दांच्या माध्यमा वरवीं रंगसंवेदना ती जागयता. तेच बराबर, तिका आशिल्लें दृश्य परिमाण तिका कलात्मक पांवडो दिता. हें चित्र कॅन्व्हासाचे फास्के भायर वचना. हरशीं बाकीबाबांल्यो कविता सैमाचो अणभव व्यक्त करतना वर्णनात्मक रूप घेतात. 'माझ्या गोव्याच्या भूमित' सारकिली कविता अभिव्यक्तीचे नदरेन ताणिल्ली दिसता. ताका कारण तिचो आकृतीबंध आसुयें. पूण 'ह्या विलाथे' हे कवितेक सुनिताच्या चवदा वळींची वंय आसा. म्हणटकूच तिचे अभिव्यक्तीचेर आपसूक बंधन हें आयलेंच. ताकाच लागून ती घट्ट विणीची जाल्या.

सांगपाचें म्हळ्यार, बाकीबाबांलो पिंड गोंयच्या गिरेस्त सैमाचेर पोसलो. आपल्या जिविताचीं पंदरा सोळा वर्सां तांकां गोंया भायर सारचीं पडलीं. तरी त्या काळांतूय तांचे कवितेंत सैम आयलें तें गोंयचेंच. कित्याक तर, तांचे भितल्ल्या कलावंताची वार हेच मातयेंत पुरिल्ली. कांय दीस गोंया भायर सारून येतकच ते म्हणटाले :

*फार दिसांनी माड पाहिले, सुभग तांबडी माती*
*हिरवे डोंगर हिरवी राने पिवळी शेतीभाती*
*फार दिसांनी फिटे पारणे उपासल्या डोळ्यांचे*
*विरहानेच दुजावे प्राणीं रूप असे गोव्याचे*

कांय कवींच्या कवितांनी सैम कवितेची फाटभूंय म्हूण येता. सैमाच्यो प्रतिमा आयल्यो तरी त्यो functional रुपान येतात. निखळ सैमाचें सौंदर्य व्यक्त करपाची तांची मोख नासता. सैमाच्यो प्रतिमा माध्यम म्हूण वापरून तातूंतल्यान ते उमाळ्यांक कवितेचें रूप दितात. पूण ते नदरेन पळयल्यार बाकीबाब सैमाच्या सौंदर्याचो अणभव आपले कवितेंत व्यक्त करतात. आनी हो सौंदर्याचो अणभव वर्डस्वर्थाच्या inward eye वा, मनाच्या दोळ्यांनी घेतिल्लो. 'ह्या विलाथे' हे कवितेंत कवीच्यो रंग-रूप-गंध-नाद-स्पर्शाच्यो संवेदना एकाच बरबर तीव्रतायेन व्यक्त जाल्ल्यो दिसतात.

बाकीबाबांली ही कविता सैमांतल्या चैतन्याचें दर्शन घडयता. एक उत्कट असो कवितेचो अणभव शब्दांच्या नादांतल्यान आकार घेता आनी आत्मतृप्तीची भावना तिचे भितल्ल्यान पाझरत रावता.



# आमी आशावादी जावया...

कृपाली नायक

उच्च माध्यमीक विद्यालयांत शिकतना 'बायल मनीस अबला काय सबला' ह्या विशया वयले भासाभास सर्तींत बायलमनीस अबलाच हो विचार घेवन पयलें इनाम जोडटना आनी ते उमेदीची खोस मनयतना हांव म्हजे म्हाका अबला म्हणटां हाचो विचार हांवें खीणभर लेगीत करूंक नाशिल्लो. कारण, त्या वेळार फकत जैताची खोस मनोवप कळटालें. ते उपरांत साबार पावसाळे पळयतकच आनी एके वटेन अस्तुरेची मळबा येदी धांव पळयतकच हांव अबला न्हयच अशें दिसता. पूण कांय खिणां भितर दिसाळ्यांनी वा न्यूज चॅनलांनी अस्तुरेचेर जावपी अत्याचारांच्यो बातम्यो वाचतां / पळयतां तेन्ना ते अस्तुरेचें दुःख . खिणा खिणाक जगपी हांव सबलाय न्हय ही जाण जाता. आनी निमाणें दिसता, बायल दादल्या मर्दी वैचारीक समानताय आयली जाल्यारूच खूबशे प्रस्न सुटावे जावं येतात.

हजारांनी वर्सांच्या इतिहासांत संवसारभर दादल्या कडल्यान बायलेचेर अन्याय जाल्यात हें सत. काय कडेन ते सहजतायेन दिसल्यात तर कांय कडेन ते उकतेपणान दिसूंक नात. आयज २१व्या शेंकड्यांत प्रसार माध्यमांक लागून ते उकताडार येवप सहज शक्य जाता. बायल म्हळ्यार भोग घेवपाची वस्त अशें समजुपी समाजांत फाटल्या शंबर-डेडशें वर्सांच्या काळांत बायल-मनशेन मळबायेदी धांव घेतल्या. हजारांनी वर्सांचे तुळेन आमी ही धांव लक्षांत घेतली जाल्यार निश्चितपणान ती वरचड थारता, आनी हें पारखुपाची नदर दादलो जावं बायल हांकां येवंक जाय.

दादले अशेच, बायलो तश्योच... अमक्या जाती धर्मांच्यो बायलो, दादले तशेच... अशे समज-गैर समज आमच्या समाजांत आसात. हीं लेबलां म्हळ्यार एके तरेचे कुड्डे विश्वास. तीं चिकटावचे पयलीं आमी थोडोसो विचार करप गरजेचो.

पुराण काळार भारतांतली बायल सबला आशिल्ली अशें मानपाक खूब आधार मेळटात. रामान गुरवारपणांत त्याग केले उपरांत आपल्या भुरग्यांक जल्म दिवन वाडोवपी सीता आसूं, जावं भर सभेंत आपले परस व्हड आशिल्ल्यांक प्रस्न विचारपी द्रौपदी आसूं, त्या काळाचो संदर्भ घेतलो जाल्यार अन्याय सहन करतना तांणी बंडूय केल्लें हें लक्षांत आयले बगर रावना. ते उपरांत आमच्यांनी नांवां घेवं येतात तीं. राणी लक्ष्मीबाई, अहिल्याबाई होळकर हांचे सारकेल्यांचीं. पूण स्त्री मुक्ती ही संकल्पना घेवन मुखार आयिल्ली बायल-मनीस आमकां दिसता ती म्हळ्यार सावित्रीबाई फुले. तिका लागून स्त्री शिक्षणाचो पयलो वयलो प्रसार जालो. सामान्य बायल-मनशे वांगडा सामक्या त्रासांची जीण जियेवपी विधवेचो मनीस म्हण विचार जावंक लागलो. तांगेर जाल्लीं भुरगींय समाजांत वावरूंक लागलीं. पूण हें करतना तिचे फाटल्यान ज्योतिबा फुले आशिल्ले. तांच्या फाटबळा बगर हें घडप शक्यूच नाशिल्लें हाचीय जाण आमकां आसूंक जाय. ज्योतिबा फुले वांगडाच दुसरें एक नांव घेवपाचें जाल्यार राजा राम मोहन रॉय हांचें घेवचें पडटलें, जांणी सती सारकेले प्रथेचो खरपणान विरोध केलो. फकत विरोधूच केलो ना. घोव गेले उपरांत बायलेक जितेपणीं स्वताचें अस्तित्व ना करचें पडटालें. घोवाचे चितेचेर आपणाक जळोवन घेतना ती जगपा खातीर धडपडली जाल्यार तिका धोंगसून परती उज्यांत धुकळटाले. हे सती प्रथेचेर राजा राम मोहन रॉयांनी कायद्यान बंदी हाडली. हाचोच परिणाम म्हूण आयज पुरायपणान न्हय जावं पूण विधवेक समाजान मान दिल्लो पळोवंक मेळटा. आयज विधवेचें सहजपणान लग्नूय जाल्लें पळोवंक मेळटा. इतलेंच न्हय तर घोवाच्या मरणा उपरांत मड्या मुखार केल्ल्या बायलेच्या निमाण्या 'शृंगारा'कूय विरोध केल्लो पळोवंक मेळटा. आयज हें सगळे कडेन धीटपणान जायना आसलें तरी ज्या दिसा समाजाचो वैचारीक पावंडो वाडटलो त्या दिसा ह्यो प्रथाच बंद जातल्यो हे विशीं कोणाचेंच दुमत आसतलें अशें दिसना. उपरांत बायल भारतभरच्या घरांतल्यान भायर सरली ती गांधीजींक लागून. गांधीजींनी एकंदरीत अहिंसक चळवळीचे नदरेंतल्यान बायलांचे समानतेचेर विचार केल्लो. हेर विकसनशील देशां परस भारतीय संविधानान सुरवे सावन दादलो आनी बायल हांकां समान हक्क दिल्यात.

हाकाच लागून सरोजिनी नायडू, इंदिरा गांधी, पी.टी. उषा, किरण बेदी, प्रतिभा पाटील ह्यो बायलो देशाच्या सामाजीक-राजकी मळार आपलें कर्तुत्व गाजोवंक पावल्यात. हालींच गोंय सरकारान घडोवन हाडिल्ल्या फॅस्टिव्हल ऑफ आयडियासांत उलयतना दलाय लामा हांणी म्हणलां, "आयच्या जगांत साबार प्रस्न भासाभास करून सुटावे जावं येतात. आयचें जग हे तरेन प्रस्न सुटावे करपाचें जग." ह्या मताक खूब लागीं वचपी एक मत *स्त्री शक्ती* पुस्तकांत विनोबा भावे उकतायतात. 'वसुधैव कुटुंबकम्' हे संकल्पने प्रमाण जग एक कुटुंब जायत आयलां. मुखावयलो काळ अहिंसेचो काळ आसा आनी ह्या काळांत स्त्री शक्तीच मुखार आसतली अशें मत ते उकतायतात. हो काळ अहिंसेचो आसत जाल्यार बायल मनीस सहज 'स्वरक्षीत' आसतलीच आसतली. तिका असुरक्षीततायेची जाण जावची ना. हाका लागून सर्रासपणान जो लिंगभेद जाता तोय कमी जातलो.

जायते फावटीं खबरांपत्रांनी, नेमाळ्यांनी येवपी सदरांनी एक प्रस्न ठळकपणान विचारतात - 'स्त्री शक्ती स्त्री शक्ती म्हणपी चलयो/बायलो हांव कांयच दिना/घेना आसतना लग्न जातलें अशें कित्याक म्हणनात?' ह्या 'प्रस्नाक जाप चड करून कॉलेज कट्ट्यांनी चली दिता. 'हांव आसां तयार, पूण कांयच घेना आसतना लग्न जावपाक कोण चलो तयार आसा?' कांय

वेळार असल्या प्रस्नाक अश्यो जापो मेळटात
तुका दितात तें स्त्रीधन आमकां न्हय, तुकाच दितात... तुजे खातिरूच आमी तें घेतात. वा, म्हज्या भुरग्याक हांवें शिकयला ताचो खर्च भागूं नाका? तुज्याच भुरग्याक फाल्यां शिक्षणाक पयशे लागतले तेन्ना किर्ते करपाचें? अश्योच हे प्रथेचें समर्थन करपी जायत्यो जापो. *स्त्री शक्ती* पुस्तकांत विनोबाजी म्हणटात, "लहेज पासून सुटका जाले शिवाय शक्ती येवची ना" आनी ते वयर दिल्यात तसल्या साबार प्रस्नांचेर चर्चा करतात. तातूंतलो एक म्हळ्यार, चले भुरग्याचो खर्च आनी ताचे खातीर मागप म्हळ्यार लहेज. कायद्यान हुंडो घेवपाचेर बंदी घाल्या. पूण सामाजीक नियम वा समज इतले रूढ आसतात की तांकां लागून लग्नाक भांगरां शिंगरां घालप ही परंपरा जावन पडल्या. हाचेर चलयांनी, चल्यांनीय सांगातान विचार करचो पडटलो. आरोप प्रत्यारोपांनी सुटावो जावपा सारको हो प्रस्न न्हय. तो सामाजीक जागृतायेन सुटावो जावंक जाय. हे बाबतींत कोणूय वेगळेपण करूंक सोदता आसत जाल्यार ताका हेरांनी सहकार्य करपाची आयज गरज आसा. बकच्छायो करून असले प्रस्न केन्ना सुटावे जावपाचे नात.

लग्नाचे बाबतींत आनिकूय प्रस्न आसात. अजून आमी चलयेची कुंडली पळेतात आनी तिचे घरची 'फाटभूंय' तपासतात. विज्ञान युगांतूय मंगळा कडेन पावतकच आमी कांचवेतात. ही आयची सत परिस्थिती. आयजूय चलयेन चल्याक लग्ना बद्दल 'विचारल्यार' आमकां खटंकता. ही परिस्थिती बदलतली जाल्यार सामाजीक, कौटुंबीक आनी राजकीय हक्क आनी कर्तव्यां हांचे नदरेन दादल्या बायलां भितर समानताय येवंक जाय. दादलो आनी बायल हांचे मदीं बाह्य भेद आसातूच. पूण ताका लागून आमी जे भेद दोनांय मदीं करतात ते सारके म्हणूं नजऽ. आवय-बापूय दुर्येत जातात तेन्ना चलयेन आपलें कर्तव्य करूंक जाय अशें आमकां दिसता. पूण घरचे संपत्तींत चली हक्काचो वांटो मागता तेन्ना आमकां नाकसुरें वताच वता.

गोंय आनी भारतांतलीं कांय शारां सोडलीं जाल्यार देशांत हेर कडेन बायलांचो दर्जो किर्ते आसा हाचेरूय आमी विचार करचो पडटलो. चलयांच्या गर्भपाताचें प्रमाण उणें जाल्लें आसलें तरी गर्भपात जातातूच कित्याक हाचेर विचार जावचो पडटलो. चलयेचेर जावपी अन्याय-अत्याचारां आड प्रसारमाध्यमांक जागृताय कित्याक करची पडटा, हाचेरूय येवजुचें पडटलें. कांय प्रथांक आयजूय आमी विरोध कित्याक करूंक शकनात आनी केलोच जाल्यार तो एकट्या दुकट्याचो कित्याक जाता, सामुहीक कित्याक जायना, ताचेरूय विचार जावचो पडटलो.

एक अणभव हांगा मुद्दाम सांगन दिसता. पयलीं तेंपार बायल 'वडां पुनव' मनयताली तेन्ना आपलीं सगलीं दुःखां विसरून ती घरा भायर येवन इल्ली मेकळें वारें घेताली. बायलेक प्राणवाय चड गरजेचो आनी वडाचें झाड तो दिता ही वडा पुनवेची शास्त्रीय बसका. कांय वर्सां पयलीं पुण्याक काम करतना डॅक्कन कॉलेज कॅम्पसांत रावतालें. ह्या वाठारांत वडाचीं झाडां खूब आसात. थंय कितल्योश्यो बायलो सकाळीं पासयेक येताल्यो. वडा पुनवे आदल्या दिसा जायत्या बायलांनी वडाच्यो ताळयो तोडून काडून घरा व्हरतना हांवें पळयलें. तोंडा वयल्या कांय जाणांक हे पुजे फाटली संकल्पना हांवें सांगली. पूण तांणी कानार केंस काडले. आमकां प्रथा जाय, विचार नाका. प्रथेचो विपर्यास जाल्यारूय आमकां चलता. खऱ्यांनीच असले वडा पुनवेची आयज गरज आसा? होच प्रस्न आनीक कितल्याश्या प्रथां संबंदान विचारूं येता.

आमचे भितर आनीक एक गैरसमज आसा. बायलूच बायलेची वाट लायता अशें आमी मानतात. जाणटीं केन्नाय सांगतात, मनशांचो स्वभाव कुल्ले वरी आसता. ताका दुसरो फुडें गेल्लो नाका आसता. हें खरें जाल्यार तातूंत दादले आनी बायलो हो भेद कसो येवं येता? लग्ना उपरांत खंयचेय चलयेचें आपल्या घोवा घरच्यां कडेन पटना, मांय, नणंद हांचे कडेन तिचो वाद जाता तेन्ना आमकां दिसता, हीं बायलांचीं झगडीं. हांगा आमी एके गजाली कडेन सरळ आडनदर करतात, ती म्हळ्यार, एका वेगळ्या वातावरणांत वाडून तिचें व्यक्तिमत्व घडले उपरांत सून नव्या वातावरणांत रावंक आयल्या. भावा भावांचें नातें टिकतना काडावोडी जातात थंय 'परक्यां'चें नातें बरें उरचें, आयदनाक आयदन आपटुचें न्हय ही भावना कशी येवं येता?

आनीक एक गजाल जी आयजूय सामान्यतायेन चलयेच्या मनाचेर ल्हानपणा सावन कोंरातून दवरतात, आनी जिची सामकी गरज ना ती म्हळ्यार, 'आयज तूं आवय-बापायचें, फाल्यां घोवाचें आनी म्हातारपणांत पुताचें... तांची लज राखप तुज्या हातांत आसा.' हें कोंराततना तिचेर सगळ्या वटांतल्यान बंधनां घालप आनी आपल्या आसऱ्या खाला ती सुरक्षीत आसा अशें म्हणप... पूण केन्नाय तिची सारकी राखण जावंक पावलिना जाल्यार तिचीच बदनामी करप.

बायल आज स्वरक्षीत आसा हाची तिका जाण करून दिवपाचो वेळ आयल्या. प्रसार माध्यमां आयज अस्तुरेक जाग हाडपाचें काम खूब व्हड प्रमाणांत करतात. तातूंत स्त्री शिक्षण, चलयेच्या लग्नाचें वय,पोटांत चली आसतना तिचो गर्भपात करपना सारकेले विशय तीं हाताळटात. तेच प्रमाण कांय सिरियल्स अन्याया विरुद्ध आवाज उठोवपी सशक्त बायल मनीस दाखयतात. टी.व्ही. हें माध्यम सर्वसामान्यां मेरेन पावता. ह्या माध्यमांतल्यान खूबश्यो गजाली जावं येतात. आयज आमी २१ व्या शेंकड्यांत आसात. आमी आशावादी जावंक जाय. खूब व्हड बदल न्हय जरी आसलो तरी आयज प्रत्येक अस्तुरेन आपले जिणेच्या प्रवाहा विरुद्ध वचून आपलेच मानसीकताये भितर थोडोसो बदल करून घेवंक जाय. प्रत्येक दादल्यान बायलेचेर अन्याय करचे पयली फुले, रॉय, गांधीजी हांचो विचार करचो आनी प्रत्येक बायलेन तो सहन करचे पयलीं द्रौपदी, सावित्रीबाई फुले, किरण बेदी... हांचो विचार करचो. हो आशावाद जागोवपाची आज खूब गरज आसा. हातूंतल्यानूच एक दीस 'सम-विचारी' म्हण बायल-मनशे कडेन समाज पळयतलोच पळयतलो. आयच्या वेगान बदलपी ह्या युगांत हो बदल निश्चीत जातलोच जातलो.



# जायरातींत बायलेची प्रतिमा

**वसीम खनगावी**

जर्मनींत सुरू जाल्ले उद्देगीक क्रांतीचो प्रभाव युरोपांत हेर कडेन तसो संवसारभर पडलो. विज्ञानाचे नवे नवे प्रयोग करून मनशाचे गरजेक लागपी वस्तूंचें उत्पादन जावंक लागलें. आनी उत्पादीत वस्तूं विशींची म्हायती लोकां मेरेन पावोवपाक एका माध्यमाची गरज उप्रासली. तें माध्यम म्हळ्यार 'जायरात'.

आधुनीक काळारूच न्हय तर राजा महाराजांच्या तेंपारूय जायराती जाताल्यो. पूण तांचो वेगळ्या मळार उपेग जातालो. राजाचें फर्मान प्रजे मेरेन पावोवपाक राजाचो मनीस गांवांत पेरगांव घालून, धोल बडोवन, गांवा-गांवांनी भोंवन लोकांक कळीत करतालो. काळ बदल्लो तशें-तशें जायरातीचें स्वरूप बदल्लें. मनशान मशिनाचो सोद लायले उपरांत मनशाचें काम मशीन करपाक लागलें. छापखान्याचो सोद लागले उपरांत छापिल्ल्या रुपान जायराती चडांत चड लोकां मेरेन पावंक लागल्यो. छापखान्याच्या सोदाक लागून नेमाळ्यांची सुरवात जाली आनी नेमाळ्यांनी जायराती छापून येवंक लागल्यो. उपरांत रेडियो, टी.व्ही. सारक्या माध्यमांचो सोद लागलो आनी मिडियाच्या मळार एक क्रांती जाली. ह्याय माध्यमांतल्यान जायराती जावंक लागल्यो.



शिक्षणाचो प्रसार जालो आनी समाजाचे विचार बदल्ले. एका काळार बायलांची सुवात 'चूल आनी मूल' मेरेनूच मर्यादीत आशिल्ली. दादल्याचे तुळेन तिचें स्थान उण्या म्हत्वाचें आसलें. धर्मीक, सांस्कृतीक मळार बायलांक कसलेच हक्क नासले. पूण शिक्षणाक लागून बायल जागृत जावंक लागली. १९९२ वर्सा इंग्लंडचे मेरी वुन्सटन क्राफ्ट हिणें 'विंडिकेशन ऑफ रायटस् ऑफ विमॅन' हें पुस्तक उजवाडा हाडलें. ह्या पुस्तकांत तिणें स्त्रीवादी विचार मांडिल्ले. बायलेक दादल्या इतलेच हक्क आसात हें तिणें दाखोवन दिल्लें. भारतांत १८८२ वर्सा ताराबाई शिंदे हिणें 'स्त्री-पुरुष तुलना' हो लेख बरयलो. आनी भारतीय बायलां मदीं स्त्रीवादी चळवळीची स्फूर्त जागयली. राजा राम मोहन रॉय, ज्योतिबा फुले, महात्मा गांधी सारकेल्या राष्ट्रपुरुशांक लागून भारतीय बायलांच्यो कितल्योश्यो सरपळ्यो तुटल्यो. बायल दादल्याच्या हातांत हात घालून फुडें सरूंक लागली. आयज दरेका मळार बायल आसा - शिक्षणीक, सांस्कृतीक, विज्ञानीक वा राजकारण - सगळ्याक. ग्लॅमराच्या मळारूय बायल खूब मुखार दिश्टी पडटा आनी हाकाच लागून बायलेचो जायरातीच्या मळार वापर जाल्लो पळोवंक मेळटा.

ह्या २१ व्या शतमानांत जायरातीचीं तरेकवार माध्यमां उपलब्ध आसात. देखीक, पॅम्फलेट, बॅनर, होर्डिंग्स, नेमाळीं, रेडिओ, टी.व्ही. इतलेंच न्हय तर हालीं हालीं कदंबा बसींचेरूय जायराती दिश्टी पडटात. जायराती करी नासतना खंयचेंय उत्पादन खपोवप कठिणूच आसता. उत्पादन करतल्या सगळ्यांक जायरातीचो आदार घेवचोच पडटा. दुसरें म्हळ्यार, आयज एकेच तरेची वस्त तयार करपी वेग-वेगळ्यो कंपन्यो आसात. देखून तांचे मदीं आपली वस्त वेगळी आनी बरी कशी हें दाखोवपाची सर्तूय चलता. शाबू घेवया. हांव ल्हान आसतना आमगेर एकूच लायफबॉय शाबू हाडटालीं. उपरांत दुकानार नव्या नव्या शाबवांची भर पडत गेली. आयज गिरायक कितल्याश्या शाबवां मदल्यान आपल्याक जाय आशिल्लो शाबू वेंचून काडटा - लक्स, मेडिमिक्स, फॅर ॲण्ड ग्लो, डव्ह, संतूर, सॅवलॉन, डेटॉल अशे कितलेशेच शाबू आसात. वेगवेगळ्या वापरांक वेगवेगळे शाबू. तोंड धुवपाक वेगळे, न्हावपाक वेगळे...

हे परिस्थितींत दरेके कंपनीक आपलो माल दुसऱ्याचे तुळेन बरो आसा हेंच दाखोवपाचें आसता आनी हें ती जायरातीच्या माध्यमांतल्यान 'गिरायकांक पिशें लावन' करता. आनी विशेश म्हळ्यार, आयज टी.व्ही. वयल्या खंयच्याय उत्पादनाच्या जायरातींनी चडशीं बायलांच दिश्टी पडटात. बायलां ह्या उत्पादनांचें ग्लॅमर वाडयतात. ह्या ग्लॅमराक लागून जंय बायलांची 'गरज ना' थंयूय बायलांचो वापर केल्लो पळोवंक मेळटा. तोवूय एके वेगळेच नदरेन. हांगा देख डिओडरंट स्प्रेंच्या जायरातींची घेवं येता. लक्स, १८×, सेट-वेट, वायल्ड स्टोन सारकेल्या बॉडी स्प्रेंची जायरात करतना दादलो अमको बॉडी स्प्रे वापरता आनी अर्दकुटे कपडे घाल्ली बायल ताचेर येवन पडटा अशें दाखयतात. दादल्याच्या इनर गार्मेंटसांच्या जायरातींनीय बायलांक दाखयतात. आयज सगळ्या उत्पादनांच्या जायरातींनी बायल आसा. शाबू, टूथपेस्ट कितेंय आसूं, बायले बगर जायना! बायल जायरातींनी दिसप हें वायट न्हय. पूण असल्या जायरातींनी बायलेक आकर्शणाची वस्त कशी वापरिल्ली पळोवंक मेळटा. ज्यो वस्तू वापरिल्ल्यान बायल तुमकां भुलता, त्यो तुमी वापरात, बायलांक भुलयात हो संदेश असल्यो जायराती दितात.

स्त्री मुक्तीचो विचार करतना ह्या जायरात-युगाचो संदर्भ घेवप भोव गरजेचो अशें म्हाका दिसता. स्त्री मुक्तीचो ध्यास घेतिल्ले तेजस्वी बायलेक भोग वस्तूचे हे प्रतिमेंतल्यान आपणाक सोडोवन घेवंक येवंक जाय. तेन्नाच नव्या युगाची सुरवात जातली अशें म्हणूं येता.



# भाशेचें वैश्वीक रूप

पुष्पा पै

सगळीं मनशां उलयतात – संवाद साधपाक, संप्रेशण करपाक, संवेदना खातीर, उमाळे आनी भावना उकतावपा खातीर, सुखां-दुखां वांटून घेवपा खातीर तीं भाशेचो उपयोग करतात. भाशेक आमचे जिणेंत मुळावें स्थान आसा. भाशा नाशिल्ली जाल्यार घरच्यां कडें कसो संवाद सादूंक जातलो आशिल्लो? नातीं जोडप, दोस्त आमीग करप, मोग-केस्तांव करप, गिन्यान मेळोवप, विचार करप, फुडाराची येवजण करप, उमेदीन फुडाराचीं सपनां पळोवप, राजकीय वेव्हारांत वांटो घेवप, आदर्श सांबाळप आनी फुडले पिळगेक ते सांबाळूंक शिकोवप - भाशे बगर हातूंतलें आमकां कांयच करूंक जावचें नाशिल्लें. म्हणून संवसारांत असो एकूय समाज ना जाची आपली अशी भास ना. ही भास त्या समाजांत आशिल्ल्या सगल्या मनशांक एके पोटलेंत बांदता. तांकां एक वळख दिता. तांचे संस्कृतायेची जतनाय करता. भुरगेपणाच्यान आत्मसात केल्ली ही भास आमचे इतले संवकळीची जावन पडल्या की आमी तिचे कडेन आडनदर करतात. म्हणून भाशेचें स्वरूप कितें तें समजून घेवपाचो हांगा आमी यत्न करुया.

अमेरिकेंत कांय शतमानां पयलीं अमेरिकी इंडियन रावताले. तांच्यो आपणाल्यो स्वतंत्र अश्यो संस्कृतायो आशिल्ल्यो. युरोपच्यान आयिल्ल्या गोऱ्या लोकांचो शेक सुरू जालो तेन्ना अमेरिकेंत आशिल्ल्यो ह्यो मुळाव्यो संस्कृतायो नश्ट जावपाक लागल्यो. कांय मानववंशशास्त्रज्ञांक दिसलें, ह्या संस्कृतायांची म्हायती आतांच एकठांय केली ना जाल्यार त्यो रोखडयोच सासणाच्यो ना जातल्यो. म्हणून तांणी त्या समाजांचो अभ्यास करपाचें थारायलें. पूण ते थंय पावले तेन्ना तांच्या लक्षांत आयलें, खंयच्याय समाजाचो अभ्यास करूंक जाय जाल्यार ताची भाशा खबर आसूंक जाय. कारण, खंयच्याय समाजाची मांडणी, ताचें स्वरूप, ताच्यो चाली-रिती, विचारप्रणाली, देवा धर्मा बद्‌दलच्यो समजुती, सगळ्यांचें संचीत ताचे भाशेंत मांडिल्लें आसता. म्हणून ह्या लोकांनी भाशेचो विज्ञानीक अभ्यास कसो करप हे विशीं उपपत्ती तयार केली. हे उपपत्तींत कांय नेमावळी तयार केल्यो. ह्या नेमावळींच्या आधारान अनवळखी भाशेचोय अभ्यास करूंक जाता हें दाखयलें. आनी अशे तरेन आर्विल्ल्या भाशाविज्ञानाचो जल्म जालो. सांगपाचो हेतू इतलोच – खंयच्याय समाजाचो अभ्यास करूंक जाय जाल्यार ताचे भाशेचो अभ्यास केले बगर तें शक्य जायना.

भाशेचें एक वैश्वीक रूप आसता. संवसारांत हजारांनी भाशा आसल्यो, त्यो आयकुपाक खूब वेगळ्यो दिसल्यो तरी मुळांत तांचें रूप एक सारकें आसता. सगळ्योच भाशा मौखीक आसतात पूण सगळ्योच बरपांत आयिल्ल्यो आसतात अशें म्हणूं नजऽ. बरोवप भाशा विकासाच्या इतिहासांत खूब मागीर आयलां. हें रूप ध्वनींतल्यान उकतें जाता. सगळ्याच भाशांक आपलें स्पश्ट अशें व्याकरण आसता पूण कांय भाशांचें व्याकरण अजून बरयल्लें मेळना. भाशाविज्ञानिकांचें तें काम. अजून जायत्या भाशांचें व्याकरण बरोवंक जाय. सगळ्याच भाशांनी वाक्यां आसतात. ही वाक्यांय चारूच तरांचीं आसतात- विधानार्थी, प्रस्नार्थी, न्हयकारी आनी उद्‌गारवाचक वा उमाळी. सगळ्या भाशांनी शब्द आसतात. उतरांच्योय पांचूच तरा आसतात; नाम, क्रिया, विशेशण आनी क्रियाविशेशण. आनी ह्या उतरांक अर्थपूर्ण वाक्यांनी मांडपाक अव्ययां आसतात. ह्या उतरांची गुंफण मात वेगवेगळी आसता. देखीक, भारतीय भाशांनी उद्‌देश्य-विधेय-क्रियापद अशी मांडणी आसता, तर इंग्लिशींत उद्‌देश्य-क्रियापद-विधेय अशी संरचना मेळटा. तशेंच कांय भाशांनी उतरां भितल्लो लिंगभेद तार्कीक आसता तर कांय भाशांनी तो व्याकरणीक आसता. देखीक, मराठी भाशेंत 'चहा' पुल्लिंगी, 'कॉफी' स्त्रीलिंगी आनी हेर सगलें नपुंसकलिंगी. चॉम्स्की हो भाशाविज्ञानीक म्हणटा, आमच्या मेंदवांत सगळ्या भाशा-शक्यतायांचो एक मेनू आसता. दर एके भाशेन तातूंतले कांय ध्वनी, तातूंतल्यो कांय व्याकरणीक नेमावळी वेंचून आपापली भाशीक व्यवस्था तयार केल्ली आसता. आमकां पुराय मेनू वापरूंक येना तशेंच सगळ्यो भाशाय शिकूंक येनात. हाचें कारण आमचे स्मरणशक्तीची मर्यादा. म्हणून दर एके भाशेन मर्यादीत एककां थारावन, तांचे प्रमाण आपणाक व्याकरणीक व्यवस्थेन बांदून घेतिल्ली आसता.

भाशेक मुळावीं अशीं पांच आंगा आसतात जीं एके थारावीक वेवस्थेंत बांदिल्लीं आसतात. हीं आंगां सकयल दिल्यांत :

१) स्वनीम व्यवस्था (Phonology), २) उतरावळ (Vocabulary), ३) उतरांची व्याकरणीक मांडावळ, हाका तांत्रीक भाशेंत रूप आनी पद व्यवस्था (morphology आनी phrase formation) अशेंय म्हणटात, ४) वाक्य व्यवस्था (syntax), ५) अर्थ व्यवस्था (semantics). भाशा समाजांत वावुरताना वापरची आसता. मनशांक आपल्याक जाय तें आनी जाय तशें उलोवपाचें स्वातंत्र्य नासता. भाशीक वेव्हारूय एके व्यवस्थेंत बांदिल्लो आसता.भाशा वेव्हाराचे हे वेवस्थेक (pragmatics) भाशेचें सवें आंग म्हणूंक जाता. हें सत्य सगल्या भाशांक लागू जाता. भाशेचें वैश्वीक रूप अशेंय सिद्‌ध जाता. सगल्या भाशांनी वयर सांगिल्ल्या सगल्या व्यवस्थांची एक निश्चीत नेमावळ आसता. हे नेमावळीचो वापर करून आमकां जाय तितली सरंरचना करूंक येता. देखीक, इंग्लिशींतल्या a, p आनी t ह्या तीन स्वनिमांचो परतो परतो वापर केल्यार apt, tap आनी pat अशीं तीन उतरां तयार करूं येतात. तशेंच कोंकणींतल्या व्, एं आनी त् ह्या तीन स्वनिमांचीं वेंत, आनी तेंव अशीं दोन उतरां जातात. तशें पळयल्यार इंग्लिशींत फकत ४४ स्वनिमां आसात. तांकां इंग्लिशीचे स्वनिम व्यवस्थेंत बांदून वापर केल्यार अमर्याद संरचना करूं येतात. इतलें

मात लक्षांत दवरूंक जाय, हो वापर नेमां भायर वचून करूंक येना. ही नेमांची व्यवस्था, व्याकरणीक बांदावळीच्या हेर पांवड्यांनीय पळोवंक मेळटा. देखीक, 'The cow that kicked the cat, that chased the rat, that ate the malt, that John kept in the house that Jack built' ह्या वाक्यांत 'The cow that kicked the cat' ही उद्देश्य-क्रियापद-विधेय संरचना. हे संरचनेचे घडणेचो नेम परतो परतो वापर जावन ह्या वाक्या भितर कितलींशींच उप/गौण वाक्यां तयार जाल्यांत. तशेंच मराठींत कॅंप फायरच्या खेळांत 'म्हातारा शेकोटीला आला, म्हाताऱ्याची बायको शेकोटीला आली, म्हाताऱ्याच्या बायकोचा भाऊ शेकोटीला आला, म्हाताऱ्याच्या बायकोच्या भावाच्या मुली शेकोटीला आल्या. मुलींचं मांजर पण आलं.' हें वाक्य नाम पद करपाचो नेम वापरून जाय तितलें वाडोवंक येता. नेम असो : नामाक प्रत्यय लायतकीर ताका सामान्य रुपाचो प्रत्यय लावंक जाय. 'म्हातारा' ह्या उतराक 'ची' हो संबंधवाचक प्रत्यय लायिल्ल्यान ताचें 'म्हाताऱ्या' अशें उतर घडलां. नाम आनी क्रियापदांत लिंग-वचन सारकें आसता. (म्हातारा आला, बायको आली, भाऊ आला, मुली आल्या, मांजर आलं.) ह्या दोन नेमांचें पालन करून जाय तितलें व्हडलें वाक्य करूं येता. चॉमस्की भाशेच्या ह्या गुणाक भाशेची सर्जनशीलता मानता. ताचें म्हणणें अशें - भास शिकतना आमी ही नेमावळ शिकून घेतात आनी त्या नेमांचो परतो परतो वापर करून सदांच नवी नवी संरचना घडयत आसतात. खरें म्हळ्यार आमी वाक्यां तशाच्या तशीं केन्नाच म्हणी नात. दर फावट त्या नेमाचो नवो वापर करून नवेंच वाक्य तयार करतात. चॉमस्की हाकाच भाशेची सर्जनशीळताय (creativity) आनी नियमांच्या परत्या परत्या वापराक (system recursive rules) अशें नांव दिता. भाशेचे हे नेमावळीकूच व्यवस्था system म्हणटात आनी पारंपरीक भाशेंत, ते भाशेचें व्याकरण म्हणटात. ह्यो व्यवस्था भाशा-विशेश आसतात.

भाशा फुडले पिळगे कडेन परंपरेन पावता. भाशेचें व्याकरण ती भास उलोवपी लोकांच्या पुर्वजांनी थारायिल्लें आसता. व्याकरणाच्या सगळ्याच आंगांचीं एककां दर एके भाशेंत एक निश्चीत संरचना घडोवपाक मदत करतात. हीं एककां निश्चीत संख्येंत आशिल्ल्यान खंयचीय भास शिकूं येता आनी तिचो अणकार करूं येता. उतरां बशेन संरचनाय असंख्य आशिल्ल्यो जाल्यार तें शक्य जावचें नाशिल्लें.

भाशांक सदांच दोन आंगा आसतात - एक तिचें रूप/आकार आनी दुसरें तातूंतल्यान व्यक्त जावपी अर्थ. रूप/आकार म्हणजे उलयिल्ले भाशेंतले ध्वनी (स्वनीम) वा अक्षर, तांची संरचना, (फुडें त्या ध्वनींची वाक्यरुपांत मांडणी आनी सलगपणान उलयिल्लीं उतरां), हें एके वटेन आनी तातूंतल्यान व्यक्त जाल्लो संदेश दुसरे वटेन. एकल्या बगर दुसऱ्याक अस्तित्व ना. उलयतना ध्वनींचो वा अक्षरांचो वापर केलो ना जाल्यार दिवंक जाय तो संदेश व्यक्त जावचो ना. धरुया, चिनी भाशेंत कोणूय उलयता. ते भाशेक लागतात ते सगळे ध्वनी त्या उतरांनी आसात, तांची वाक्यांनी योग्य मांडावळ आसा. पूण तुमकां चिनी भाशाच येना जाल्यार तातूंतल्यान सांगिल्लो संदेश निरुपयोगी जाता. कारण त्या संदेशाचो अर्थ तुमचे मेरेन पावना. म्हणजेच, रूप आसा पूण अर्थ ना (तुमचे नदरेन, कारण तुमकां ते भाशेची वळख ना), संदेशाक विशय आसा पूण ताका गरजेचे ध्वनी आनी व्याकरण ना जाल्यार कसलेंच संदेशन वा संप्रेषण जावचें ना. हाकाच तांत्रीक उतरांनी भाशेची ड्यूएलिटी' म्हणटात. हाचोच अर्थ, भाशा हो सार्थक उतरावळीचो संच/संग्रह. उतरावळ आनी तिची मांडावळ करपाक जें व्याकरण आसा ताचो अभ्यास भाशाविज्ञानाचो विशय.

भाशेंतल्या उतरांचो आनी तीं उकतायतात त्या अर्थाचो तार्कीक संबंध नासता. बसपाचे वस्तूक हांव कदेल म्हणटां जाल्यार ह्या दोनांयचे मदी तार्कीक संबंध ना. तसो तो आशिल्लो जाल्यार सगळ्या भाशांनी होच शब्द घोळूंक जाय आशिल्लो. पूण तशें ना. हिंदींत ताका 'कुर्सी', इंग्लिशींत ताका 'चेअर', फ्रेंचींत ताका 'शॅयज' अशीं वेगवेगळीं नांवां आसात. तांत्रीक भाशेंत उतराक sign म्हणटात. सायन आनी ती उकती करता तो अर्थ हांचे मदलो संबंध तार्कीक नासता, तो यादृच्छीक (arbitrary) आसता. दुसरी भास शिकतना आमकां ते भाशेचे शब्द शिकचे पडटात. दुसरे भाशेचें व्याकरणूय शिकचें पडटा. पूण ताचें कारण वेगळें. वयर सांगिल्ले प्रमाण आमच्या मेंदवांत एक मेनू आसता. त्या मेनूंतल्यान फकत कांय गोश्टी घेवन आमच्या पुर्वजांनी व्याकरण घडयलां. इतिहास, भुगोल, संस्कृती, जगा कडेन पळोवपाचो दृष्टीकोन ह्या सगळ्याक लागून मेनूंतल्यान एककां वेंचून काडटना हो भेद तयार जाता.

## उकतावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स
सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)


१. उजवाडावपी थळ : मडगांव, गोंय ४०३ ६०१
२. उजवाडा येता तो काळ : दर म्हयन्याक
३. उजवाडावपी, छापपी आनी धनी : जयवंत भालचंद्र सरदेसाय
राष्ट्रियताय : भारतीय
नामो : ११, लोटलीकार बिल्डींग, कोंब-मडगांव गोंय ४०३ ६०१
४. संपादपी : माधवी सरदेसाय
राष्ट्रियत्व : भारतीय
नामो : २०१–बी, सालढेल अपार्टमेन्ट्स रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव–गोंय ४०३ ६०१

हांव, जयवंत भालचंद्र सरदेसाय, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे म्हायतीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

जयवंत भालचंद्र सरदेसाय
उजवाडावपी

# हुंवार

## माया अनिल खांगटे

— आयशा, पळे पावसाळो लार्गी पावला, फाल्यांच ते पड्डे काड आरमारींतल्यान आनी सगळ्याक लाय.

— आं बाय, ते पोरूं धुवून दवरल्यात तेच काडूं मूं?

— आगो, ते धवकूट जाल्यात. ते फाटले वटेनचे पॅसेजींत लाय. बेनीचें ऑफीस, हॉल, जेवणाचें साल हांगा सगळ्याक नवे पड्डे लाय. पयरूच रहमतभाईन शिंवून हाडून दिल्यात पळे, ते.

— उर्मिलाबेन, आज कसलो बोवाळ?

— बोवाळ कांय ना कंचन, पावसाळो लार्गी पावलो न्हय, सगळ्याक पड्डे लावन घेतां.

— उर्मिलाबेन, म्हाका एक कळना, ही आमची बेन इतली सैममोगी, वर्सांतले आठ म्हयने तिका सगळीं जनेलां-दारां उकतीं जाय, भायलें वत भितर येऊं जाय, वारें भितर येऊं जाय असो तिचो आग्रो. आनी हे पावसाचे चार म्हयने तिका कितें जाता?

— हय, खरें तुजें, ह्या चार म्हयन्यां पासत खास दाट पड्डे आनी दीसभर तांणी जनेलां धांपून दवरूं जाय.

— तेंच म्हणटां हांव, बेनीचें कांयच कळना. ती इतली सैममोगी जाल्यार पावसाक कित्याक भिता, पावसांत खंय फातरांकूय कोंब फुटूं येतात. लेखक कवींक नव्यो नव्यो कल्पना सुचतात. ही कसली लेखक, पावसाक भियेवन लिपून बसपी?

— कंचन, तूं बेनीक केन्नाच्यान वळखता?

— केन्नाच्यान म्हळ्यार, ह्या 'बेन निकेतनां'त येत साकून. जातलीं पांच-स वर्सां.

— तशें जाल्यार तूं अजून आमचे बेनीक सारकें वळखना.

— कित्याक गो? आमची बेन केन्नाच बेनीच्या तोऱ्यांत रावना. हांगा आयिल्ल्या प्रत्येकाची ती बेनूच न्हय तर आवय जावन वासपूस करता. आमची बेन म्हळ्यार मायेमोगाची मूर्त.

— जाली बेनीची वळख? ती कोण, खंयची, तिचें नातें-गोतें कितें, खबर आसा? ती हांगा कशी पावली जाणा तूं?

— आमच्या ह्या 'बेन निकेतनां'त कोणेंच कोणाक खाजगी प्रस्न विचारप ना असो कायदो न्हय? आपूण जावन कोणेंय सांगल्यार आयकप.

— हय गो, तूं बेनीच्या भायल्या सभावाचेर वचूं नाका.

— हय गो बाये.

— मनीस मगो हिमनगा भशेन आसता.

— म्हळ्यार?

— आयस्‌ बर्ग गो... तो पळे, वयर इल्लोसो दिसता, ताचे तिपेटीन भितर उदकांत आसता.

— तशी आमची बेन मगो? तूं तिचे बरोबर खूब वर्सां साकून आसा. तुका अजून कळुंना तिचो सभाव? तिची ही पावसाक भियेवपाची संवय, तूं कांयच नकळ तिचे विशीं?

— कंचन, तूं हांगा उर्मिलाबेनी बरोबर खबरी करपाक रावलां? तुका आशाताई वोदोळच्यान सोदता, कपडयांचे गठ्ठे आयल्यात, तुका रजिस्टरांत नोंद करून दवर म्हूण सांगलां.

— येतां, येतां... उर्मिलाबेन, मागीर केन्नाय सांग आं.

— आं, चल तूं. विभा गावनांची नवी ऑर्डर आयल्या न्हय? काम कशें चल्लां?

— बरें चल्लां मॅडम, पंदरा दिसां भितर ही ऑर्डर पुराय करपाक जाय म्हणून आशाताई सगळ्यां कडल्यान नेटान काम करून घेता. बरें, येतां हांव, बटण लावपाचें काम अर्दार सोडून आयिल्लें.

— बरें बरें, चल तूं.

उर्मिला किशोरीबेनीच्या कॅबिनांत गेलें. तिणें ताका दोन अर्जंट कामां सांगिल्लीं. पावस सुरू जावचे पयलीं किशोरीबेन आपलीं भायलीं कामां जाग्यार घालूंक गेल्ली.

किशोरीबेनीची ही वर्साचीच संवय. मीर्ग लागलो म्हणून पावस येताच सो ना. ताचें



कांयच सांगूं नजऽ. घडये पयलींच घोग्यांनी पडटलो, सात आठ दीस वचपाचें नांवूच काडचो ना. घडये मीर्ग लागून पंदरा वीस दीस जाले तरी पडचोय ना... अशें येवजून किशोरीबेन पयलींच आपलीं कामां जाग्यार घालून दवरता.

किशोरीबेन जाणा आसली, आपलीं उरिल्लीं कामां कंचन ना जाल्यार उर्मिलाचेर सोंपयल्यार तीं दिस्ता-दिस्त करतलीं म्हणून.

ह्या बेन निकेतनांत उर्मिलाक आनी कंचनाक किशोरीबेनीचो दावो उजवो हात म्हणटालीं. तीय तांकां आपल्यो धुवोच कशी वागयताली. तशी किशोरीबेन सगळ्यां कडेन मायेमोगान चलताली. तिचें सगळ्यांक सांगणें -- हांगा कोण धनी कोण कामगार अशें ना. आमी सगळ्यो एकीमेकींच्यो भयणी, धुवो आवयो ह्या नात्यान वागूंक जाय. जणेकल्याक ताचे तांकी प्रमाण काम दिलां. तांच्या कामा वेल्यान तांकां ल्हान व्हड समजूं जायना.

शांतीबेनीन हो आश्रम सुरू करतना हें तत्व मुखार दवरिल्लें. तिचे उपरांत विजयाबेनीन ह्याच तत्वाक धरून आश्रम चलयलो. विजयाबेनीच्या हाता खाला तयार जाल्ली किशोरीबेन. तीय तशीच चलयता. म्हणून तर हांगच्या किजिलां, धोर्शीनी मॅनेजमॅन्टाक लक्ष घालचें पडना.

गुजराती समाजाचीं जायतीं आस्थापनां चलतात. तांच्या सणां, उत्सवां वेळार, कसलेय कार्यावळी वेळार बेन निकेतनाक कसलेंय काम दिल्यार व्यवस्थीत जातलें हाची जाळवणदारांक सदांच खात्री.

बेन निकेतन एक रेडिमेड कपडे करपाची ल्हानशी फॅक्टरी चलयता. तातूंतल्योच बायलो ते फॅक्टरींत काम करतात. कोण कोण कसल्या कसल्या प्रसंगांतल्यान जिवार उदार जावन, घर-दार, नातें-गोतें सोडून आयिल्लीं, कोणा कोणाक घरच्यांनी सोडिल्लीं, अश्या तरेकवार दु:खांच्या बुरखयांत घुस्पटून आयिल्ल्यो त्यो अस्तुऱ्यो बेन निकेतनांत किशोरीबेनीच्या पदरा खाला सुशेगाद जियेताल्यो.

ह्याच बेन निकेतनान सुद्द-बुद्द विसरून गेल्ले किशोरीक जाग्यार हाडिल्ली. ती तेन्ना तीस-पस्तीस वर्सांची आसली. तेन्ना विजयाबेन हो आश्रम चलयताली. तिची गोंयकार इश्टीण वैजयंती गांवकार किशोरीक घेवन हांगा आयिल्ली. ताची सगळी गजाल सांगून वैजयंतीन ताका थोड्या दिसां खातीर हांगा दवरपाची विनंती केल्ली. दोन-चार दीस किशोरी वांगडा वैजयंती थंय रावलें आनी गोंयांत परतलें. ताका व्हरपाक तें परत येवचें आसलें.

पूण आठ-धा दिसां उपरांत किशोरीन थंयच रावपाचो निर्णय घेतलो. विजयाबेनीन ताच्या निर्णयाक येवकार दिलो. वैजयंतीक ताणें फोन करून कळयलें. ताणेंय ताका धीर दिलो. नाय जाल्यार तें गोंयांत परत येतकच फाटल्या यादींनी घुस्पून उरत हाचो वैजयंतीक हुस्को जाल्लो. केन्ना केन्नाय कॉलेजीक सुटी आसता तेन्ना वैजयंती मुजरत मुंबय येवन बेन निकेतनांत किशोरी म्हन्यांत रावतालें. किशोरी मात गोंयांत केन्नाच वच नासलें. फाटल्या नात्याचो हो एकूच पास किशोरीक आशिल्लो.

रोखडेंच तें सगळ्यांचें किशोरीबेन जालें. विजयाबेनीन ताका मनशांत हाडलें. ग्रॅज्युएट जाल्ले किशोरीन ऑफिसाचो भार आपल्या हातांत घेतलो. कपड्यांचे फॅक्टरीचेरूय ती उमेदीन लक्ष दिताली. बावून आयिल्ली किशोरीच्या जिविताची रोपी परतून तरतरून फुलिल्ली.

जुलय सोंपूंक आयिल्लो, तरीय पावस मातूय विसव घेय नासतना पडटालो. बेन निकेतनाचे फाटल्यान आशिल्ल्या जाग्यांत तांणी सोबीत पोरसूं केल्लें. गरजेक जायती भाजी तीं थंय रोयतालीं. मुखावयल्या पोरसांत सोबीत फुलझाडां रोयिल्लीं. अंदूं सतत पडपी पावसान भाजयेच्यो रोपयो कुसून गेल्ल्यो. नवीं झाडांय सारकीं आंग घेय नासलीं.

पोरसाची किशोरीबेनीक खूब आवड. सकाळचो वेळ चडशी पोरसांत फिरून बारीकसाणेन सगळ्या झाडांचेर ती लक्ष दवरताली. पोरसाचें काम पळोवपी फातिमा आनी शेवंता तिचे वांगडा रावतालीं. पावसाच्या दिसांनी मात ती घरांत बसून तांकां सुचोवण्यो दिताली. पूण तरी सगळ्या झाडांची बारीकसाणेन वासपूस करताली. सतत पडपी पावसान अंदू झाडांची वाट लायली हें फातिमा शेवंता कडल्यान आयकून तिचो जीव सामको चिटमिटलो. ती मनांतल्यान पावसाचेर कड्डली. दुसऱ्या खिणाक तिणें जीब चाबली... 'पावस म्हजो दुस्मान आसत, पूण लोकांची ती गरज, पूण... ताणें कांय कडेन सांवार हाडप, कांय कडेन दुकळ हाडप ताका सोबता?... पाड पडूं ताचें, तो म्हजें थोडेंच आयकतलो... म्हज्या कामाक हांवें लागल्यार बरें...'

फाटले आठ दीस थांबऽ नासतना पावस पडटालो. पावसाच्या अच्छेवान किशोरीबेन सामकी बेजारिल्ली. असो पावस पडटकच तिका गोंयच्या पावसाची याद जाताली, आनी ती चडूच आकूळ-पिकूळ जाताली. ह्या दिसांनी ती आपलें ऑफीस आनी कूड सोडून चडशी खंयच वच नासली. भायल्या हॉलांत आनी जेवपाच्या सालांत दारां जनेलांचे पड्डे गच्च बंद करुनूच कंचन आनी उर्मिला तिका आपयतालीं. सतत पडपी पावसाक लागून ह्या दोन म्हयन्यांत तिणें भायली दिशाच पळोवं नासली. मागीर तिका मेकळें मळब, झाडां-पेडां पळोवचेले तळमळे लागताले. तिचें एक मन मात ह्या तिच्या आवडट्या सैमाचो धसको घेवन बंद कुडींत रिगूंक पळयतालें. अशे विचित्र अवस्थेंत ती ह्या दिसांनी वावुरताली.

रातची हॉलांत बसून टी.व्ही.चेर बातम्यो पळोवचेली किशोरीबेनीक संवय. पावसाच्या दिसांनी मात ती बातम्यो पळय नासली. टी.व्ही.क फाट करून आयकताली. टी.व्ही.र पावसान खंय खंय अच्छेव केला तें दाखयतात तेंच तिका पळोवपाचें नासतालें. हुंवाराच्या सांवाराच्यो खबरी आयकून ती पिशांतूर कशी जाताली. म्हणून ह्या दिसांनी उर्मिला तिचे वांगडाच रावतालें आनी अश्यो बातम्यो येतकच टी.व्ही. बंद करतालें. अशें कितेंय आयकतकच तिका न्हीद पडनासली. मागीर प्रेशर वाडटालें.

पावसाचे चार म्हयने उर्मिलाबेन आनी कंचन किशोरीबेनीक भुरग्या वरी सांबाळटालीं. तिका पातयेनासलीं ...हरशीं इतली धिरिश्ट बायल, कसल्याय संकश्टाक भियेनासतना फुडो करपी ही किशोरीबेन, पावसाच्या दिसांनी अशी कशी बदलता? सामकीच सतर-वितर जाता... पावसाक म्हणून कोण

अशीं भियेतात?... कित्याक जाता काय तिका अशें?... कंचनाच्या मनांत सदांच हो प्रस्न येतालो. उर्मिलाक हाची जाप खबर आसुये असो ताचो अदमास. पूण हे विशीं कितेंय विचारल्यार उर्मिला कितेंय निमित्त करून विशय बदलतालें.

किशोरीबेन पावसाक सगळे वटच्यान ताळटाली, तरी कोण न्हय कोण आश्रमांत येताले आनी पावसाच्या सांवाराच्यो गजाली सांगताले. मागीर त्या दिसा, ती सामकीच अस्वस्थ जाताली.

त्या दिसा नारी निकेतनाची सुजाता मॅडम धा-पंदरा जाणांक घेवन रातची बेन निकेतनांत आयली. तीं रावतालीं ते झोपडपट्टेंत पावसाचें उदक भरून अच्छेव जाल्लो. नारी निकेतनाचे लागींच ती झोपडपट्टी आशिल्ल्यान सुजाता मॅडम हेर लोकां वांगडा तांच्या आदाराक धांविल्ली. कोणाचीं भुरगीं व्हांवन गेल्लीं, कोणाचीं जाणटीं तर कोणाचीं कोण कोण व्हांवन खंयचे खंय पाविल्लीं. रातीचो वेळ जाल्ल्यान रस्त्या वयल्या दिव्याच्या उजवाडांत कोण हाताक मेळटा ताका वाटावपाचो यत्न चलिल्लो. उदकांत उफेवपी सामाना कडेन कोणाचेंच लक्ष नासलें. सगळे कडेन रडारड, किळच्यो आनी हुयेली चलिल्ल्यो.

थंयच्या कांय लोकांक सुजाता मॅडमीन आपल्या आश्रमांत हाडिल्लीं. थंय आनीक जागो ना म्हणून पंदरा-एक जाणांक घेवन ती बेन निकेतनांत आयिल्ली.

किशोरीबेनीन सुजाता मॅडमीक कॅबिनांत व्हेली. थंय तिणें पावसाच्या उदकान केल्ल्या सांवाराची गजाल तिका सांगली. ती आयकून भितल्ल्यान किशोरीबेनीक थरथरो भरलो. पूण मोठ्या धिरान तिणें आपल्याचेर ताबो दवरलो. भायर त्या लोकां मदीं आशिल्ल्या उर्मिलाचें लक्ष किशोरीबेनीचेर आशिल्लें. कंचनाकय तिचोच हुस्को आशिल्लो. तें कॅबिना भायरूच घुटमळटालें.

किशोरीबेनीक सगळें समजावन सुजाता मॅडम आपल्या आश्रमांत वचपाक गेली. ती भायर सरले बरोबर कंचन उदकाचो पेलो घेवन भितर गेलें. किशोरीमॅडम दोनूय हातांनी तकली धरून बशिल्ली.

— बेन, उदक घेयात.

कच्च करून आंग काडून किशोरीबेनीन शेणिल्ले नदरेन कंचनाक पळयलें.

— बेन, उदक घेयात.

— आं. कंचन, तूं गो? दी, उदक दी म्हाका.

घट घट करून उदक पियेवन किशोरीबेनीन ग्लास ट्रेंत दवरलो आनी परतीय दोळे धांपून, हातांनी तकली गच्च धरून बसली. कंचन थंयचें हाल्लें ना. ल्हवूच तिच्या खांदार हात दवरून ताणें म्हळें,

— बेन, तुमच्या जिवाक बरें दिसना... भितर वचून आड पडात तुमी.

— ना कंचन, हांव बरें आसां, भायर तीं...

— उर्मिलाबेन आसा तांचे म्हऱ्यांत. ती पळयता तांकां कितें जाय नाका तें.

— ना, तरी म्हाका वचुंकूच जाय तांचे म्हऱ्यांत. ह्या वेळार तांकां मायेच्या उतरांची गरज आसा. कपडे, खाण-जेवण दिवन भागना. तांचें मन भियेलां जातलें. तांचीं आपलीं मनशां ना जाल्यांत. तांकां ह्या वेळार धिराचीं उतरां जाय. आतांच तांचें मन सांबाळूं जाय. नातर, तीं पिशांतूर जायत म्हणून भंय. चल कंचन, तांकां सांबाळूं जाय, तांकां सांबाळूं जाय...

थरथरत, उलयत किशोरीबेन उबी रावली. ती तोंडान पुटपुटत आशिल्ली. कंचनान तिचो हात घट्ट धरलो.

— बेन, तुमी बसात. भायर तांचे म्हऱ्यांत सगळीं आसात.

— ना कंचन, हांव बरें आसा. पूण तांकां मातशें पळयतां. कोणाचीं कोण शेणल्यांत, मातशें वासपूस करतां. चल, भायर या आमी.

— बेन, तुमी म्हजें आयकनात न्हय, हांव उर्मिलाबेनीक आपयतां.

पूण कंचनाचें कांयच आयकनासतना किशोरीबेन भायर हॉलांत गेली. थंय कोण रडटालीं, कोण एकामेकांक धीर दितालीं. कोण शेणिल्ले नदरेन एकाच जाग्यार पळयत बशिल्लीं...

इतले म्हणसर किशोरीबेन तांचे म्हऱ्यांत आयली. तिच्या दोळ्यांतल्यान घळघळीत दुकां गळटालीं. कोंकणींतल्यान बडबडत ती कोणाक पोशेताली, कोणाक वेंगेंत घेताली, कोणाचें तोंड पळयत रावताली आनी म्हणटाली, ...न्हय, तूं म्हजो कुटूश न्हय... अशें करत करत एका एका भुरग्या म्हऱ्यांत वताली.... तूं म्हज़ो कुटूश न्हय... हें एकूच वाक्य ती परत परत म्हणटाली.

...बेन कितें उलयता? कसली भास उलयता? सगळ्यांकूच अजाप जालें. त्या आश्रमांत चडशीं मराठी, हिन्दी वा गुजराती उलयतालीं. कोणूय ऑफिसांत व्हडले लोक आयले जाल्यार इंग्लीश उलयताले. पूण आज किशोरीबेन कोंकणींतल्यान उलयताली. सगळीं अजापान तिका पळयत रावलीं. कंचनान उर्मिलाक म्हळें, 'बेन सारकी ना, कसली भास उलयता पळे.'

थंयच आशाताई आशिल्ली. ती मालवणची. तिणें म्हळें,

— बेन, गोंयची भास उलयता, कोंकणी उलयता.

— पूण ती अशें कितें उलयता?

आशाताई किशोरीबेनीक आश्रमांत येत साकून वळखताली. तिणें म्हळें,

— उर्मिला, तिका सांबाळूं जाय. तिका आपल्या जिवितांतल्या हुंवाराची याद जाल्या. ती साबुद्देर ना.

आशाताई, कंचन, उर्मिला सगळींच तिचे म्हऱ्यांत गेलीं.

— बेन, बेन, जाग्यार येयात, तुमी गोंयांत नात, मुंबय आसात.

किशोरीबेनीच्या दोळ्यांत वळख नासली. तिणें कंचनाक वेंगांत घेतलें आनी म्हळें, तूं म्हजें कुटूश न्हय... इतलें म्हणून ती रावली ना, तिणें ताका धुकळून उडयलें. मागीर मात उर्मिलान वेळ केलो ना. ताणें हॉस्पिटलांत फोन केलो.

तिका दोग-चौग जाणांनी बळयां धरून सोफार बसयली. ती सुद्द वचून थंयच पडली. हुंवाराच्या भंयान पयलींच कांचवेल्ले ते सगळे लोक किशोरीबेनीची अवस्था पळोवन रडूंक लागले.

ॲम्बुलन्स आयली. उर्मिला, कंचन आनी हेर दोगी बायलो किशोरीबेनीक घेवन हॉस्पिटलांत गेल्यो.

किशोरीबेनीक हॉस्पिटलांत एडमीट केल्यार आज स दीस जायत आयिल्ले. ती अजुनूय

साबुद्‌देर येवंक नासली. उर्मिला तिचे म्हऱ्यांतलें हालूं नासलें. बाकीचीं मात पाळी करून येतालीं, वेतालीं.

उर्मिला तिका आपली आवयूच समजतालें. तीय उर्मिलाचेर धुवे वरी मोग करताली. उर्मिलाक आपूण त्या आश्रमांत आयिल्ल्या दिसाची याद जाली.

उर्मिला दिसूंक सोबीत. शिकूंक हुशार. पूण घरची परिस्थिती वायट. आवय पांच-स घरांनी वावर करून भुरग्यांक आनी बेबद्या घोवाक पोसताली. उर्मिला व्हडली धूव. तेंय सांजवेळचें एकट्यागेर वचून भुरग्याक सांबाळटालें. त्या पयश्यांतल्यान आपल्या शिक्षणाचो खर्च भागयतालें. आपूण कॉलेजींत शिकतलें, टिचर जातलें आनी अम्माचे त्रास कमी करतलें अशें सपन तें पळयतालें.

उर्मिला तेन्ना आठवेक आशिल्लें. तेरा वर्सांचेंच खरें, पूण घसघशीत वाडिल्लें. एक दीस ताच्या बापायन ताका एका गुंडाक विकलें. ताणें ताका एका फ्लॅटांत व्हरून दवरलें. थंय ताचे आनीक दोग इश्ट येताले. दीसभर ते खंय तरी वताले. रातचे येवन ताचेर बलात्कार करताले आनी थंयच न्हिदताले. सकाळीं ताच्या खावपाची व्यवस्था करून ते ताका लॉक करून वताले. दोन दीस तें उपाशीं रावलें. पूण मागीर ताणें थंडपणान विचार केलो. ते रातचे मेल्ले भशेन न्हिदतात तें पळयलें आनी एके रातीं ल्हवूच पळून गेलें. कुडीची दूख सोंसत तें जाता तितल्या नेटान धांवतालें.

थोड्या वेळान तें साबुद्द वचून फुटपाथार पडलें. किशोरीबेन सकाळीं पासयेक वतना तें तिका मेळ्ळें. तिणें ताका आश्रमांत हाडून नवें जिवीत दिलें. परत आवय-बापाय म्हऱ्यांत वच्चे परस ताणें बेन निकेतनांत रावपाचें थारायलें. ताचें उरिल्लें शिकप किशोरीबेनीन पुराय करपाक लायलें. आनी किशोरीबेनीच्या हातासकयल तें ऑफिसांतलीं कामां करूं लागलें. तेन्नाच्यान किशोरीबेनीक तें आपली अम्मा मानतालें.

आतां ती हॉस्पिटलांत आसा म्हळ्यार ताका सूख नाशिल्लें. ताणें गोंयांत वैजयंतीक फोन करून तिची सगळी गजाल कळयल्ली.

वैजयंती रोखडेंच रजा घेवन आयलें. तें उर्मिला वांगडा हॉस्पिटलांत रावलें. तांकां रातचें जेवण घेवन आयिल्लें कंचनयूं थंयच रावलें.

सगळी गजाल परत एकदां वैजयंतीक सांगून उर्मिलान विचारलें, "बेनीक अशें कित्याक जालें?"

— तिका गोंयच्या काणकोणच्या हुंवाराची याद जाली. त्या हुंवारान खंय पावयली तिची उमेद.. तिचीं सपनां मातयेभरवण जालीं. हांगा आयिल्ल्यान, आश्रमांतल्या लोकांचीं अफाट दुःखां पळोवन तिचें आपलें दुःख ल्हव जालें. तिणें आपल्याक सावरून घेतली. आनी दुसऱ्यांचीं दुकां पुसूंक लागली.

— अशें बेनीच्या जिवितांत घडलें तरी कितें? उर्मिलान आनी कंचनान वांगडाच विचारलें.

ते रातीं वैजयंतीन तांकां किशोरीची सगळी गजाल सांगली.

प्रदीप नायक काणकोणां हायरसेकंडरींत शिकयतालो. ताची विद्यार्थिनी किशोरी वेळीप. ताचे कडेनं लग्न जावन पैंगिणी बिराडान रावतालो. ताची जाणटी आवय आनी एक भाव कुंकळ्ळे मूळ घरांत रावतालीं. आवयच्या मना आड प्रदीप लग्न जाल्ल्यान तिणें ताका घरांत येवपाक मनाय केल्ली. किशोरीक कुळाग्ने वटेन आवय सोडून आनीक कोणूच लागींची फामील नासली. ती भाटकारागेर वावर करून ताच्याच भाटांत खोंपींत रावताली. किशोरीन कॉलेज करतां करतांच मोग करून लग्न जुळयल्लें. कसलीच कटकट नासतना आपले तकले वयलें वजें गेलें म्हणून ताचे आवयक खोशी जाल्ली. आपले कडेन आशिल्लें किडून मिडूक धुवे सुवादीन करून तिणें तुमकां जाय तशीं लग्न जायात म्हणून तोंड भरून आशिर्वाद दिल्लो.

प्रदीपाचो इश्ट परिवार व्हड. तांणीच तांकां लग्न धरून बिराड मांडून दियसर सगळो आदार केलो. प्रदीपाचें कलीग वैजयंती. ताका समाजकार्य करपाची खूब आवड. ताणेंय किशोरीक खूब आदार केलो. तेन्नाच्यान वैजयंती किशोरीचीय इश्टीण जाली. किशोरीचो सभाव मायेस्त. ताणें काकीबाय, व्हनये करून शेजाऱ्यां-पाजाऱ्यां कडेनं इश्टागत केली.

तांचो कुटूश जालो तेन्ना ताची आवय ताचे म्हऱ्यांत वर्सभर येवन राविल्ली. कुटूश दोन वर्सांचो आसतना ती भायर पडली. किशोरीक नांवा पुरतें आशिल्लें कुळारूय सोंपलें.



आपलो घोव आनी पूत हांच्या मोगा पाशांत किशोरीचो संवसार फुलिल्लो. कुटूशाच्या फुडाराचीं सपनां पळोवपांत ताचे दीस खोशयेन सरताले. कुटूश अडेज वर्सांचो जातकर ताका आंगणवाडयेंत घालूंक जाय आसलो. पूण तांच्या वाड्यार लागीं खंयच आंगणवाडी नासली. हीच संद घेवन किशोरीन महिला मंडळाच्या आदारान आंगणवाडी सुरू केली.

किशोरीक पोरसाचीय आवड आसली. घरा भोंवतणी ताणें सोबीत पोरसूं केल्लें. फाविल्ल्या वेळांत तें पोरसांत झाडांचे उस्तवारीक लागिल्लें आसतालें.

उमेदीचीं पांखां लावन किशोरीचे दीस सरताले. कुटूश आतां चवथेंत पाविल्लो. सुण्या माजरांची ताका भारी ओड. ताणें एक पेटो पोशिल्लो. तो ताचो सामको जिवाचो. ताका न्हाणोवप, फिरोवप सगळें काम कुटूश घोस्तान करतालो. कुटूशाक शाळेंत पावोवन पेटो भायर रावतालो. ताची शाळा सुट्टकीर ताचे वांगडा घरा येतालो. दोगूय एकामेकांक पातये नासले.

तेदीस आयतार आसलो. पावसाची पिरपीर चालूच आसली. किशोरीन कोंग्यांचें बरें तोंडांक केल्लें. इंगळ्यांर सुको बांगडो भाजून खोबरेल तेल सोडिल्लें. भायर बसून पेपर वाचपी प्रदीपाच्या पोटांत त्या वासान कोंऽ जालें.

— कुटूश, आज बेगीन जेवया, तुजे मम्मीन बांगडो भाजला.

— डॅडी, मात्सो राव, पेट्याक न्हाणयतां.

— आजून एक लेगीत जालें ना. बांगड्या वासान आज बेगीन जेवपा विचार काय कितें? बरें आं तुमचें!

अशें म्हणत हांसत किशोरीन टी.व्ही. लायलो. टी.व्ही. भिलभिलपाक लागलो. पावसाचो नेट खूब वाडिल्लो.

— पाड पडूं ह्या पावसाचें. सामको सांवार आयिल्ले वरी पडटा. ह्या पावसान टी.व्ही.क रोखडीच पिडा मारता. बाब कुटूश, भितर यो पळोवया. पेट्याक न्हाणयला तो पुरो. पावस कसो पडटा पळे, मळबाक बुराक पडिल्ले वरी, यो घरांत...

किशोरीचें उलोवप सोंपचे पयलींच कऽऽक, कऽड, कडाऽ ढुम्मऽऽ असो आकांत व्हड आवाज आयलो.

— खंय तरी लागींच वीज पडली दिसता. प्रदीपान म्हळें, आनी हातांतलो पेपर उडोवन तो भायर आयलो. कुटूशान पेट्याक पडवेर दवरलो, आनी तो धांवत येवन आवयचे वेंगेंत रिगलो. तितले म्हणसर फाटल्या दोंगरा कडल्यान परत ताच्याकूय व्हडल्यान आवाज आयलो.

— आरे देवा! कसलो हो आवाज?

— आनी हें कितें? पोरसांत सगळें उदक भरता. असो अचकीत कसो हुंवार आयलो?

भायल्यान बोबो, हुयेल्यो चलताल्यो. कोण कितें म्हणटा, कांय कळऽ नासलें.

— प्रदीप, कितें चल्लां भायर?

किशोरीन भिवुनूच विचारलें.

तितले म्हणसर उदक आंगणांत भरून हळू हळू तांचे पडवेंत भितर सरतालें.

— किशोरी, उदक घरांत येता... कितें करुया?

— चल, आमी वयर रस्त्यार या.

— कशीं वतलीं? आंगणांत उदक पळे, नेटान व्हांवता. आनी हें कितें? लोकांचीं आयदनां, कपडे वतात मगो.

— आरे देवा, व्हनीली कपड्यां सयत बालदी, आनी माजरूय गेलें, प्रदीप आमच्येंय सामान...

किशोरी आनी प्रदीप भंयान कडकडत उलयतालीं. सामाना परस आपलो जीव कसो वाटावचो तें तांकां येवज नासलें. इतल्यांत कुटूशाक पेट्याची याद आयली.

— मम्मी, म्हजो पेटो...

म्हणटां म्हणटां ताणें पडवेर धांव मारली. पडवीभर उदक जाल्लें. पेटो 'क्यांव क्यांव' करून आड्डत व्हांवूं लागलो. तो आंगणांत वचचे पयलीं ताका धरतलो म्हणून कुटूश मुखार सरलो. ताची सरपळी धरपाच्या बोवाळांत कुटूश उदकांत पडलो आनी व्हांवंक लागलो. तेन्नाच लोकांक घरांतल्यान भायर काडूंक भायर सरिल्ले तरनाटे वयल्या रस्त्यार पाविल्ले. तांणी कुटूश व्हांवन वता तो पळयलो आनी व्हडान आड्डून सांगलें,

— प्रदीप, आमी ताका हाडटात. तुमी आसात थंयच रावात.

पूण प्रदीप तांचें आयकुपाचे स्थितींत नाशिल्लो. ताणें वेळ करी नासतना उदकांत घालून घेतलें. वयल्या लोकांनी प्रदीपाक आडावपाक कितले उले मारले! पूण प्रदीप उदकांत पेंवपाचो यत्न करतालो तितलें उदक ताका ओडून मुखार व्हरतालें. हरशीं प्रदीप बरो पेंवपी. पूण आयज ह्या उदका कडेन ताचें कांयच चलना जालें. भंयान ताचे हातपांय घट जाल्ले वरी जाल्ले आनी उदकाच्या लोटा भरशीं तो व्हांवत वतालो.

किशोरी तटास नदरेन सगळें पळयतालें. कुटूशाक आनी प्रदीपाक वाटावंक उदकांत देंविल्ल्या तरनाट्यांक ते दोगूय मेळ्ळेनात.

दोळ्यां मुखार व्हांवन वचपी पुताक, घोवाक पळोवनूय किशोरी आड्डुपाचे स्थितीर नाशिल्लें. तें घो करून सकल कोंसळ्ळें. तेन्नाच ताका वयर व्हरूंक आयिल्ल्या अनंतान आनी प्रमोदान वयले वयर धरलें. तशेंच उखलून ताका वयल्या रस्त्यार हाडलें. मागीर गाडी हाडून ताका दुसरे कडेन व्हरून दवरलें. थंय अशेच वाटावन हाडिल्ले जायते लोक आशिल्ले. कोण व्हडल्यान रडटाले, कोण किळच्यो मारताले. कांय भुरगीं आवयक सादयत रडत हेवटेन तेवटेन फिरतालीं.

किशोरी शुन्य नदरेन खंय तरी पळयत बशिल्लें. ताच्या दोळ्यांत दुकाचो एक थेंब नाशिल्लो. अशे आवरो उडिल्ले अवस्थेंत जायते जाण बसून आसले. कोण तांकां पियेवंक उदक दितालो, कोण खावंक तोंडा कडेन धरतालो. चडश्या जाणांक खाणा-जेवणाची वान्साच नाशिल्ली. तांच्या दोळ्यां मुखार हुंवाराचें मातयेरंगाचें उदक आनी त्या उदकांत व्हांवन वचपी तांचें सामान दिसतालें. कोणा कोणाक स्वयंसेवकांनी वाटावन खंय खंय सुक्या जाग्यार दवरिल्ले. कोण आपले आपूण धांवन सुरक्षीत जाग्यार राविल्ले. ह्या बोवाळांत कोण खंय पावला, कोणाकूच खबर नासली.

बरे आशिल्ले लोक आपल्या मनशांक सोदत वायट दुबाव मनांत घेवन हेवटेन तेवटेन भोंवताले. एके वटेन दोळ्यांक लागिल्ल्यो धारा आडावपाचो यत्न करताले.

अशे दोन दीस गेले. किशोरी साबुद्‌देर येवंक नासलें. ताका हॉस्पिटलांत घाल्लें.

वैजयंती खंय खंय कोणा कोणाक आदार करीत भोंवतालें. ताचें वरी जायते कार्यकर्ते खाणा-जेवणाची सुद्‌द बुद्‌द धरनासतना हुंवार पिडेस्तांक आदार करत भोंवताले. घर-दार वगडावन बशिल्ल्या लोकांक खाण जेवणा वांगडा, कपडे, हांतरूण-पांगरूण सगळ्याचीच व्यवस्था करूं जाय आसली. जायत्या जाणांनी खोशयेन दिल्लें सामान-सुमान गरजेवंतांक सारकेंच पावोवंक जाय आसलें. कोणा कोणाचीं घरां बरीं आसलीं पूण हुंवारान रेब्यान, मातयेन भरिल्लीं. थोडें सामान व्हांवन गेल्लें जाल्यार उरिल्लें वाट लागिल्लें. तींय घरां निवळ करून तांचीं तांकां दिवंक जाय आसलीं. ह्याच बोवाळांत मंत्री-संत्री निरिक्षण करूंक येताले. जायत्या चॅनलांचे, दिसाळ्यांचे वार्ताहर फोटे काडीत मुलाखती घेत फिरताले. सगळे गडबडींत जायते कार्यकर्ते आपलें घरदार, आरोग्य विसरून वावुरताले. तातुंतूच हेरां वांगडा वैजयंतीय वावुरतालें.

हे गडबडींत तें प्रदीपाचे फामिलेक पुराय विसरिल्लें. चवथ्या काय पांचव्या दिसा तें प्रदीपाच्या वाड्यार पावलें. एक वणत कोंसळिल्ल्या ताच्या घराची दशा पळोवन वैजयंती तटास जालें.

— हीं तिगांय खंय आसात? बरीं आसात मूं? ताणें वांगड्यांक विचारलें. तांणी ताका घडिल्ली गजाल सांगली. प्रदीप आनी कुटूश कशे व्हांवन गेले तें आयकून ताच्या दोळ्यांत

भळ्ळ करून दुकां आयलीं. खिणभर दोळे धांपून तें वोग्गी रावलें. दुसऱ्या खिणाक ताका किशोरीची याद आयली. तें हॉस्पिटलांत आसा म्हणून कळटकच ताणें आनी वेळ केलो ना. तें सडसडीत हॉस्पिटलांत गेलें.

थंय उकत्या दोळ्यांनी फॅनाक पळयत आड पडिल्लें किशोरी ताका दिसलें. ताच्या दोळ्यांत वळखीची कसलीच कुरू नासली. वैजयंतीन ताका कितले उले मारले. शुन्य नदरेन ताणें वैजयंती कडेन पळयलें. वैजयंतीन कुटूशाची, प्रदीपाची याद काडून ताका रडोवपाचो यत्न केलो. पूण ताच्या भावना शेणिल्ल्या दोळ्यांत कांयच हालचाल जाली ना. दोळ्यांची पातकडीय हालयनासतना तें लाकूड कशें पडून आसलें.

वैजयंतीन किशोरीची जबाबदारी घेतली. भायलीं कामां करतां करतां तें किशोरी म्हऱ्यांत येवन ताचीय वासपूस करतालें. रातचें ताचे म्हऱ्यांत हॉस्पिटलांत रावतालें.

पंदरा-एक दिसां उपरांत किशोरी मातशें साबुद्देर आयलें. पूण तें फकत... कुटूश... कुटूश, उदकांत वचूं नाका... प्रदीप, ताका आडाय... तो गेलो... धांव रे... धांव, तो गेलो..., अशें आड्डून बेसुद्द जातालें. तें अजून अन्न उदक तोंडांत घेय नासलें. ताका सलायनाचेर दवरिल्लें.

म्हयन्यान सुमार तें पुराय साबुद्देर आयलें. ताचेर दुःखाचो दोंगर कोसळ्ळो. हो हुंवार वैरी जावन आयिल्लो, ताणें आपल्याक पुराय तरेन नागयलां म्हणपाचें ताका कळ्ळें. 'अपुरबायेचो पूत आनी मोगाचो घोव नासतना हांव जगूं तरी कित्याक?' म्हणत दोन खेपे तें जीव दिवंक धांवलें.

आतां ताका सांबाळप वैजयंतीक कुस्तार जाल्लें. तरी तें ताका मातूय पातयेनासलें. निमाणें ताका एक उपाय येवजलो. तें ताका सदांच आपले वांगडा हुंवारान नागवल्ल्या, उद्ध्वस्त जाल्ल्या लोकां मदीं व्हरतालें. कितलेशे लोक बेघर जाल्ले. कांय जाणां ताचे वरी एकटीं एकसुरीं उरिल्लीं. कितल्याश्या जाणांची जल्माची जोड काबार जाल्ली. तांकां धीर दिवंक, तांचे दोळे पुसूंक ताणें किशोरीक सांगलें, 'तुज्या कुटूशाक ह्या माणकुल्या भुरग्यां मदीं सोद, तुजें मन तांकां पोशेतना विसरायेर पडटलें...'

वैजयंतीची सांगणी किशोरीन मना पसून आयकली. हुंवारग्रस्तांक मजत करपाच्या वावरांत ताणें वैजयंतीक खूब आदार केलो. ह्या बोवाळांत किशोरी पुराय निवळ्ळें. कितल्याय व्हडल्या प्रसंगार काळ हेंच वखद आसता म्हणटात तें किशोरीचे बाबतींत खरें थरलें. दीस वतात तशे किशोरीचे कड ल्हव जाताले. बाकीच्यांचीं दुःखां पळोवन ताका आपलें दुःख ल्हव दिसूंक लागलें. दीस तांचे मदीं, हांगाचो थंयचो विचार करपाक दिनासतना, सरतालो. रात मात ताची वैरीण जाल्ली. दोळे धांपले काय कुटूश आनी प्रदीपाचे चेरे ताचे मुखार येताले. मागीर ताची न्हीद नाच्च जाताली. न्हिदेची गुळी घेतले बगर न्हीद येना आसली. ह्याच बोवाळांत ताचें प्रेशरूय मदीं मदीं वाडटालें.

जांचीं घरां मातशीं मोडिल्लीं, तीं सारकीं करून, निवळ करून, थोडें सामान कपडे दिवन तांकां घरांत रावंक धाडटालीं. किशोरीच्या घराची एकूच वणत पडिल्ली. तें सारकें करून दितकर आपणें एकट्यान थंय कशें रावप हें चिंतुनूच ताचें काळीज धडधडटालें. त्या घरांतूच न्हय,त्या वाठारांत लेगीत ताका वचन दिसनासलें. खंयी तरी पयस पळून वच्चें अशें ताका मना पसून दिसतालें. पूण वतलें खंय? हातांत पयसो आडको कांयच ना, शिर्वीस ना. करूं कितें? ह्या प्रस्नान तें वयर सकयल जातालें.

खूब विचार करून ताणें थारायलें, खंयच्याय तरी आश्रमांत वचप. ताणें हळूच वैजयंती कडेन हो विशय काडलो. वैजयंती तयार जालें ना. ताणें म्हळें,

— किशोरी, तुजें वय चड ना. तुका हांव खंयी शिर्वीस पळोवन दितां. म्हज्या शेजरा खंयी बिराड पळोवन दितां. तूं नव्यान सगळें सुरू कर.

— ना वैजू. नव्यान कितें सुरू कर म्हणटा? जांचे खातीर जगपाचें तेच दोगूय जाण नात. तांचे बगर एकटें रावल्यार हांव पिशें जातलें. म्हाका ह्या वातावरणांतल्यान त्या दिसाचे ते यादी पसून पयस खंयी वचूं जाय. हांगा हांव जाग्यार येवचें ना.



वैजयंतीक ताचें सांगणें पटलें. थोडे दीस ताका दुसऱ्या वातावरणांत दवरून सारकें निवळटकच हांगा हाडुंया अशें ताणें येवजिलें. ताच्यो वळखी खूब. सगळ्यांत पयलीं ताका येवजलें मुंबयचें बेन निकेतन. थंयची संचालिका विजयाबेन वैजयंतीची इश्टीण. तिका सगळें सांगून वैजयंती किशोरीक थंय थोडे दीस दवरपाक घेवन गेलें. दोन दीस ताचे बरोबर थंय रावलें. रोखडेंच ताका व्हरपाक येता म्हणून सांगून गोंयांत परतलें.

धायेक दीस जाता म्हळ्यार किशोरीन वैजयंतीक फोन केलो. आपलो थंयच रावपाचो निश्चेव ताणें ताका कळयलो.

— ...सूं... सूं... सूं...

— वैजयंती बेन, आमची बेन साबुद्देर आयली. कंचन एकदम किळांचलें. सगळींच धांवून तिचे खाटी म्हऱ्यांत गेलीं.

— किशोरी, निवळ्ळें गो पापया? केन्ना साबुद्देर आयलें?

— वैजू, तुज्या आवाजान... हांव जागें... परतूय तो ...हुंवार तुवें... हाडलो गो हांगा...

खोल गेल्ल्या आवाजान किशोरीन म्हळें. वैजयंतीक घट वेंग मारून खोळसां फुटून रडपाक लागलें. वैजयंतीय ताका वेगेंत घेवन रडपाक लागलें.

कंचन भियेवन तांकां थातारपाक वतालें. उर्मिलान ताका आडायलें आनी म्हळें,

— चल कंचन, आमी भायर या. बेनीक रडुंदी. बेगीन बरी जातली ती.



# सरळ वाटेन शिरसी... आड वाटेन याणा

**हर्षा शेट्ये**

मडगांवच्यान भायर सरिल्लीं तीं बद्द शिरसी येवन रावलीं. आमचें बुकींग पंचवटी हॉटेलांत आशिल्लें. हें हॉटेल मातशें शिरसी गांवाचे भायर आसा. रानांतूच म्हळ्यार जाता. म्हाका गांवांत भितर हॉटेल आसल्यार बरें दिसता. एकटें वचून बाजारांतल्यान बी पासय मारून येवंक मेळटा. गांवा भायर आसल्यार अनवळखी जाग्यार एकलें वचपाक भंय दिसता. तकलेंत हो विचार घेवन पंचवटी हॉटेलांत भितर सरलें. भितर सरतनाच कर्नाटक टुरिझमान कर्नाटकांतल्या पर्यटन थळांचे फोटो लायिल्ले दिश्टी पडले. याणाचीं शिखरां, जोगफॉल्स, बनवासी, हंपी... लोकनृत्यांत वापरतात तीं तरेकवार रुपडीं, लाकडाच्यो कोंरांतिल्ल्यो वस्तू थंयची सोबा वाडयताल्यो. इतलेंच न्हय तर हारशाचे आलमारींत साडयोय लायिल्ल्यो. कर्नाटकी सिल्काचेर कर्नाटकी टाक्यान भरिल्ल्यो साडयो. ह्या टाक्याक 'कशिदा' हें खास नांव आसा. हाचेर रचिल्लें एक प्रसिद्ध मराठी पद आसा तांची याद जाली. *'रेशमाच्या रेघांनी, लाल काळ्या धाग्यांनी, कर्नाटकी कशिदा मी काढिला, हात नका लावू माझ्या साडीला'.* ह्यो साडयो मेळटाल्यो त्या दुकानाचें नांव थंय आशिल्लें. हांवें आनी नवलान सोमतेंच म्हळें, फाल्यां वचून पळोवया. बरो रंग मेळ्ळो जाल्यार घेवया.



थंयच्या रेस्टॉरंटाचें नांव रामनाथ रेस्टॉरंट आशिल्लें. पूण थंय शिवराकूच जेवण मेळटालें. म्हणून आमी लागींच आशिल्ल्या 'शेट्टी लंच होमां'त गेलीं. म्हयन्या पयलींच तें सुरू जाल्लें. जेवण बरें आशिल्लें आनी गोंयच्या मानान सवाय. थंयची स्पेशालिटी बिर्याणी खंय. बिर्याणीचें पार्सल व्हरपाक खूब जाण येताले. जेवन हॉटेलांत आयलीं. रातचें आनी खंय वचपाचें नाशिल्लें. रिसेप्शन काउंटरा वयल्यान पर्यटन थळांचो नकासो घेतलो आनी रुमांत आयलीं.

सकाळीं उठून रामनाथ रेस्टॉरंटांत गेलीं. हे रेस्टॉरंट कोंकणी मनशाचें. पैमाम आनी तांचीं पूत-सून तें चलयतात. पंचवटी हॉटेल मात हेगडे ह्या कन्नड भाशिकाचें. थंय लागसारूच आशिल्ल्या सिद्धापूर गांवांत पर्तगाळ स्वामींचो चार्तुमासांत लक्ष्मी वेंकटेश मठांत मुक्काम आशिल्लो. दनपरां थंय वचपाचें थारायलें. पयलीं शिरसी सावन तेरा किलोमिटरांचेर आशिल्लें सहस्त्रलिंगम पळोवपाक गेलीं. सहस्त्रलिंगम म्हळ्यार, एके न्हंयंत कितलींशींच ल्हान व्हड आकाराचीं पाशाणी लिंगां. खंय खंय नंदीय दिश्टी पडलो. सगळीं लिंगां फातरांतल्यान कोंरांतून काडल्यांत. इतलीं लिंगां कोणें आनी कित्याक कोंरांतिल्लीं तें कोणाकूच खबर ना. पावसाचे दीस आशिल्ल्यान न्हंय तुडूंब भरिल्ली. तरी कितलींशीं लिंगां दिश्टी पडटालीं. गिमांत उदक कमी आसता तेन्ना हजारांनी लिंगां दिश्टी पडटात खंय!

थंय लागींच सोंदे हो गांव आसा. सोंदे म्हणून इंग्लीशींत बाण दाखयल्लो दिश्टी पडलो. ते वटेन गेलीं. फुडें दोन रस्ते फुट्टात. तेन्ना थंय बशींक उबे राविल्ल्या दोग-तीग जाणांक विचारलें. रथाच्या आकाराचें रमात्रिविक्रम मंदीर आसा म्हूण आयकल्लें. मंदीर... मंदीर... टेम्पल खंय, काय म्हूण विचारलें. आयकुपी 'भास कळना' ह्या अर्थान हात हालयत रावले. इतल्यान एक चली थंय आयली. 'टेम्पल वन्न किलोमिटर', ताणें उजवे वटेन बोट दाखयलें. ताचेर विश्वास दवरून गेलीं. रस्तो सामको निर्मनुष्य. फुडें आनिकूय दोन वाटो फुटल्यो. थंय कन्नडांत कितें तरी बरयल्लें आशिल्लें. पूण बाण बी कांय नाशिल्लो. उजवे वटेन गेलीं. फुडें रस्तोच ना! कुळागरांत पावलीं. इतल्यान एकलो मनीस स्कुटर स्टार्ट मारता तो दिश्टी पडलो. 'टेम्पल... टेम्पल... मंदीर...' म्हणटकीच तो कन्नडांत कितें तरी सांगूंक लागलो. 'कन्नड इल्ला' म्हळें. मागीर हिंदींत उलयलो. 'यह बोर्ड नहीं देखा? मैंने उसपर लिखा है!' 'उसपर कन्नड में लिखा है, हम कैसे पढेंगे?' म्हणटकीच ओग्गी रावलो आनी स्कूटर घेवन आमचे फुडें आयलो आनी सरळ रस्त्यान वचात म्हण वाट दाखयली. थंय सावन गेलीं जाल्यार सोंदे मठ! देवूळ खंय? थंय गाडयो पार्क केल्ल्यो आशिल्ल्यो. एक दोग ड्रायव्हरांक विचारलें. तांकां सांगपाक कळना जालें. तशींच परतलीं. सिद्धापूर वचपाक गेलीं. सिद्धापूर लक्ष्मी वेंकटेश देवस्थानांत व्हडलो गणपती पुजेक लायिल्लो. तो दीस चवथीचो आठवो दीस. पूण वाटेर खंय खंय गणपती पावोवपाची तयारी चलताली. घडये थंय आठव्या दिसा पावयतात जावये. गणपतीचें दर्शन घेतलें. देंवळांतल्या देवाचें घेतलें, स्वामीचेंय घेतलें आनी जेवपाक गेलीं. जेवण खास उडपी पद्धतीचें. तातूंतलो म्हाकां आवडटा तो जिन्नस म्हळ्यार फळांचें सांसंव. अनस, सफरचंद, केळीं, द्राक्षां... स्वामींचे भेटेक येतना हाडटात तीं सगळीं फळां ह्या सांसवांत आसतात. म्हणून ताका वेगळीच रूच येता. गोड केळ्यांचीं भजीं म्हळ्यार आयलोल्योय आशिल्ल्यो. जेवन भायर सरलीं. वाटेर सिद्धापूरचो बाजार लागलो. वेळाचो एक पाटलो विकतो घेतलो. नाल्ल बी दवरपाक बरो पडटा. असलो घट्ट विणीचो पाटलो गोंयांत मेळना.

सिद्धापूर सावन बनवासी वचपाक गेलीं. थंय अठराशें वर्सां पयलींचें कदंब काळांत बांदिल्लें मधुकेश्वर हें शंकराचें देवूळ आसा. पयलींच्या काळांत बनवासी खंय कर्नाटक राज्याची राजधानी आशिल्ली. देवळाचे गेटी भायर व्हडलो रथ दवरिल्लो आशिल्लो.

गेटी भितर सरलीं. देवूळ दिश्टी पडलें. वेगळेच तरेन बांदिल्लें. खंयचेंय नवें पळयल्लें देवूळ म्हाका फाटल्या देवळा परस वेगळें दिसताच. हें देवूळ बसकें. पसरट कशें. देवळाच्या दारांतूच सात फूट उंचायेचो नंदी आसा. हरशीं शंकराच्या देवळांतल्या नंदीची मान सरळ आसता. हाची तिरपी आसा. आमी भितर सरतनाच कोंकणी उलोवपी आमचो चोमो पळोवन थंयच्या भटान 'आप लोग कहाँ से आए हैं?' म्हूण हिंदींत विचारलें. 'गोवा' म्हणटकीच तो फुडें आयलो. देवाक पांयां पडटा आसतना आरती सेवा करूं काय म्हूण विचारूंक लागलो. हय म्हणटकीच फुडें येवन ताणें कापराची आरत दाखयली. सगळ्यांचीं नांवां घेवन देवाक सांगणें केलें. तें कन्नड भाशेंत केलें. हिंदींत ताचो अणकार करून सांगलो. भटाचें नांव दत्तात्रय हनवटी. हांगा पार्वतीचें देवूळ आसा आनी देवळाच्या चारूय वटांनी पुराय भारतांतलीं ज्योतिर्लिंगां आनी देवांच्यो मुर्त्यो आसात. आपूण गायड म्हूण तुमकां म्हायती दिवंक शकतां, शंबर रुपया वेगळे दिवचे पडटले, म्हणूंक लागलो. बरें म्हळें. थंय आनीक दुसरो गायड मेळचो नाशिल्लो. इतलीं पयस येवनूय देवळा विशीं कांयच कळचें नाशिल्लें.

'ह्या लिंगाचो रंग पळयात. तांबसार काळसो. म्होंवा कोराचो. हनी कलर. हनी म्हळ्यार मधू. म्हणून ह्या लिंगाचें नांव 'मधुकेश्वर'. आतां ह्या नंदीक पळयात. 'वह एक आँख से शंकर भगवान को देखता है, तो दूसरी आँख से माता पार्वती को.' मागीर देवळा भायर हाडून देवळाचो कळस न्हय, शिखर दाखयलें. हाका कैलास शिखर म्हणटात. हाचें दर्शन केल्यार हिमालयांतल्या कैलास शिखराचें दर्शन केल्ल्याचें पुण्य मेळटा. आमी तें दर्शन करून पुण्य जोडलें. देवळाक वयर कळस आसता त्या जाग्यार घुमटी आशिल्ली. भितर शंकर पार्वतीची नंदीर बशिल्ली म्हूर्त आशिल्ली. भितर गेलीं. देवळाचे पांच मंडप आसात. गर्भकुडींतलो गर्भ मंडप. भायर, उबीं रावन देवाक पांयां पडटात तो पूजा मंडप. सुळसुळीत फातराचो एक वाटकुळोच जागो. ताचे भायलो सभा मंडप. नंदीचे मुखार जें वर्तूळ आसा तो नृत्य मंडप. ताचेर नर्तकांचीं चित्रां आसात. नंदी फाटलो नंदी मंडप. सभामंडपाचे भायर एक शिल्प कोंरातिल्लें आसा. त्रिलोक मंडप. ताचे तीन भाग आसात. वयलो स्वर्गलोक, मदलो भूलोक आनी सकयलो पाताळ. तिनूय लोकांचें दर्शन घडोवपी शिल्पां तातूंत कोंरांतिल्लीं आसात. नंदीच्या चारूय वटांनी ६६ खांबे आसात. थोडे खांबे कोंरातिल्ले, थोडे सुळसुळीत ग्रॅनायटाचे. 'यह दो सायंटिफीक पिलर्स', म्हळ्यार, आतां पळयात, ताणें हात हालयलो. त्या सुळसुळीत खांब्यांत हाताचीं दोन प्रतिबिंबां उलट आनी सुलट दिश्टीं पडलीं. Concave and convex images, ताणें म्हळें. अठराशीं वर्सां पयलींचें तंत्रज्ञान. एक अजाप. तेदेवेळार कारागिराक विज्ञानाचें ज्ञान आशिल्लें तर! बाकीच्याय खांब्यांचेर, देवळाचे भायले वणटीचेर, कितें कितें कोंरातिल्लें आशिल्लें. पूण म्हजें ज्ञान 'यथातथाच'. त्या वाटकुळ्या नृत्य मंडपाचेर नर्तकीच्या चित्रा वांगडा देवनागरींत कितें तरी बरयिल्लें आशिल्लें. पळोवपाक कोंकणींत बरयलां शें दिसलें. पूण अक्षरां सारकीं वळखुपाक येना आशिल्लीं.

देवळा भायर मुखार ज्योती स्तंभ आसा. थंय कार्तीक म्हयन्यांत अखंड ज्योत पेट्टा. शंकराच्या देवळाक तेंकून पार्वतीचें स्वतंत्र देवूळ आसा. हांगा भट आमका कुंकूमार्चन कर म्हणूंक लागलो. कुंकूमार्चन करून देवीक सांगणें केलें. देवळांतल्यान आतां नंदीक पळयात म्हणूंक लागलो. पळयत जाल्यार नंदीचो फकत एकूच दोळो दिसता. ह्याय देवळाचे खांबे वैशिष्ट्यपूर्ण आसात. हांगा ७२ खांबे आसात. देवळाचे चोंयवटेन देवळ्यो आसात. तातूंत देवांच्यो मुर्त्यो आसात. तांतलें एक वेगळेपण म्हळ्यार, सगळ्या देवां बराबर तांच्यो बायलो आसात. इंद्र आनी शची, यमदेव आनी हेमा, वरुण आनी शुची, वायुदेव आनी अंजना, विठोबा आनी रुक्मीण... ते भायर भारतांतलीं सगळीं ज्योतिर्लिंगां हांगा आसात. अमृतपूरचो अमृतेश्वर. काशीचो विश्वेश्वर. केदारेश्वर, रामेश्वर, सोमेश्वर... गाणगापूरचो दत्तात्रय, कोनार्काचो सूर्यनारायण. हातूंतली अयोध्येच्या रामाची मूर्त मात संगमरवरी आसा. इतल्यो सगळ्यो मुर्त्यो करपाचें कारण म्हळ्यार, ते मुस्तींत सर्वसामान्य मनीस यात्रेक वचून ह्या देवांचें दर्शन घेवंक शकना आशिल्लो. ते खातीर कदंबराजान मुद्दाम ह्यो मुर्त्यो कोरांतून घेतिल्ल्यो. हातूंत आनीक एक अर्दगणेशाची मूर्त आसा. ह्या गणपतीक एकूच अर्द आसा. ताचें दुसरें अर्द वाराणशीक आसा अशें मानतात. ते भायर एक बाज्ज आसा. एका फातरांतल्यान कोंरातिल्ली. पयलीं देवाक बी तिचेर न्हिदयताले जावये. बाज्जे वयलें कोंरीव काम अप्रतीम. बाकी सगळी देवळाची शिल्पकलाय उत्कृश्ट अशी. थंय देवळाच्या प्राकारांत एक म्युझीयम आसा. त्या दिसा तो बंद आशिल्लो. पूण जाळयेंतल्यान भितल्ल्यो वस्तू दिश्टी पडटाल्यो. चडश्यो भग्न मुर्त्यो आशिल्ल्यो. भायर उबो आशिल्लो व्हडलो रथ रामचंद्र नायक हांणी तयार केला म्हणून कळ्ळें. शिवरात्रेक हांगा व्हड जात्रा भरता. ते भायर दर वर्सा कर्नाटक सरकाराचे वतीन दोन दिसांचो कदंबोत्सव हो सांस्कृतीक महोत्सव जाता.

शिरसी येवपाक भायर सरलीं. वाटेर शिरसीचें जागृत देवस्थान मरिकांबा लागलें. भायल्यान पळयल्यार राजवाडो कसो. भायले वणटीचेर रंगीत चित्रां काडिल्लीं आसात. भितर सरपाक मर्दी व्हडलें दार. दोंशीं वटांनी व्हडलीं जनेलां. हें देवस्थान म्हळ्यार हिंदू धर्मांत ज्यो कितें वायट चालीरिती आसात त्यो फाटीं उडोवन बरें आसा तें फुडें घेवन गेल्लें देवस्थान.

दलीत शोशीत समाज हे देवीक भजतालो. मरिकांबा म्हळ्यार मरीआई. ही देवी साथीचे रोग, म्हळ्यार प्लेग, कॉलरा, देवी... , हुंवार, भुंयकांप असल्यो सैमीक आपत्ती हांचे कडेन संबंधीत आसा. तिचो कोप जालो जाल्यार ती कितल्याश्याच लोकांचो जीव घेतली असो समज आशिल्लो. तिका प्रसन्न करपा खातीर तिचे भक्त जनावरांचो बळी दिताले. म्हशी, बोकड्यो, कोंबे... ते भायर दोन वर्सांनी जावपी जात्रे वेळार देवस्थानाचे वतीन बळी दिवपा खातीर खावोवन पियोवन एक रेडो मातयताले. आनी जात्रे वेळार सगळ्या लोकां मुखार ताका कापताले. हेर भक्तांनीय केल्ल्या आंगवणींनी देवळा मुखार रगताचो चिखोल जातालो. पूण महात्मा गांधींचे अहिंसा शिकवणेन हें बदल्लें. ह्या देवळाचे एक ट्रस्टी शेषगिरी नारायण केशवैन आनी गांवचे समाज सुधारक विठ्ठलराव होडींगे हांणी गांवच्या लोकांक समजावनं समजावन ही प्रथा ल्हवू ल्हवू बंद उडयली. केशवैन हांणी तर बळी दिवपाक तयार दवरिल्लो रेडो रातोरात पळोवन

व्हेलो. १९३३ त गांधीजी शिरसीक आयिल्ले. तेन्ना तांणी मरिकांबा देवळांत भितर सरपाक न्हयकार दिलो. देवळा सारको पवित्र जागो जनावरांच्या रगतान माखून उडोवं नाकात. देवीच्या पांयां कडेन कोणाकय आसरो मेळपाक जाय. थंय ह्या मोन्या जिवांक आपलो जीव वगडावचो पडटा ही खूब खंतीची गजाल. अशें सांगून गांधीजी देवळांत भितर सरले नात. हाचोय लोकांच्या मनाचेर परिणाम जालो. तेन्ना केशवैन हांणी सांगलें, जनावरांच्या वांट्याचे तितले पयशे लोकांनी देवीक अर्पण करचे. हो पयसो शाळा आनी हॉस्पिटल काडपा खातीर वापरले. तांणी हरिजनांकूय देवळांत प्रवेश मेळोवन दिलो. हरिजनांक देवळांत प्रवेश दिवपी हें पयलें देवस्थान. गांधीजींच्या संपादना खाला भायर सरपी हरिजन नेमाळ्यांत खंय तांणी केशवैनांचें हे खातीर खासा अभिनंदन केलां. ह्या देवळाचे सध्याचे पुरयत विश्वकर्मा समाजांतले आसात. देवस्थाना बद्दल ही म्हायती मेळटकीच देवीची मूर्त पळोवपाची उमळशीक वाडली. दारांतल्यान भितर सरतनाच व्हडलें साल लागलें. देवीची कसलीय सेवा करपाक जाय जाल्यार काउंटराचेर लायनींत उबें रावन पावती काडपाची. पुरयत मागीर आरती करता. ही देवी अष्टभुजा, म्हळ्यार आठ हातांची आसा. हें तिचें रूप महिषासूर मर्दिनीचें. तिची ही मूर्त खंय लागसरच्या तळ्यांत मेळिल्ली. देवीची भेट घेवन भायर आयलीं. हॉटेलांत पावता म्हणसर सात वरां जायत आयलीं. मातशीं रुमांत वचून फ्रॅश जालीं.

रेस्टॉरंटांत पैमामाची सून आनी धूव मेळ्ळी. खंय खंय वचून आयलीं काय म्हूण खबर घेवंक लागलीं. फाल्यां वतना याणा पळोवन वचात म्हणूंक लागलीं. दोंगरांत भितर एक घोल आसा आनी ही दोंगुल्ली वेगळेच तरेची, तें संवसारांतलें एक अजाप कशें अशें तांणी सांगलें. तें आयकून सोनल आनी वोगी रावलां? आमी याणा याच म्हणूंक लागलें. साडयो पळोवपाक बाजारांत म्हणून वचूंक गेलीं. जाल्यार पिकपींनी गणपती पावयताले. मोटारीं खातीर वाट बंद आशिल्ली. गाडी शेट्टी हॉटिलाचे आयल्यान दवरली आनी चलून वचूंक लागलीं. डिस्को संगिताच्या ठेक्यार लोक नाचत नाचत येताले. नाचतां नाचतां दोग जाण झगडूंक लागले. झगडटां झगडटां आमचेर येवन आदळ्ळे. तांकां कितेंच म्हणपाची माणसुकी नाशिल्ली. आमीच मोन्यांनी कुशीक सरलीं. पयलींच भाशेचो गोंदळ. नाका त्यो साडयो म्हणत शेट्टी हॉटिलांत वचून बसलीं.

दुसऱ्या दिसा साडेणवांच्या सुमाराक हॉटिलांतल्यान भायर सरलीं. मराठी उलोवपी एक ग्रूप थंय आशिल्लो. तांणी तांचे वांगडच्या गायडाक 'याणा वचपाक जाय' म्हूण सांगलें. तो म्हणपाक लागलो, रस्तो बरो ना; तुमकां ही गाडी घेवन वचपाक त्रास जातलो. तुमी ते परस मुर्डेश्वर नाजाल्यार दांडेली वचात. सोनल बापाय कडेन पळयतच रावलें. रस्तो बरो ना, वचप ना, शिवदत्तान ताका सांगलें. तें तोंड फुगोवन बसलें.

गोंयां वचपाक भायर सरलीं. फुडें वतकीच याणा ४० कि.मि. म्हूण बोर्ड दिसलो. सोनल 'डॅडी, या मरे, या मरे' करीत रावलें. 'अण्णाकाका, तूं तरी सांग मरे डॅडीक,' म्हणत सदुगुरूक लोणी लावंक लागलें. 'हांव कांयच नकळों. गाडी ताची, तो गाडी चलयता. तुमी बापूय धूव कितें तें पळोवन घेयात,' सद्गुरून हात फांपुडले. निमाणी आशा म्हूण तें म्हजे फाटीक लागलें. 'हर्षाकाकी, या मगे याणा. तुका मागीर प्रवासवर्णन बरोवपाक मेळटलें मगे...' भुरगीं इतलीं फाटीक लागल्यांत तें पळोवन हांवेंय या म्हळें याणा. हेगडे कट्ट्या कडल्यान गाडी भितरल्या रस्त्यान घेतली. हो आडवाटेनचो रस्तो मातसो लागींचो म्हणून. मदीं एक ल्हानसो गांव लागलो. 'याणा याणा...?' रस्तो विचारलो. त्या मनशान 'डायरेऽऽक्ट' म्हणत सरळ रस्त्यान बोट दाखयलें. फुडें पावलीं. रस्त्यार कोण ना. मदीं पावस पडटालो. दोशीं वटेन झाडी. सावय वतना असो एक रस्तो लागता. फाटल्या दिसांनी दत्तराज सावय गेल्लो. ताका ती याद जाली. 'पप्पा, सामकें सावय न्ही रे?' तो म्हणूंक लागलो. फुडें वतकीच परत्योय तीन वाटो. बोर्ड कन्नडांत, रस्तो निर्मनुष्य. पांच मिनटां रावलीं. कोण थंय सावन येता काय म्हूण पळोवंक. पावसान काळोख केल्लो. वातावरण गूढ कशें. बेश्टोच भंय दिसपाक लागलो. एक मात खरें, रस्तो बरो आशिल्लो. नवोच केल्लो जावये. फकत वाटेर खंय खंय सांकव लागता थंयचें डांबर व्हांवन गेल्लें. आतां खंयची वाट घेवची? मागीर बोर्ड सारको पळयलो. सगळीं नांवां कन्नडांत आशिल्लीं. पूण किलोमिटर इंग्लीशींत बरयिल्ले. याणा बरो टुरिस्ट स्पॉट म्हणटात जाल्यार एक तरी बोर्ड इंग्लीशींत आसपाचो न्हय? निमाणें सगळ्यांत ल्हान नांव आशिल्लें तेंच म्हळें याणा आसतलें. ताचे मुखार २० कि.मि. बरयिल्लें. आमची गाडी वीस एक किलोमिटर चलिल्ली. फुडें वचत रावलीं.

पयलीं गच्च झाडी आशिल्ली, आतां गच्च रान लागलें. किनळ, माट्ट, बर्मासायल ह्या झाडांचेर दाट शेळो दाटिल्लो. हो शेळो बडयेक लावन 'मॉस स्टिक' म्हूण विकपाक येता. आतां परतेय दोन रस्ते लागले. बोर्ड आसा. कन्नडांत नांवां आसात. पूण मुखार बाण नात. कर्नाटक सरकाराक इंग्लीशींत बोर्ड बी बरयले जाल्यार कमीपण येता काय? पर्यटकांनी तुमचीं प्रेक्षणीय थळां पळोवंक येवंक जाय अशें तुमकां दिसता आसत जाल्यार तांकां समजता ते भाशेंत बोर्ड आसपाकूच जाय. उजवे वटेन फुडें गेलीं. पाचवेंचार मळ लागलें. गायो पाडकां चरतात. म्हणटकीच मनीस खंय तरी हांगा लागीं आसतलेच. सकाळचीं साडे धा जायत आयल्यांत. पूण पावसा खातीर काळोख दाटला. सोनलाचें आयकून बेश्टींच हांगा आयलीं अशें दिसलें. पूण देव पावलो आनी तो दिश्टी पडलो... 'कांबळीवाला'... 'कांबळीवाला'... भुरग्यांनी कुलकुलाट केलो. हातांत बडी, माथ्यार कांबळ, आंगार शर्ट आनी कमराक तुवालो गुठलायला. म्हाका दिसता, आमचीं भुरगीं पयलेच फावट जितो जिवो राखणो पळयतालीं. आमगेर दिवचले चवथी वेळार आरती म्हणटकच एक गवळण म्हणटात. 'राधे तुला, राधे तुला, पुसतो घोंगडीवाला घोंगडीवाला, कांबळीवाला... घोंगडीवाला कांबळीवाला...' हांगा कांबळीवाला कृष्णाक लेखून म्हणलां. अजीत कडकडेन ही गवळण गायल्या. भुरगीं कांबळीवाल्याक पळोवन धादोस जालीं. म्हाका मात त्या निर्मनुष्य वाठारांत तो भक्तांच्या उल्याक धांवन येवपी कृष्णूच कसो दिसलो. 'याणा... याणा...?' ताका विचारलें. फुडें वचात, ताणें बोट दाखयलें. म्हणजे, आमी रस्तो चुकूंक नाशिल्लीं तर! फुडें सामको अशीर रस्तो. एकूच गाडी व्हरूंक मेळटा तसलो. ते भायर

देंवती. देवा पाव, मुखावयल्यान दुसरी गाडी येना जाल्यार पुरो. आतां गच्च रान. काळोख आनिकय काळपट जालो. फुडें फुडें तर रस्त्यार धुकें पातळ्ळां. फुडली वाट दिसना. गाडी सकयल देंवता तशे कान गच्च जाले. मांगिरीश तर कानांत कितें जाता म्हूण बोवाळ करपाक लागलो. आवाशिवा करून ल्हवू ल्हवू आठ-धा किलोमिटर वतकीच एक व्हाळ लागलो. थंय एक गाडी उबी आशिल्ली. व्हाळांत पांच स भुरगे न्हाताले. जिवांत जीव आयलो. 'याणा खंय' कांय म्हूण विचारलें. मातशीं फुडें वचात. पावलीं रोखडींच! चार-पांच किलोमिटर फुडें आयलीं जाल्यार एक व्हडलो आडों घाला आनी दोन तीन गाडयो थांबल्यात. एके जिर्पीतल्यान मनशां देंवतात. सूऽ जालें. तीन एक किलोमिटर भितर चलून वचपाक जाय, जिर्पीतल्या एका मनशान सांगलें. बारीक बारीक पावस झडटालो. दोशीं वटेन गच्च झाडी. मदल्यान अशीर पांयवाट. वयली माती व्हांवन गेल्या. झाडांचीं मुळां वयर सरल्यांत. ते भायर निसरट जाल्या. पांय सामको जतनायेन घालचो पडटालो. अशींच धा-एक मिनटां चलतकीच पयसुल्ल्यान दोन शिखरां दिसपाक लागलीं. याणा पावलीं! भुरग्यांनी बोवाळ केलो. म्हाका बेश्टेंच दिसलें, हे झाडयेंतल्यान एकाद्रें रानवटी जनावर धांवून आयल्यार कितें जातलें काय? येवजुनूच आंगार कांटो आयलो. मातशीं चलून वयर आयलीं. इतलो वेळ देंवती लागिल्ली. आतां चडटी. ह्या वाठाराक 'भैरवक्षेत्र' म्हणटात. मुखार लायमस्टोनाचे सैमीक रितीन तयार जाल्ले दोन दोंगर कशे आसात. पयलो, भैरव शिखर, १२० मिटर उंचायेचो. हें शिखर पळयतना वडाच्या झाडाची याद जाली. वडाचें एक एक पाळ दसून दसून वडाचो सकयलो भाग तयार जाता. तशेंच कितेंशें तें शिखर दिसतालें. पसरट. पाळाच्या आकाराचे फातर एकामेकांक चिकटून तयार जाल्ले बशेन. ह्या भैरव शिखरा पोंदा घोल आसा. ते घोलींत भितर स्वयंभू शिवलिंग आसा. होच भैरवेश्वर. थंय भट पुजा करतालो. ताका कन्नड सोडून दुसरी कसलीच भास येना आशिल्ली. हें कसलें देवूळ, अशें मात ताका विचारलां, ताणें 'महेशाऽऽऽ महेशा' म्हूण उलो केलो. एक भुरगो आयलो. 'हिंदी आता' म्हणूंक लागलो. ताणें आमकां देवळाची म्हायती दिली. घोलीक वयर एक चीर आशिल्ली. तातूंतल्यान उदक पाझरतालें. हें उदक गिमांत आनी पावसांत तितलेंच आसता. कमीय जायना आनी चडूय जायना खंय! ह्या उदकाक 'गंगोदभवा' अशें म्हणटात, महेशान फुडें सांगलें. पुराणकाळांत खंय रक्ताक्ष आनी कृष्णाक्ष हे दोग जाण राक्षसभाव आशिल्ले. तांचो नाश करपा खातीर शंकरान भैरवाचें रूप घेतलें. आनी पार्वती चंडीमोहिनी जाली. तांणी दोनूय राक्षसांक मारले. मागीर शंकर पार्वती दोगूय जाणां हांगा 'भैरवशिखर' आनी 'मोहिनी शिखरा'च्या रुपांत रावली. महेशान आपली काणी सोंपयली आनी तो आपल्या जाग्यार वचून बसलो.

मोहिनी शिखराची उंचाय ९० मिटर. ताचो आकार एके वटेन इमारती बशेन तर दुसरे वटेन टॉवर कसो. गच्च रानांत फकत हीं दोन शिखरां. एक अजाप कशें. खडपां, दोंगर असलें थंय कांयच ना. हीं शिखरां कशीं तयार जालीं, कोणाकूच कांय खबर ना. चंडीमोहिनीचें दर्शन घेतलें. शिवरात्रेक थंय व्हडलो उत्सव जाता खंय. फाटल्यान थंय एक कृष्णाची आनी एक गणपतीची देवळी आसा म्हूण कळ्ळें. पूण पावसान निसरट जाल्ली म्हणून आनीक खंयच गेलीं नात. दुसरें म्हळ्यार, दनपारच्या दोन वरां मेरेन आमकां कारवारा पावंक जाय आशिल्लें. साडे अकरा जाल्लीं. भुरग्यांनी महेशा कडेन वचून शिखरांचीं चित्रां आशिल्ल्यो कीचेनी घेतल्यो, पोस्ट कार्डां घेतलीं आनी आमी परतीं वचूंक लागलीं. पावस पडिल्ल्यान चडूच निसरट जाल्ली. पांय निसरताले. पांय सुळसुळटात म्हणून कुशीक फातराक हात धरलो जाल्यार भुसभुशीत मातीच हातांत येताली. एकदांची आडचा कडेन पावलीं. आतां आयिल्ल्या रस्त्यान परतीं वचपाक बरोच वेळ वतलो आशिल्लो. बेश्टेंच म्हणून थंय गाडये कडेन उबो आशिल्ल्या कडेन चवकशी केली. कारवार वचपाक आनीक एक रस्तो बी आसा काय म्हणून. ताणें म्हळें, हय. हो तिसरो रस्तो डायरेक्ट गोकर्णाक भायर सरता. तुमी हायव्हेचेर पावतलीं. मनांत म्हळें, बरें जालें. सुरवेक मातशें रान लागलें, पूण मागीर ल्हान ल्हान गांव लागले. गाडी मात धांवडावंक मेळनाशिल्ली. रस्तो तितलो बरो नासलो.

भुरग्यांक तान भूक लागिल्ली. वाटेर दुकानां, गाडे बी कांयच ना. मदी एका इल्ल्याश्या घरांत गाडो कम हॉटेल शें दिसलें. एक तरणाटी चली थंय उबी आशिल्ली. शिवदत्त देंवलो. सॉफ्टड्रिंक आसा, सोडा आसा काय म्हूण विचारलें. चली 'अम्मा...' म्हणत भितर धांवलें. एक जाणटेली बायल भायर आयली. गोरीच, सत्तर एक वर्सांची आसूंक जाय. ते चलयेची ती आवय आसली, जाल्यार तिची पिराय कमी आसूंक जाय. पूण ती पळोवपाक मात जाणटी कशी दिसताली. जाणटेली गोरीच, णव वारी कापड न्हेशिल्ली. हिंदी येना आशिल्ली. शिवदत्तान भितर वचून पळयलें. हुनहुनीत तळिल्लीं भिकणां आसात. ती बायल पुडयो बांदून भायर घेवन आयली. आनीक कांय ना म्हणूंक लागली. दनपारच्या वेळार सोयरीं आयल्यांत आनी आपले कडेन तांकां दिवपाक कांय ना अशे भाव तिच्या तोंडार उदेल्ले. आमी गाडयेंत बशिल्लीं आशिल्लीं. हांवें हारसो देंवयलो आनी तिका 'तुम्हारा नाम क्या है?' म्हण हिंदींत विचारलें. तिकाय कळना आनी चलयेकूय कळना. सोनलाक तीन-चार कन्नड वाक्यां येतालीं. ते तांचे वावराडे कडल्यान शिकिल्लें. 'निन्न हेसरू येनु?' ताणें अणकार केलो. ते बराबर दोगांयचे चेरे फुल्ले. 'गंगा... गंगाअम्मा' दोगांयनी म्हळें. सोनलान तिका विचारलें, 'उटा माडी?' म्हळ्यार, 'तूं जेवली?' ते बराबर ती एकदम भावूक जाली. गाडये कडेन आयली. म्हज्या पोल्यां वयल्यान हात भोंवडायलो आनी आपल्या तोंडा कडेन व्हरून पापी घेतली. तो स्पर्श हांव जल्मांत विसरचेंना. तिचो तो स्निग्ध, मुलायम मायेस्त स्पर्श म्हज्या आंगांत झिरपत गेलो. गाडी सुटली तरी हांव तिका दोळ्यां आड जाय मेरेन पळयत रावलें. मागीर तिणें दिल्ल्या मसमी भिकणांची पुडी उसयली. पिठयेंत तळिल्लीं मसमी भिकणां. रूच बरी जाल्ली. तेलूय बरें वापरिल्लें, रूच जिबेर उरली आनी गंगाअम्मान म्हज्या काळजांत सासणाची सुवात मेळयली. हांव याणाचें सैम विसरन, भैरव शिखर, मोहिनी शिखर विसरन, गंगाअम्मा आनी तिच्या हातांचो सालदाटो स्पर्श केन्नाच विसरचें ना!



# मुलाण्याचो बकस

मूळ मराठी: व्यंकटेश माडगूळकर   अणकार: मुलश्री वळवयकार

आमच्या गांवाक तेंकुनूच तालुक्याचो गांव आसा. पांचेक मैलांचे वाटेर. आदमासान, कारण थंय डांबराचो मार्ग ना. हाका लागून थंय मैलांचे फातरूय नात. गाडयांची खडबडीत वाट आसा. आयसपयस सगळें मेकळें मळ. पांच मैलांचो प्रवास आशिल्ल्यान प्रवासांत तान लागली जाल्यार खंयच उदक मेळना. रुखावळ लेगीत, सांवळी आसुनूय नाशिल्ले भशेन. कितलींशीं ल्हान-सान पानां नाशिल्लीं बोरीचीं झोंपां आसात. दनपारां भायर सरल्यार वाटेर चुकून कोणूय दिसलो जाल्यार दिसलो. चुकून खंय तरी एकाद्रो राखणो आनी गोमट्यो सकयल घालून चरव खावपी ताच्यो बोकड्यो दिसत, ना जाल्यार सगळ्याक शांतताय पातळिल्ली. एकलो भायर सरल्यार भुता वरी वच्चें पडटा. हेच भशेन वतांत भाजून वाट पयस करीत म्हाका वच्चें-येवचें पडटालें. गांवची शीम पांयांनीच माड्डून हांव कसलेंय एक चिंतप घेवन, त्याच नादांत बेगी बेगीन धेपां मारी. जायत्यो काणयो म्हाका ह्याच प्रवासांत सुचिल्ल्यो. तीन-साडेतीन मैलांची वाट सोंपून केन्ना मुलाण येतालो म्हूण कळऽ नाशिल्लें.

मुलाणकी आयली म्हणटकच म्हाका बरें दिसऽ. मुलाणकी म्हळ्यार मयरांच्या नांवान आशिल्ली भूंय. ती एका खेतक्यार आसा. पुराय वाटेर हींच चारा खतां. अशीच एक माणकुली अशीर व्हाळुली थंय मदल्यानूच आडवी गेल्या. पूण ती सदांच सुकी सडसडीत. तिचे कुशीक चार कोडू लिंबाचीं झाडां आनी कांट्याचे चार व्हडले रूख आसात. देखुनूच थंय पावतकच हूम पुसून कांय खीण सांवळेक बसूंक मेळटा. तितलेंच बरें दिसता. आनी, गांव आतां एक-देड मैलांचेर आसा हे आशेन जिवाकूय बरें दिसता.

बकसाची आनी म्हजी वळख हांगाच जाली.

एक फावट असोच सामको वतांतल्यान चलून आयिल्लों आनी मुलाणकींत करंजाच्या रुखाचे सांवळेक बशिल्लों. हुमेन नाकापुरो जाल्लें. शेतवडींत पीक नाशिल्ल्यान सरभोंवतणी कोणूच नाशिल्लो. नितळ

भारतीय कथा

सावळेंत मातशेंशें बरें दिशिल्लें. रेंवेंत आड पडून हांव भोंवतणीं नदर मारतालों. इतल्यान तेवटेनचो दोंगर देंवन बकस आयलो. म्हजे दिकेन आयलो. आंगान शिडशिडीत आशिल्लो बकस स आण्यांचें पायल जोतें ओडीत म्हजे सरीं आयलो आनी खूब दिसांची वळख आशिल्ले वरी हांसून उलयलो,

"बसलय सांवळेक? थकल्यात दिसताय. चड लागलां वत. चड ना जाल्यार वायच तरी लागतालांच."

आनी धोंपरां वयली पिंजकी बुरशी पॅण्ट ओडून रेवेंत सकल बसलो.

हांवें ताका केन्ना केन्ना गांवांत पळयिल्लो. मुलाणकींत वतना वाटेरूय केन्ना केन्ना पळयल्लो; पूण वळख नाशिल्ली. बकस वीस बावीस वर्सांचो आशिल्लो. ताचें उलोवप मात ल्हान भुरग्या भाशेन आशिल्लें आनी मुखामळार भावूय तशेच आशिल्ले. ताचें हांसप आनी दोळे घुंवडावप पळोवन म्हाका हो अर्दे तकलेचो आसूंक जाय अशें दिशिल्लें.

"मग इतक्या वतांत कित्याक भायर सल्ल्यात? पूण काम आसा जाल्यार भायर सरचेंच पडटा. वत म्हळ्यार जाता, आं?"

ताचें उलोवप लुडबें आशिल्लें. तो इल्लो वेगानूय उलयतालो. आपणेंच प्रस्न करचे आनी आपणेंच उत्तरां दिवचीं, अशी ताका संवय आशिल्ली.

"सायकलीर इतक्यांत तर रोकडेच पावतले आशिल्ले. आसा तुमची सायकल? ना रवची. खंयची रवतली? मग अशे चलान येवचे नाशिल्ले. आनी आसली तरी मोडल्यार तिचा कांय काम, खरा नूं या?"

इतलो वेळ हांव ओगीच. ताचें वतान भाजिल्लें मुखामळ, ओंठां वयल्यो तांबश्यो मिशयो, बोंदर जाल्लो कुर्ता, तो खुबूच पिंजिल्ल्या कारणान ताणें गांठी मारिल्ल्यो... हें सगळें म्हाका दिश्टी पडटालें.

"खरा, काय ना?" ह्या प्रस्नार हांसून हांवें मान हालयली. बकसाचें मुखामळ उजळ्ळें. आपणाकूय कळटा आनी हेरांक तें पट्टा, हे जाणविकेन तो आपले भितरूच हांसलो आनी लजिल्ले भशेन मुखामळ करून खंय तरी पळोवंक लागलो.

"तुजें नांव कितें?"



"अल्ला बकस म्हणटात म्हाका."

"अल्ला बक्ष, तूं खंयचो? तांबोळ्याचो काय कितें?"

"ना, हांव मुलाण्याचो. हांव बाबलाचो झील. तुमकां म्हायत आसताला? नासताला... तुमी खेका बघतात! मेलो तो. खूब दीस जाले. माँ बी मेली. बरी व्हती. म्हाका म्हणटाली, 'बकस मेरा लाल है।' म्हणटाली, 'तुजी शादी करूंक व्हयी.' बरी आसली पूण मेली."

"आतां तुका कोण आसा? आनी कोणा सरीं रावता?"

"बापोलभाव आसा. गवंडे काम करता. तेचे कडेन रावतंय. हें रान तेचांच. बोकड्यो तेच्योच. हांव राखतंय. व्हनी म्हाका बरे तरेन बधिना. म्हणटा, 'पिसो आसा.' हांव खुळो आसां? हांव पिसो?... बापोलभावय 'पिसो' म्हणटा. गांवांतलीं पोरां म्हणटात, 'पिसो बकस'. व्हनी म्हाका भाकर दिना, उपाशीं दवरता. लोक म्हणटात, 'आमकां तुजा कांय ना!' आतां मरचां कसां?"

"तूं रानांत एकलोच बोकड्यो घेवन येता?"

"हय, एकलोच येतंय सकाळीं भाकरी घेवन. दीस मावळोण पर्थून वयतंय. चरोन जातकच. बापोलभाव म्हणटा, 'तुजो कित्याक आमकां त्रास? मर चल आतां एके फावट.' म्हजो कसलो त्रास? हांव दीसभर रानांत आसतंय, रातीचो मशिदीन न्हिदतंय, मागीर?"

पिसो बकस सांगतालो. हांव आयकतालों. ताणे 'मागीर?' म्हणटकच हांव कितें उलयतलों आशिल्लों? हांवें म्हळें, "हें तांचें सारकें न्हय. तांणी अशें म्हणूंक जायना."

बकस हांसलो. ताणें दोळे घुंवडायले आनी ताकतिकेन उठलो. "बोकड्यो वतल्यो म्हज्यो" अशें म्हणून दोंगरा वटेन धांव मारली. माथ्या वेलें चेंपें हातान दांबीत आनी जोतें ओडीत गेलो.

ताचे उपरांत बकस म्हाका खूब फावटीं मेळ्ळो. केन्ना गांवा कडसून राना कडेन वतना मेळटालो. माथ्यार कपड्यांत बांदिल्ली भाकरी, हातांत उदकान भरिल्लो तांबयो. दुसऱ्या हातांत ताळे तोडूंक कुराड.

बोकड्यांचे गर्देंतल्यान बकस येतालो. केन्ना केन्ना वतांत पांय ओडीत म्हाका पळोवन, हांसून मुखार येतालो. केन्ना रावन "कितें मास्तर, आयज ओगोद केलो?" अशें म्हूण एक-दोन उतरां उलयतालो. केन्ना सांवळेंत बसून बापोलभावाच्यो आनी व्हनयेच्यो कागाळ्यो सांगतालो. व्हनी बरे तरेन पळयना, भाकरी घालिना ही ताची सदींच कागाळ आसताली. "बापोलभाव म्हाका पिसांट म्हणटा. हांव पिसांट तर?" ताचें म्हणणें सारकें आशिल्लें.

तो हेरां कडेनूय असोच उलयतालो म्हणपाचें उपरांत म्हाका कळ्ळें. जे कोण ताचीं फकाणां करी नाशिल्ले, जे ताचे कडेन सारके उलयताले, तांकां तो ह्योच कागाळ्यो सांगतालो. ताच्यान हें सोंसूंक जायनाशिल्लें.

केन्नाय हांव परतुपा वेळार बकस रानांतल्यान घरा वतना मेळटालो. दीस धारेर वचूंक आयिल्लो आसतना ताचे वांगडा हांवूय उलयत उलयत गांवांत वतालों. ताचे कडेन उलोवंक बरें दिसऽ. ताच्या उलोवण्यान करमणूक जाताली. ते भायर, काळीज हळहळटालें, जिवाक तोंपिल्ले वरी जातालें.

केन्नाय फकाणांनी हांव बकसाक विचारी,

"कितें बकस, मागीर शादी केन्ना करतलो? वाजय मरे बँड!" अशें विचारतकच तो लजतालो. वाडिल्लें खाड खरपितालो. मान सकयल घालून म्हणटालो,

"कित्याक जाय शादी? दुडू खंयसून हाडप? घरकान्नीच्या पोटांत कितें घालप? तिचे खातीर साडी खंयसून हाडप?"

केन्नाय उमेदींत येतकच आपुणूच सांगतालो,

"आतां शादी करपाची मास्तर. वरात काडपाची. धा बोकड्यो कातरपाच्यो; पूण इतल्यो कित्याक, न्हूं? धरून दोन-चार कातरच्यो... तुमी येतले जेवणाक? कशे येतले? भट्ट तुमी..." आनी मागीर व्हडल्यान हांसतालो.

नांगरपाचें जालें तेन्ना बापोलया वांगडा हीर हीर करून नांगरतना बकस म्हाका दिसलो. मुलाणकीचीं काळीं खतां जोंदळ्यांच्या ताटांनी पांचवींचार जालीं. कणसां फुटलीं. तांचेर निळीं-जांबळीं फुलां धरलीं. तो दांडो आपटीत, मेरे वेल्यान सवण्यांक आमुडटालो. बकस करतालो तो बोवाळ म्हज्या कानांर येतालो. मुखार थंयसर एक खोंप दिसूंक लागली... बकसाक आतां वावराचो हुस्को आशिल्लो.

ताची खोंप म्हजे वाटेर नाशिल्ली. तरिकूय हांव मुद्दम ते वटेन गेलों.

"शानो म्हजो. अशें करूं नाका. हें पळय म्हजे कडेन..."

हांवें मुखार वचून पळेलें जाल्यार तो बोकड्याक सांसपीत ताचे कडेन उलयतालो. मातशें लजून ताणें म्हळें,

"यो मास्तर." खोंपींतली कामळ, दिवली, उदकाचो माठ पळोवन हांवें विचारलें,

"रातचोय हांगाच आसता?"

"हय, राखणेक लागून हंयसरच रावतां. सुण्यांचो कसलो भंय? कोण खातलो म्हाका? आनी खाल्लोय जाल्यार बरेंच!" म्हणटासर बकस निर्शेलो. "इतली राखण करतां हांव, पूण हातूंतल्या चार कणसांचेर कुस्कुटा येदोय अधिकार ना म्हजो. फुकटांतलो वावर!

तो हे तरेन उलयतालो तेन्ना तो अर्दे तकलेचो अशें दिसनाशिल्लें.

ओंपप, लुंवप, मळप करपा वेळार बकस आशिल्लोच. जोंदळ्यान भरिल्ले साक ताणें गांवांत व्हरून पावयले. बकस खूब कश्ट करतालो. पिसो बकस म्हूण शाणो बापोलयो ताका राबोवन घेतालो.

हालींच बकस एक फावट मुलाणकींत मेळिल्लो. रेंवेंत बसून बेश्टोच खंय तरी पळयतालो. हांवें विचारलें,

"कशें कितें बकस? कशें चल्लां?"

तो उलयलो ना, हांसलोय ना. हांव कुशीक गेलों, तेन्ना म्हणूंक लागलो,

"पळय", आनी फाट घुंवडावन ताणें खोमीस वयर करून दाखयलें. सात-आठ सुवातांचेर भाजिल्ल्याचे बोटां येदे दाग दिश्टी पडटाले.

"कितें रे हें?"

"बापोलयान दाग दिल्यात, सरय तापोवन. दागल्यार पिसो जाल्लो मनीस समा जाता खंय. मियां काय पिसो आसय? आं?"




हे चलयेन पत्र घालतासतना जो कॅरॅक्टर दाखयला, ज्यो भावना ओतल्यात आनी जे सहजतायेन आपल्या मनांतले नाजूक विचार सरळ मांडल्यात ताचें म्हाका अजाप जालें. आनंद जालो. दिसलें, म्हजी निवड आज तरी चुकलिना. पयले पसून हे चलयेंत कितेंय तरी नवें दिसलें म्हाका. तें निव्वळ सौंदर्य न्हय. जिवंतपण!

# प्रेम...? - नवो अणभव...

ता. १२.१०.१९४९

काल बेणकाराक आनी बायलेक अशीं दोन पत्रां बरोवन आज घालीं. बायलेच्याच पत्रांत फकत लग्नाचो मजकूर घालो : "येता त्या दिसा तुमी म्हाका लग्ना संबंधान विचारलें खरें, पणून हें संबंधीं हांवें केन्नाच विचार केल्लो नाशिल्ल्यान त्या दिसाच न्हय तर अजून पर्यंत म्हाका कितें बरोवचें तेंच समजना. संन्याशी जर खंय लग्न जातलो जाल्यार ताका शेंडी दवरपा पसून आरंभ करूंक जाय. तशीच म्हजी गत जाल्या. फुडें कितें करचें म्हणून थंडसाणेन थारावपाक गोंयां गेलों तर दुसरीच येवजणूक म्हऱ्यांत उबी रावली - तुमी ही गजाल म्हाका विचारल्या ती पयलीं म्हाका बाबाक बरोवंक जाय. ताका तुमची कितेंय हरकत आसल्यार कळयात. आनी, सदांच मनशाक सगळ्यांच्या मना सारकें चलपाक मेळटाच अशें ना. म्हणून एकादऱ्या वेळार अशी मना विरुद्ध गजाल घडल्यार ती तुमी मनाक लावन घेवचीं नात अशी आशा करतां." परस्पर विरोधी अश्यो दोन गजाली बरोवन सोडल्यात. ताकाक येवन खंय गाडगो लिपयता तशांतली खबर.

खरेपणान जाल्यार विचारले बरबर हय म्हणून सोडपाची म्हजी मनांतल्या मनांत इत्सा आसली. मनीस मुळांतल्यान स्वार्थी आसता. मागीर येवजिलें, अशें कितेंय घडत अशी कल्पना नाशिल्ली. हांवें केन्नाच आस्त सोडिल्ली. एक तर ते चलये खातीर प्रयत्न करचो, वेळ पडल्यार मागणी पसून घालची असो विचार खूबदां मनांत येवन गेलो पणून ताका मातूय थारो मेळ्ळो ना. कारण, ते चलये कडेन म्हजो मातूय सहवास येवंक ना. उलोवप-बोलपूय ना. मागीर ते येवजणुकेक घटाय कशी मेळत! प्रेम म्हणटात ताका सहवास जाय पडटा. फकत एक चली पळेली, ती बरी दिसली आनी तिचेर प्रेम बसलें म्हळ्यार सत्यांत ते गजालीक थारो मेळत अशें दिसना. मात तरी सहवास जायच. तो नाशिल्ल्यान आनी हांव पयस मुंबयंत पोट आनी शिक्षण हांचे फाटल्यान आशिल्ल्यान विचारान मूळ धरलेंना. अशें आसतना पसून ती चली आपशीं चलून आयली. तेन्ना हे फुडलोय मार्ग तेच तरेन चलत येवंदी. तातूंत ते चलये कडेन लग्न जावन म्हाका तरी आपल्या मनांत एक खबर आशिल्ली ती घडून आयली अशें समाधान मेळ्ळें. तरी पणून तिच्या सभावाची म्हाका मातूय कल्पना नाशिल्ल्यान आनी तिचे परिस्थिती परस म्हजी परिस्थिती सगळ्याच वटांनी अडचणीची आशिल्ल्यान म्हजे म्हाकाच ताचो दुबाव दिसता. ते भायर, म्हाका निव्वळ सौंदर्याचो जरी मोह आसलो तरी पणून सौंदर्य म्हाका खिणभरूच बांदून दवरूंक शकता, सालाबाद न्हय. गुणाचें बंधन तेय परस म्हजेर चड वेळ परिणाम करूंक शकता.

ते चलयेंत गूण नात अशें न्हय... तिचे कडेन सौंदर्य आसा, बुद्धीय आसा, वाचपा-बरोवपाचो शौकूय. पणून समतोल आनी सोंशीक वृत्ती कमी. फाल्यां येत, पणून आज ना. आतां अपुर्बायेन वाडयल्ले एकलेच एके चलयेंत हो गूण येत कसो? तातूंत शांतपण म्हणटात तो गूण मुळांत आसचो लागता.

हे पयलीं एकदां इकणीसशें बावेचाळीस वर्सा ही चली पणजे आयिल्ली. हांव तेदे वेळार नॉर्मालच्या दुसऱ्या वर्साचे परिक्षेच्या बोवाळांत. मायाचो म्हयनो तो. हांव आनी बाबा, दोगूच जाण तेन्ना पणजेंत आनी आमची फामील घरा. हांव भोमा साकून कामिज्यांवान पणजे येतालों तर आबाल्या मांडा कडेन पावपाक फुडल्या सिटांच्या गजां आड एके बायल मनशेची तकली दिसली. फाटल्यान हात गजाक धरिल्ल्यान हातूय गोरो धवो आनी बोटाक वज्राची लिकलिकीत बरी सोबीत मुदी. तिकाच तेंकून एक बायल बशिल्ली आनी तिणें केंसांचो आंबाडो घाल्लो. तिची फाट म्हजे वेटेन आशिल्ल्यान तोंड केन्ना दिसता काय म्हणून हांव एक सारको सगळ्यांची नदर चुकोवन पळोवंक लागलों. फुडें भाणस्तारचे वाटेर तिणें तोंड सारकें फिरयलें तेन्ना अजापान हांव सामको थंड जालों. कोणाकूच पत्तो लागूंक दिनासतना हांव थंय पळेत रावलों. भाणस्तारी पावपाक बेणकारान म्हाका हटकिलो. चलयेन ताका सांगलें जावये. मागीर पणजे पावतकच तो म्हजे पयशे दिवपाक लागलो. आनी गाडयेंत बसून या म्हणून आग्रो केलो ताणें. पणून उमथे मानेन हांवें मार्ग धरलो. मनांत आसुनूय खूबदां मनीस कचरता.

मागीर तांगेर बाबा जेवंक आशिल्ल्यान ताच्या मनांत तागेले चलयेक आमगेर हाडपाचें आयलें. आनी ज्या दिसा तें ठरिल्लें त्या

पयल्याच दिसा केळ्याचे सालीर निसरून आमगेल्या वडलांनी जमीन सोबयल्ल्यान पांय सुजलो आनी च्या करपाची आनी गाडी करून ते चलयेक हाडपाची जबाबदारी म्हजेर आयली. हांवें शिकपाची अडचण दाखोवन स्पश्ट नकार दिलो. पणून निमाणें म्हगेली दुसरी मांडणी फसून गाडी घेवन म्हाकाच वच्चें पडलें. पयलीं आगशीकारागेर बाबाचो निरोप सांगपाक हांव गेलों जाल्यार म्हाका तांगेल्या आपटे मास्तरान ती चली येवचिना म्हणटा, भावाक फकत वच म्हणटा म्हणपाचें सांगलें. आपणें येवचिना म्हणूंक ना अशें ती म्हणूंक लागली. आमगेर सगळी च्याची वेवस्था म्हाकाच करची पडली. शिवाय एक पातळ घेवपाचें कामूय हांवेंच केलें. सगळे कडेन सोदून एक सुंदरशें पातळ काडलें आनी गाडी घेवन गेलों. तिका पावंक आगशीकाराल्यो चलयो दारांत आयिल्ल्यो. तांचे हुजीर गाडयेंत परके चलये म्हऱ्यांत आंग चोरून बसप म्हळ्यार कमी धिराचें काम नाशिल्लें. मागीर बाबान फर्मायलें, ते चलयेक Central Electrica बी भोंवडावन दाखय. आनी ती गांथन घेवन भोंवन आयलों जाल्यार वाटेर एके बायलेन ती चली तुमगेली कोण काय म्हणून विचारून म्हाका गोंदळांत उडयलो. ते मागीर रंगाची भयण दुर्गेआका इतली वाट माडयत ते चलयेची चवकशी करपाचें कर्तव्य करपाक आयलें ...ती चली म्हजी कोण...?

ते फुडें एक दीस दुसरीच खबर घडली. आमगेलो रंगा पै लागलोच म्हजे फाटल्यान मिरामार या म्हूण. हांवेंय ती प्राय केन्नाच पळोवंक नाशिल्ली. म्हळें, परिक्षा लागीं पावल्या आनी अभ्यास तसोच पडला. वेळ होगडावप ना. पणून रंगा पै एकलोच आशिल्ल्यान थार जायना जावन ताणें पुस्तक सामकें ओडून घेवन म्हणटात तशें, म्हाका प्राय दाखोवंक व्हेलो. प्रायेर ही चली पळे, ती चली पळे अशें करीत भोंवताले. तर हो म्हणूंक लागलो, 'तूं पोर अजागळ. बाकीचे भुरगे पळे कशे मजा मारतात ते. नॉर्मालाए पावन पसून तुज्यांत अर्थ ना.' जालें, इतल्यांत एक साडी न्हेशिल्ली सुंदर चली बाकीच्यांक सोडून म्हजे दिशेन येवंक लागली. आमची नदर थंय गेले शिवाय थोडीच रावता. पळेतां पळेतां ती हांसली आनी रंगाक दाखोवंक मुद्दाम हांवूय हांसलों (धीर करून). रंगा पै बावडो जंयचे थंयच थंड पडलो. मागीर म्हाका ताणें प्रस्नांनी बेजार करून सोडलो. हांवें तितले पुरतीं चार उतरां घालीं पोराच्या कपलार. जाल्यार दुसऱ्या दिसा पसून हो गजाल मारीत सुटलो, हांवें संधान जमयलां म्हणून. पणून हांव मात सगळी खबर जाणां आसलों. मागीर रमेश सांवड्डेकार, मोहन बी म्हाका भोवन भोवन त्रास दिवंक लागले. म्हळें म्हजें कर्म!

**१४.१०.१९४९**

फुडल्या वर्सा खातीर D.T.C.च्या कुर्साक बसपाचें थारायलां हांवें. चड करून येता त्या सेतेंब्राच्या अदमासाक नोकरी सोडून दिवप. एक हजार रुपया हातांत आसले शिवाय नोकरी सोडप ना. मागीर फुडल्या वर्सा सोडची पडल्यार उपकरता. कारण, फुडाराक सोडली जाल्यार दोन थंय अडेज हजार हातांत आसतले. पयशा शिवाय म्हजें पावल फुडें पडत अशें दिसना.

अंदूचें वर्स खंयच्याच क्लासाक म्हणून वचप ना. म्हजी स्वतःची करामत थंडपणान पळोवपाक मेळटली.

**१५.१०.१९४९**

आज सांजचो पै आनी पळशीकार हांच्या प्रदर्शनाक गेल्लों. थंय एक शिल्पकार पै म्हणून भुरगो मेळ्ळो. १ नोव्हेंब्र पसून म्हयन्याक धा रुपया दिवन शिल्पकला शिकचेली थारायल्या. तो तीस रुपया स म्हयन्यांक सांगतालो. कितल्या दिसांनी इत्से प्रमाण शिकपाक मेळपाची संद आयल्या. सादूंक मात जाय. हें जमल्यार वायट शें न्हय. उमेद भागोवन घेतिल्ली बरी.

**१७.१०.१९४९**

व्यर्थ बडबडपाची संवय ह्या आठ वर्सांत म्हाका लागली. पयलीं हांव चड उलय नाशिल्लों. ही संवय दोन वटांनी वायट. गरजे शिवाय नाका आशिल्ल्यो खबरी तिसऱ्याक समजतात आनी दुसरें म्हणचे, आपली किंमत उणी जाता. ते शिवाय, प्रकृती खलास ती जालीच. जाता तितलें थोडें उलोवप आनी तें चोख आसप. आतां सगळे कडेन लक्ष दिवंक जाय. पंचवीस वर्सां अशींच गेलीं.

**२०.१०.१९४९ बिरेस्तार**

काल तीन वरांचेर सुमार अनवळखी अक्षराचें दाटशेंच पत्र आयलें. रुद्रीगिशान विचारलें, चलयेचें रे? आनी, ताचीं फकाणां खरीं ठरलीं. म्हजें फाटलें लग्ना संबंधाचें पत्र गेल्लें ताका जाप आशिल्ली ती. पणून वाचचे पयलीं कांय कल्पना आयली ना. रोखा वेल्यान तिका म्हजे कडेन लग्न करप पसंत ना अशें दिसलें... तिच्यांत इतलें विचारीपण आसत अशें म्हाका दिसलें नाशिल्लें. कल्पने भायर सुंदर पत्र. आतांच जाप घाली.

चलयेचें अशें हें म्हाका पयलेंच पत्र न्हय. तरी आसतना अशे तरेचें हें पयलेंच पत्र हें मात खरें. पत्राची सुरवात वाचिना बरबर नाका आसतनाय नेव्हॉंज जालों. म्हजे म्हाकाच अजाप जालें. तिणें आपूण तुजे कडेन लग्न जावचिना अशें पसून बरयल्यार तातूंत म्हाका कितें आशिल्लें? आनी, जर कितेंय आशिल्लें अशें धरलें जाल्यार तो म्हजो सुवार्थ, आनी सुवार्थ न्हय जाल्यार तिचे वेलें प्रेम. प्रेम ह्या उतराचो वापर हांव केन्नाय करतां. सामको क्वचीत. तें उतर वापरपाक भंय दिसता. तेदी जबाबदारी आनी ऊंच भावना म्हजे कडेन आसत अशें म्हजो अणभव सांगिना. जितले सहजतायेन तुवें शाळा बदल्ल्यो, तेच तरेन तूं बायलां कडेन पळेता असो उकतो आरोप म्हजें मन करता. आज ही चली, फाल्यां ती.

हे चलयेन पत्र घालतासतना जो कॅरॅक्टर दाखयला, ज्यो भावना ओतल्यात आनी जे सहजतायेन आपल्या मनांतले नाजूक विचार सरळ मांडल्यात ताचें म्हाका अजाप जालें. आनंद जालो. दिसलें, म्हजी निवड आज तरी चुकलिना. पयले पसून हे चलयेंत कितेंय तरी नवें दिसलें म्हाका. तें निव्वळ सौंदर्य न्हय. जिवंतपण!

हांवें त्या पत्राक व्हडलें तीन पानी उत्तर घालें. मनावेली व्हडली जबाबदारी गेल्ले भाशेन सूऽ जालें. मागीर तें पत्र तिसऱ्याच्या हातांत पडूं, ताचो तिणें विपर्यास करूं, तिणें नकार दिवं, पणून शक्य तितलो सुवार्थ कडेक दवरून उकतेपणान तें पत्र बरोवन धाडलें. ताच्यो निमाण्यो मुख्य वळी :

"तुमकां ज्या जाग्यार पूर्ण सूख मेळत त्या मनशा बरबर तुमी लग्न जावचें. म्हजी कसलीच हरकत ना. म्हज्या बापायक जें हांवें

बरयलां तें फार्टी घेवपाक सांगतां. तशेंच, तुमी म्हजे कडेन लग्न जावपाक नकार दिलो म्हणून तुमच्या आवय-बापायक पसून समजुचें ना आनी तुमचेर दोश येवचोना अशीय वेवस्था जातली. तुमकां सूख मेळचें अशें म्हजें कडेन कांयच ना. स्पश्ट बरयतां म्हणून रागार जावं नाकात. पणून जर तुमची इत्सा आसली, अर्थांत मना पसून, आवय-बापायचे भिडेन न्हय जावं म्हजी काकुळट म्हणून न्हय, तर तशें स्पश्ट तरेन कळोवचें. लज, भीड, मुर्वत कुशीक दवरून तुमच्या मनाक दिसता तशें तुमी चलचें. तुमची फुडली जीण सुखाची वचपाक जर म्हजी कसलीय गरज पडली (अर्थांत म्हजे गरीब परिस्थिती प्रमाण) जाल्यार कसलेंच परकेपण धरी नासतना आनी 'आमोणकरजी' अशीं फावऽ नाशिल्लीं भोवमानाचीं उतरां घाली नासतना अवश्य बरोवचें. हे परस चड कितें बरोवं?

"तुमकां हाची जाप करपाक त्रास पडल्यार ती करूं नाकात. नाजाल्यार मात बेगीन करपाक विसरचें न्हय. पत्र वाचपाक म्हाका खुब्ब वेळ आसता. तातूंत तुमचें पत्र वाचपाची संद हांव सोडीन अशें दिसता तुमकां?"

"म्हजें रूप, जावं प्रकृती, जावं आर्थीक परिस्थिती जावं बाकीच्यो खबरी तुमकां सोबऽ सारक्यो नात. आनी जें म्हजें भांडवल अशें हांव समजतां ताकाय वेव्हारांत काडयेची किंमत ना अशें हांव समजतां."

२०.१०.१९४९

जाप घाली खरी पणून मनाक निश्चिंतता ना. आयतें चलून आयिल्लें ताट मूर्खपणान होगडावन जल्मभर कश्टी जावन मागीर उपयोग कितें, अशेंय घटकाभर मनांत येता. सुवार्थ ह्या संवसारांत कोणाक सुटला? मागीर हांवूय वेगळो म्हणून भायल्यान दाखोवपांत हाशील कसलो? आनी, हें समजून उमजून पिशेपण पांगरुपाचें कारण? इतलें आसुनूय ती चली म्हाका मान्यता दितली, पसंत करतली असो विस्वास काय ध्येयवाद काय आनीक कितें. जावं, सुवार्था पसून कुशीन रावतलों. जल्माची मेकळीक जाली जाल्यार पर्वा ना. म्हजें मन म्हणचे म्हजेंच मन तें. तातूंत सुवार्थ, परमार्थ, नर्क, स्वर्ग, मोक्ष, ढोंग सगळें खिच्चून भरलां. म्हजे म्हाकाच समजना. म्हाका ती चली जाय जाल्यार हो तुकारामी धंदो कोणाक फटोवपाक? ह्या परमार्थाचो अर्थ कितें? म्हजें तिचेर प्रेम आसा म्हणपाक गेलों जाल्यार ते खातीर काडयेचोय त्याग करपाची म्हजी तयारी ना. आनी त्यागा शिवाय प्रेम म्हळ्यार ताका प्रेम म्हणपाचो धीर जायना. ती आवय-बापायची सुंदर, हुशार, बुद्धीमान, एकलीच चली. परत श्रीमंत आवय-बापायची. ते भायर म्हाका आनी आमकां राजाचो मान मेळटा. मागीर खंयच्या मनशाचें मन असले चलये कडेन ओडचेंना?

...पणून हांचे कडल्यान एके पयेचोय फायदो काडपाची गजाल अजून म्हज्या मनांत येना. एका पातळान पसून ती चली आयली जाल्यार एका शब्दान हांव कांय म्हणचोंना. तांच्या भाटां-बेसांचेर म्हजी नदर ना. म्हज्या बापायच्याय भाटा-बेसांचेर ना, लोकांच्या खंयची आसतली? मागीर एकलेपणाचो फायदो म्हळ्यार निव्वळ मोठेपण, एकलेच चलये कडेन लग्न जालों म्हणून? आतां सौंदर्य म्हळ्यार, तिचे कडेन सौंदर्य आसा म्हणटात तें तोंडावळ्याचें. हाता पांयांची बोटां तर मातूय सुंदर न्हय. शरिरूय वायटशें नासलें तरी सुंदर म्हणपाचें न्हय. ती सुंदर न्हय अशें म्हणप शक्य ना पणून तिचे परस सुंदर चलयो हांवें पळेल्यात. आनी म्हजें तर आपलेच जातींत जावं धर्मांत लग्न जावचें अशें सोडात, लग्न जावंकूच जाय अशें पसून ना. म्हणून हांवें लग्ना संबंधान अजिबात येवजूंक ना. म्हाका ताची पर्वा आज मात पसून ना. पणून हिचे आवयन प्रस्न घाले बरबर पट्ट करून लग्न जावचें अशें दिसपाक लागलें. शिक्षणाची पसून पर्वा दिसलिना. तिचे परस बुद्धीमान, शांत, हुशार, शिक्षीत चलयो मेळत, पयसोय मेळत, पणून तें कांय म्हाका नाका. इतलेंच न्हय तर कसल्योच अटी घाली नासतना लग्न जावपाची तयारी. फकत ते चलयेक त्रास बादचे न्हय म्हणून, फक्कत ते चलये खातीर मात म्हज्या हातांत सगळीं पानां आसुनूय म्हजी खेळपाची तयारी ना. फोर मारूं येता म्हज्यान. शक्य तितल्यो अटीय घालूं येतात. परिस्थितीचो चारूय वाटांनी फायदो काडूंक जाता. बापायची जावं घरच्यांची, तिच्या आवय-बापायची, प्रत्यक्ष ते चलयेची पसून अडचण ना. पणून म्हाका मात दिसता, एकेच अटीचेर लग्न जावचें. ती अट म्हळ्यार, तूं तिका पूर्णतेन पसंत आसूंक जाय! तुजी सगळी परिस्थिती, दोश तूं उकतेपणान सांग. बरें लिपय. दोश न्हय! ती तुजे कडेन कितल्या निसुवार्थीपणान पळेता! मागीर, असले चलयेचीं पानां तुज्या हातांत आयल्यांत म्हणून मान कापतलो? तुजें आयुष्य फुकट वचूं, पणून तिच्या सुखांत तुजें सूख पळे. ते खातीर मर, पणून ओग्गी रावन. त्याग केलो म्हणून तिचेर उपकार करूं नाका. हिरो मेळ्ळो म्हणून जालेंना. तो बांदून घेवपा इतलें भांगर ते खातीर जाय. तरूच सोबा नाजाल्यार दुर्दशा. तो हिरो पूर्ण सोबयत अशा मनशा कडेन वचूं दी. तूं पयस रावन जाय जाल्यार रड पणून तें कोणाकूच समजूंक दिवं नाका. तो पूर्ण सौंदर्यान मिरयता आसतना दोळेभर पळे आनी सूख मान. तेंच खरें सूख. खरें प्रेम. तिचें तें पत्र, तातूंत तो ओतिल्लो प्राण, आपली जीण फुकट वचूं, तूं तुजी जीण स्वतंत्रतायेन फुलय अशें म्हणून सांगपी चली तुका मेळ्ळी हें तुजें भाग्य थोडें जालेंना. तुका आवडटा तेच चलयेन कोणाचीच पर्वा करी नासतना, पत्र बरोवपाची ताकद हातांत नासतना, सगळ्या लोकांक चोरून तुका पत्र बरयलें. कसलेंच परकेपण करी नासतना तुज्या फुडयांत आपल्याक दवरली, तुज्या हातांत आपणाक सोंपयली, आपली मान दिली. तुज्या पांयांर आपलें मस्तक दवरलें. कोणा कडेंच जें मस्तक बागवलें ना तें आपूण जावन खोशयेन तुज्या पांयांर दवरलें. ही तकली कापपाचें काम पवित्रतायेचे पटे मारपी तूं करतलो. उकत्या दोळ्यांनी तुका प्रिय आशिल्ले चलयेचो Cold murder करूं नाका. तूं तिचे कडेन लग्न जा, नाका न्हय. पणून केन्ना? तिका खरेलेंच तातूंत सूख समाधान आसत, तिचें तुजेर प्रेम आसत जाल्यार. तरी सुद्धां सगळी जबाबदारी तुजीच अशें तूं समज. आनी तिका काडयेचोय त्रास तुजे कडल्यान बादचो ना अशी तुजी वागणूक धर! नापेक्षां तिका तिच्या नशिबान रावंक दी. तें तरी पुण्य तुका मेळटलें! To be or not to be..!

ह्या पत्राक जी जाप येतली ताचेर सगळी जीण अवलंबून आसा.



# स्वामी विवेकानंदांल्यो स्मृती जागयत शिकागोंत...

मधुसूदन जोशी

शिकागोंत वचपाचें थारलें. शिकागो म्हळ्यार आमकां भारतीयांक उगडास जाता तो स्वामी विवेकानंदांचो. भारताच्या ह्या म्हान पुतान इकरा सप्टेंबर १८९३ ह्या दिसा 'म्हज्या भयणींनो आनी भावांनो' ह्या म्होंवाळ उतरांनी जागतीक धर्म परिशद गाजयल्ली. ह्या वाठारांत वचपाची संद मेळ्ळ्यार खंयच्या भारतीयाचें मन उचंबळीत जावचें ना? दुर्दैवाची गजाल म्हळ्यार, लागीं लागीं एकशें धा वर्सां उपरांत इकरा सप्टेंबर हे तारकेन दर एका अमेरिकी नागरिकाचे काळजाचे कांय ठोके चुकयल्ले. त्या भिरांकूळ आत्मघातकी हल्ल्याचे उगडास आयज लेगीत अमेरिकेच्या लोकांक काचाबूल करतात.

ग्रेहुंड बशीन शिकागो वचपाची तिकीट काडिल्ली. बशीन भोंवपाचो अमेरिकेंतलो अणभव गांठीक मारपाक मेळटलो हो हेत आसलोच. वांगडा, बसप्रवास सवाय हेंय दुसरें कारण आशिल्लें. खरें म्हळ्यार 'ड्रायव्ह' हें अमेरिकेंतलें सगळ्यांत आवडीचें उतर. दिसाक २०० मैल, म्हळयार काणकोणच्यान पेडण्यां आनी परत, हो प्रवास म्हळ्यार तांकां कांयच न्हय! जावन जावन सगळींच चार वरां. गोंयांत खंयूय तीस मैल (चाळीस कि.मि.) यो-वच करतलो जाल्यार इतलो वेळ जाय! ॲन आरबॉर ते शिकागो पांचशें मैल. म्हळ्यार, मुंबय सावन गोंयचो प्रवास म्हळ्यार जाता. प्रवास मात सात वरांचो.



कोडू कसाय गोड गुळी

सकाळीं णवांक बस सुटली. दनपारां तीन साडेतीन मेरेन शिकागो. णवांक सुटून तिनांक पावल्यार कितलो वेळ प्रवासांत घालयलो हाचें कोंत सरळ स वरां अशें येवपाक जाय! पूण प्रवास जाता सात वरांचो. हें कुवाडें सोडप कशें? भुरगेपणांत 'खण खण कुदळी मण मण माती, पाखल्यांनी राज्य घेतलें मध्यराती, वळख कोण तो?' असलीं उमाणीं घालतालीं ताची याद जाली. पूण ह्या उमाण्याची जाप हांगा सरळ दिवप समा जावचें ना! जीण एक माची आनी आमी सगळे नाटकांतले कलाकार.' ह्या शेक्सपीयराल्या उतरांचो अणभव फुडें एका 'पात्रा' वरवीं जावपाचो आशिल्लो!

## आठवी खिस्त

त्या दिसा सकाळीं मातसो बेगिनूच उठलों. वेळ आशिल्ल्यान इल्लें बरयलें. पोटांत किर्तेय धुकलून मार्गाक लागचें हे गडबडींत हांव कॅन्टिनांत पावलों. बोल्सांतलें पाकीट काडपाक हात घालो. बोल्स रिकामें. ई-चावये सयत सगळें कुडींत विसरून हांवें कूड बंद केल्ली. हरशीं खावपाची व्हडलीशी वान्सा नाशिल्ली. 'ईमेरिका' परतून गंवटेर बसली! सकाळच्या पारार शेळो घाम! धांवत 'हॅल्प डॅस्का' म्हन्यांत आयलों! हॅल्पडॅस्कार बशिल्ले चलयेक हांवें म्हजो प्रॉब्लॅम सांगलो. "लॉक्ड् आवटसायड?" तिचो प्रस्न, 'अँ! तें कांय न्हय!' हे चालीर आशिल्लो. तिचो तो म्होंवाळ सूर मनाक थाकाय दिवन गेलो. तिणें रूमनंबर विचारलो आनी कांय मिनटां भितर दुसरें 'ई-कार्ड' दिलें.

दीस बरो वतलो काय ना हाचें म्हजें स्वतःचें शास्त्र आसा! जें काम जावपाक कठीण अशें दिसता तें सहजतायेन सकाळीं जाल्यार ती अमास आसल्यार लेगीत 'भाग्योदय जातलो' अशें समजुपाचें. हांव नवें कार्ड घेवन रुमार आयलों. आनीक आनीक प्राध्यापकी विसभोळेपणाचे प्रसंग येवचे पयलीं बॅग घेवन ग्रेहुंड बस स्टेशनार वचपाक रुमांतल्यान भायर सरलों.

ग्रेहुंड स्टेशनाचें ऑफीस साडे आठ जाल्लीं तरी उगडूंक नाशिल्लें. कोणूय गोंयकार बी न्हय मूं? मनांत बेठोच प्रस्न. सुशेगादपणाचें पेटंट आमकां गोंयकारांक कशें मेळ्ळें हाचेर संशोधन करचें अशेंय खीणभर दिसलें. म्हजे पयलीं कांय लोक थंय येवन वाट पळयताले. बऱ्या वेळान एकलो मनीस आयलो. ताणें कुलूप काडून दार उकतें केलें. आदल्या दिसा येवन तिकीट व्हेल्ल्यान तें ऑफीस म्हाका नवें नाशिल्लें! ऑफिसांत एक रॅस्टरूम आशिल्लो. टॉयलेटीक रॅस्टरूम कित्याक म्हणटात काय हे? पळोवया तरी भौशीक रॅस्टरूम, म्हण हांव भितर सरलों! वणटी निवळ आशिल्ल्यो. निकत्याच धुल्ल्या गोठ्याक मुताचो मारता तसलो ल्हवसार वास मारतालो. फिनेलाच्यो गुळयो मुतारेंत नाशिल्ल्यो! इतले दीस हांव हांगाचीं चकचकीत रॅस्टरुमां पळयतालों. हांगा नाक दामून वच्चें पडुंना इतलेंच. घडये हांव फायव्ह स्टार आनी पॉश वातावरणांत इतले दीस वावुरतालों म्हणून आसूं येत, मन त्या लींप टॉयलेटाचीं कुच्छिद्रां काडपाक लागिल्लें. भायर येवन कांय वेळ बशीची वाट पळयली. बशींत सिटाक नंबर ना! पयलीं भितर सरप आनीं जागो आडावप. हांव कसो कोण जाणां, निमाणो उरलों. भितर सरतकीच पळयलें, बस भरल्या. पूण एका सिटार एक

सरदारजी दुसरोय सीट आडावन बशिल्ले भाशेन पातळून बशिल्लो. मनांत म्हळें, सरदारजीचो सांगात 'नॉट बॅड!' सरदारजीन दोळे धांपिल्ले! प्रवासध्यान करपी बरेच लोक 'मेनका' चडटना जागेय जातात आनी पयलीं आंग चोरून बसपाक जागो करतात ही जगाची रीत. पूण सरदारजी खरोच न्हिदिलो. सवंग करिनाशिल्लो. नाजाल्यार म्हजे आदीं ताचे म्हऱ्यांतल्यान इतल्यो रंभा, उर्वशी गेल्ल्यो तरीकूय तो सीट म्हाकाच दवरिल्ले भाशेन रितो आशिल्लो. बॅग दवरतना तें सरदारजीच्या पांयांक लागलें आनी तो जागो जालो. खाडा फाटल्यान लिपून मातसो हांसलो. सारको बसून ताणें म्हाका जागो दिलो. हांवें हिंदींत 'नमस्ते जी!' म्हळें. ताणें हांसून 'नमस्ते' म्हळें! परतून हांवें 'सत् श्री अकाल!' म्हळें. खंयच्याय मनशाच्या कानार पयल्याच धपक्याक ताचे आवडीचें उतर पडटकीच तो मनमेकळेपणान उलोवपाक सुरवात करता. 'केम छो?' 'सलामआलेकूं', 'नमस्तेजी', 'कॉमिश्ता', 'रामराम!', 'रे बाबग्या, केवां इलय?', 'कसो आसा?' हे सगळे उतरावळीचे 'हॅलो' उतरान पाय धुवचे इतली ती गिरेस्त! 'सत् श्री अकाल!' आयकतकीच सरदार फुल्लो. उपरांतचीं सात वरां तो फकत हिंदीच उलयतालो. घडये हांव सवाय भितर ताका बोकडो मेळ्ळों आसूं येत.

ताचें नांव सतवंत सिंग. कांय नांवांची गांठ दुसऱ्या नांवा कडेन अशी मारिल्ली आसता, एक याद करतकीच दुसरें याद जाता. राम-रावण, कौरव-पांडव. तशेंच सतवंत सिंग नांव आयकतकीच म्हजे तकलेंत सर्गेस्त इंदिरा गांधींचें नांव आयलें. म्हाका मेळिल्लो सतवंत सिंग भारताची फाळणी जावचे आदीं पंजाबांत जल्मल्लो (जो वाठार आतां पाकिस्तानांत आसा). पिरायेन सुमार सत्त्यात्तर वर्सांचो. साठ वर्सां जाय मेरेन तो पंजाबांत गणिताचो शिक्षक आशिल्लो. ताचे तीग चले कॅनडांत रावतात. रिटायर्ड जाले उपरांत ताणें कॅनडांत धा वर्सां काम केल्लें. पिरायेक लागून आनी कॅनडांत काम केल्लें म्हण कॅनडा सरकारूय ताका पेन्शन दितालें. लार्गी लार्गी अर्दें जग तो भोंविल्लो. १९८२ वर्सा तो गोंय पळोवन गेल्लो. संवसारांत आपूण खंय खंय पावलां तें याद जाता तसो तो म्हाका सांगतालो.

गाडी मदीं मदीं थारत फुडें वताली. कलमाझू स्टेशन आयलें. मिनेझिस कंपनींत काम केल्ल्या वेळा वयल्यो म्हज्यो यादी जाग्यो जाल्यो. कलमाझू वाठारांतलें 'अपजॉन' कंपनीचें लिंकोमायसिन हें इंजेसांव आमी तयार करताले. कलमाझूक धाडटाले. कलमाझू अमेरिकेंत खंय आसा काय... असो विचार तें पार्सल धाडटना येतालो! यादींची वळेरी वाडपाक लागली. फोंड्यां कुट्टींतलो मिनेझिसाचो वाठार... थंयचे कामगार... आतां बंद पडिल्लो कारखानो... रातपाळयेंतली जेवपाक जावपी धांदळ. कंपनीचो सायरन... खीणभर हांव पोरण्या यादींनी घुस्पलों. मन अशें आसता! प्रकाशाचो वेग सगळ्यांत चड. मनाचो वेग कोणें मेजला? इन्फायनायट... हांव स्टॅंडा वयल्या कॅन्टिनांत पावलों. त्या वाठारांत खांपरी ('निग्रो' उतर वापरपाक थंय बंदी!) खूब दिसताले. हांवें एक केळें आनी केक घेतलो. बशी भोंवतणीं लोक पांय सदळ करपाक भोंवताले. बशी कडेन पावतकीच हांवें दारा वयलो बटन दामलो. दार उकतें जातकीच बशींत भितर सरलों. फाटल्यान हेर लोक! गाडयेंतल्यान ड्रायव्हरान देंवतना ''ब्रेक : ट्वॅंटी मिनिटस्' इतलेंच सांगिल्लें. म्हाका मुंबय-गोंय मार्गार जेवणाक 'बीस मिनट खाना खाने के लिए' म्हणपी कंडक्टर वा क्लिनराचीं उतरां याद जालीं. ग्रेहुंडाच्या बशींनी फकत ड्रायव्हर आसतात. क्लिनर वा कंडक्टर नासता! संवसारांतल्या खुबश्या आश्चर्यां मदीं अमेरिकेंतली 'बेकारी' आसूंक जाय. चडांत चड माक्नांचेर उण्यांत उणें मनीस बळ वापरप हें तत्व आपणायलें थंयचें अर्थशास्त्र मागीर बेकारीच्या दांत्यार बसून रोजगार निर्मणेचीं कवनां गायता. भारत-चीन वाठारांतले लोक अमेरिकेंत रोजगार मेळयतात. पीठ दळपा वयल्यान परतून दोन म्हणी याद जाल्यो. 'सुपांतले दात्यांतल्यांक हांसतात', आनी, 'कुड्डें दळटा आनी सुणें पीठ खाता'! विचारांचो रगडो थारलो तो ड्रायव्हर गाडयेंत भितर सरतकीच! ड्रायव्हराच्या कपलार आंठयो पडिल्ल्यो. ''हु ओपन्ड् द डोअर?'' ताचो अमेरिकी उच्चारांतलो प्रस्न म्हाका कळपाक वेळ लागिल्लो. पूण परतून ताणें तोच प्रस्न केलो तेन्ना हांव उठलों आनी 'हांवें' अशी जाप दिली.

''युनो, रॉबरिज टेक प्लेस हियर... यु शुड नॉट ऑपन ॲगेन,'' ताणें म्हाका सांगलें. 'सॉरी' म्हणून हांवें विशय सोंपयलो. खरें म्हळ्यार हांव बॅकफुटार गेल्लों. तसो म्हजो गुन्यांव कितें? देंवतना ताणें दार उकतें करूं नाकात म्हूण सांगिल्लें जाल्यार म्हाका कितें खाज आशिल्ली? 'ॲटक इज द बॅस्ट डिफॅन्स' हें सदांच खरें आसना. तुमी परकी वाठारांत आसतात तेन्ना तरी! बस परतून मार्गाक लागली. त्या वाठारांत चोरयो जातात हें आयकून हांव शिट्ट जाल्लों. अमेरिकेंत हें घडटा हें एका अमेरिकनाच्या तोंडांतल्यान आयकून भौशीक जिणेंतली, तांच्या शिश्टाचाराचीं आंगोस्रां गळटात काय अशें दिसपाक लागिल्लें. बस स्टॅंडार घुटमळपी खांपऱ्याली तुळा हांव गोंयांतल्या कांय बस स्टॅंडा वयल्या 'भायल्या' वा 'घांटी' म्हण शिक्को मारिल्ल्या लोकां कडेन करपाक लागलों. म्हाका आतां न्हीद येताली. सरदारजीची कॅसेट चालूच आशिल्ली. म्हजे निद्रादेवीचेर तो उक्तेपणान बलात्कार करता अशें दिसपा इतलो तो उलयतालो. ताच्या व्हडल्या आवाजांतल्या उलोवपाचो हेर प्रवाश्यांक त्रास जातालो आसूं येता. तांच्या चेहऱ्या वयले भाव तशें सांगताले. तितल्यान सतवंत सिंगाचो मोबायल वाजलो. 'हॉंजी' अशें ताणें व्हडल्यान म्हळें. ड्रायव्हरान लेगीत खीणभर फाटीं वळून पळयलें. सतवंत सिंगाक घरा कडलो फोन आशिल्लो! दनपारचीं दोन वरां जाल्लीं. गाडी तिनांक पावपाची आशिल्ली. पूण आमचे घडयाळींत वाजिल्ल्या दोन वरां प्रमाण न्हय तर शिकागोंतल्या तिनांक. सतवंत सिंगान वरा भरयान गाडी पावतली अशी जाप दिवन फोन बंद केलो.

हांवें म्हळें, तिनांक गाडी पावतली ती शिकागोंतल्या वेळा प्रमाण. म्हजें म्हणणें सरदारजीक कितलें समजलें तें हांव नकळों. पूण ताका हांवें सांगिल्लें कळूंकना हें वराभरान सप्रमाण सिद्ध

जालें. वरभर गाडी चल्ली. परतून ताचो मोबायल वाजलो. खंय पावल्यांत हाचो अदमास घेवपाक ताणें बशींतल्यान भायर पळयलें. रस्त्या कुशीक मिलिटरी भाशेन लायनींत उबीं आशिल्लीं झाडां. नदर पावना थंय पावून शेणिल्लो सरळ रस्तो, त्या रस्त्यार वेगान धांवपी गाडयो. रस्त्याचेर आशिल्लो ट्रॅफिकाचो बोर्ड. ह्या सगळ्या वयल्यान खंय पावल्यांत, शिकागो कितलें पयस आसा हाचो अदमास घेवप अशक्य आशिल्लें. निमाणें मोबायल कानाक लावन तो ड्रायव्हरा सरीं आयलो. शिकागो कितलें पयस आसा हाची खबर काडली. पावपाक अजून एका वराचो कळाव आसा हें समजतकीच तो साप्प निरशेलो. परतून सिटार बसतना ताणें 'अमरिका में टायम का कुछ प्रॉब्लेम है' इतलें सांगून फोन बंद केलो. ताची सून ताका व्हरपाक गाडी घेवन येवपाची आशिल्ली. ती मर्दी मर्दी फोन करत आपणालें 'बहुपण' अमेरिकेंत सांबाळटाली.

म्हज्या मोबायलार दोन वरां जाल्यांत तें पळोवन सरदारजीन म्हळें, "अभी तो तीन बजे हैं! आपकी घडी पीछे चल रही है!" अमेरिकेंत चार विंगड विंगड टायम झोन आसात. सगळे अमेरिकेचे एकाच वेळार 'बारा' केन्नाच वाजचे नात. विंगड विंगड टायमांक लागून नव्या मनशाचो गोंदळ जावं येता. सकाळच्या आठांक मिचिगनांतल्यान कॅलिफोर्नियांतल्या मनशाक फोन केल्यार ताचे साकर न्हिदेचो कडूनिंब जावं येता. कारण तेन्ना कॅलिफोर्नियांत फांतोडेचीं चार-साडेचार जाल्लीं आसूं येतात. पूण कॅनडाचो नागरीक आशिल्लो, धा-बारा वर्सां अमेरिकेंत राविल्लो मनीस 'अमरिका में टायम का प्रॉब्लेम है!' अशें म्हणटा तेन्ना 'हे' सगळे ज्योक अंयशीं टक्के खरे आनी वीस टक्के घडयल्ले आसतले अशें दिसता.

भारतांतल्या राजकारणाचेर, खासा करून अणुकरार आनी विश्वासदर्शक थारावाचेर तो आपणालें मत उकतावपाक लागलो. हांव चड कांय उलयना तें पळोवन "आपको पॉलिटिक्स में दिलचस्पी नहीं है क्या?" असो ताणें प्रस्न केलो. हांवें ना म्हणटकीच ताणें विशय थारयलो. पूण भारत आनी कॅनडाची तुळा करपाचें आनी तांसपाचें ताचें काम चालूच आशिल्लें. मर्दीच खंय तरी एके बिल्डिंगेर ताणें अमेरिकेचो राष्ट्रध्वज पळयलो. ताचेर पन्नास नखेत्रां आसात खंय! ताणें म्हायती पुरयली आनी ताचे फाटलें कारण विस्काटावन सांगलें. अमेरिकेचीं पन्नास राज्यां त्या नखेत्रां वरवीं अमेरिकेच्या राष्ट्रध्वजार प्रतिनिधित्व करतात खंय. आमच्या भारताच्या तिरंग्यार अशोक चक्र आसा! ताका आरे कितले? हांवें एक 'बामणी' प्रस्न ताचेर शेंवटून मारलो! ताचे फाटलो अर्थ कितें? दोनूय प्रस्नांक ताचे कडेन जाप नाशिल्ली. भारत सरकाराचें पेन्शन खावपी, जिणेंतलीं साठ वर्सां भारतांत सारपी ह्या शिक्षकान शंबर फावटीं तरी ध्वजवंदन केल्लें आसतलें. ताचो देशाभिमान कितलो व्हड! मर्दी केन्ना तरी उलोवपांत आपूण दोनूय देशांचो नागरीक, खंयचेंय एक नागरिकत्व आपूण जाय तेन्ना घेवंक शकतां अशेंय ताणें सांगिल्लें! कितें म्हणपाचें ह्या लोकांक?

गाडी शिकागोंत पावली. फुडें खंय वचपाचें, कशें वचपाचें हाचेर विचार सुरू जालो. वर्सभर नेट्टान अभ्यास करपी भुरग्याची परिक्षे आदीं पेपर हातांत पडचे पयलीं पांच-धा मिनटां जशी चुळबूळ जाता तशी म्हजी गत जाली. बॅगांतले नकाशे काडून ताकतिकेन अदमास घेवपाचें काम हांवें सुरू केलें. तसो सतवंत सिंग शिकागोंत एक दोन फावट आयिल्लो. पूण आतां तो आदाराक म्हाका दसपाक लागिल्लो. कारण, ताच्या मोबायल फोनार फकत इनकमिंग फॅसिलिटी आशिल्ली. एक दोन फावटीं ताणें आपणाले सुनेक म्हज्या मोबायला वयल्यान फोन केल्ले. तरी एक अनिश्चीततताय ताचे गोमटेर बशिल्ली. तशें पळोवपाक गेल्यार हे जिणेंत शाश्वत कितें आसा? सगळें अनसर्टन! सर्टन आसा तें फकत मर्ण! हांवें अदमास घेवन शिकागो सॅन्ट्रल युनियन रेल्वे स्टेशनार कशें वचपाचें तें मनांतल्या मनांत रस्त्याचेर वळी मारून थारायलें. ग्रेहुंड स्टेशनार गाडी पावली. आमी देंवले. एक मात सतवंत सिंगाचें बरें आशिल्लें. आपणें काळो फेटो बांदला अशें सांगून ताणें आपणाली 'फिंगर प्रिन्ट' सुनेक दिल्ली. बशींतल्यान देंवले. हांव सतवंत सिंगा वांगडा स्टेशना वयल्यान भायर सरलों.

शिकागोक परतून एक फावट स्वामी विवेकानंदांलें स्मरण जालें. इतिहासांतल्या एका भांगरा पानार तांचें नांव बरयल्लें. ल्हानपणा सावन हें आयकत आयिल्लों. तरणेपणांत विवेकानंदांचें बरप वाचिल्लें. काळाचो प्रवास चालूच आसता. इतिहासाच्या पांया पोंदचें, फुडाराच्या पोटांतलें आनी वर्तमानाच्या मुखामळा वयलें जाका वाचपाक येता तो त्रिकालज्ञानी आसतलो. इतिहास फकत खबर आशिल्ल्या गजालीं पुरतो मर्यादीत आसता. जे सबळ आसतात ते जिखतात आनी जे जिखतात तांच्योच काणयो, खबरी इतिहासाच्या पुस्तकांतले धडे जातात. जिखिल्ल्यांचो इतिहास तांचे सोयीचो, आपमतलबाचो आसता. तांच्या व्हडपणाच्यो काणयो, धाडसाचे प्रसंग, तांणी हाताशिल्लें यश हें सगळें इतिहासाच्या प्रवाहांतलीं सोबीत फळां फुलां जावन पडटा. जे हारतात तांचो इतिहास खंय मेळत काय? तांणी भोगिल्ल्या त्रासांची, कश्टांची वळेरी, तांच्या वांट्याक आयिल्ले किंवाट्याचे प्रसंग हांकां इतिहासांत फावो तें स्थान मेळटा? ११/९ ही तारीक आयज अमेरिके खातीर वेगळ्या कारणाक लागून म्हत्वाची जाल्या. योगायोगाची गजाल म्हळ्यार, शंबर वर्सां फाटीं हेच तारकेक, ११ सप्टेंबर १८९३ दिसा, स्वामी विवेकानंदांनी संवसारीक धर्म परिशद गाजयल्ली. भारताचेर हजारांनी वर्सां सावन आक्रमण जायत आसा. भारतीय जनता हें सोंशीत आयल्या. तातूंतल्यान अहिंसा, सहिष्णुता हीं संवसारीक जीवन मुल्यां हांगा रुजलीं, वाडलीं, फुल्लीं. तांचो परमळ दिगंतराक पावोवपाचें व्हड कार्य स्वामी विवेकानंद ह्या भारताच्या म्हान पुतान केलें. अशे म्हापुरूस परतून परतून जल्माक येनात. असले महात्मे जंय जंय वतात थंय ते आपल्या स्पर्शान, तो वाठार, ते खीण पर्जळीत करतात. उपरांत सगळेंच बदलता. काळाचो ओग लेगीत. अमेरिकेचे भेटेंत शिकागोक पांय लागप, थंय विवेकानंदांल्यो स्मृती जागयता आसतनाच तांणी केल्ल्या भाशणाची 'ई' प्रत म्हाका मेळप हो ते भोंवडेंतलोच न्हय तर

आयज मेरेनचे जिणेंतलो सगळ्यांत व्हडल्या अश्या भाग्याचो खीण. अमेरिके सावन परतून येतना हे मोलादीक गजालीचें वांटप म्हज्या इश्टांक सोयऱ्यांक करपाक मेळटलें ह्याच आनंदांत हांवें शिकागोंतले दोन दीस घालयले.

ग्रेहुंड बस स्टेशनार देंवतकीच सतवंत आपणाली सून खंय रावल्या आसूं येत हाचो अदमास घेवपाक लागलो. खंय रावप तें सारकें समजूंक नाशिल्ल्यान ताणें ग्रेहुंड बस स्टेशनाक भोंवताडो घालो. ताचे वांगडा हांव. तितल्यान शिकागोंतली म्हजी मैत्रीण अपर्णा हिचो फोन आयलो. हांव शिकागोंत पावलां. ट्रेन घेवन ताच्या घरा लागींच्या स्टेशनार पावतां अशें ताका सांगलें. भोंवताडो काडटना सतवंत सिंगान म्हज्या मोबायला वयल्यान दोन फोन केले. घडये संपर्क सादपाक म्हजे लागीं आशिल्लो फोन ताका आदार दिसतालो. निमाणें स्टेशनाच्या दारांतूच ताची सून धवे गाडयेंत ताची वाट पळयताली ती दिश्टी पडली. गाडी, सून आनी नातू हांकां पळोवन सतवंताक पलतड गांठिल्ले भाशेन जालें. ताणें आपणाले सुनेक सँट्रल युनियन रेल्वे स्टेशन खंय आसा काय म्हूण विचारलें. सुनेन तो प्रस्न आंगार पडिल्ली पाल फांफडून उडोवची तसो फांफुडलो. सतवंत म्हाका मदत करपाक सोदता अशें म्हाका दिशिल्लें. पूण कित्याक कोण जाणा, ताचे सुनेक असल्या गजालींक आफुडपाचें नाशिल्लें. तिच्या त्या MKT व्हायरसी सभावाक लागून सतंवत मात निर्शेल्लो. हांवें म्हळें, हांव सोदतां, तुमी वचात! निमाणें संवसारांत खंयूय गेल्यार 'डॅडवूड' ''मेल्लें लाकूड'' मेल्लेंच. सुमार सत्तर वर्सां पिरायेचो जाणटेलो. जांची भुरगी कॅनडांत आडबरयां जोडटात तो विमानान भोंवपाचें सोडून भारतीयां भाशेन 'डॉलर वाटावपाक' बशीन कित्याक भोंवता, हो प्रस्न शिकागोंत पावल दवरतना पडिल्लो. फुडले दोन दीस स्थलांतरीत भारतीयांची, अमेरिकेंतले गतीशीळ जिणे कडेन जुळोवन घेतना चलिल्ली धडपड लागींच्यान पळयली. बारीक सारीक गजाली, सवळें-भश्टें, नीत-अनीत हें सगळें थळ आनी काळ हांचेर निंबून आसता. ज्या मना वरवीं ह्यो संकल्पना आमी तपासतात, सांबाळटात तें मन केन्ना सापेक्षी जाता, केन्ना निरपेक्षी. म्हणुनूच पुराय जीण भारतांत गेल्ल्या सतवंत सिंगाक ताचे सुनेन म्हाका इल्ली तरी मदत करची अशें दिसतालें. जाल्यार 'कोण काय हो' असो प्रस्न मनांत मांडून ताची सून अमेरिकेच्या सुपर हायवेचेर भरान गाडी धांवडायताली.

स्टेशना वयल्या पुलिसाक युनियन रेल्वे खंय आसा काय म्हूण हांवें विचारलें. 'टू ब्लॉक्स स्ट्रेट, दॅन सिक्स ब्लॉक्स रायट,' ताणें म्हाका समजायत सांगलें. वाट चलून स्टेशनार पावलों. म्हजें गोंयांतलें फार्मसी कॉलेज ते पणजी मार्केट इतलेंच अंतर आशिल्लें. शिकागोच्या रेल्वे स्टेशनार दोन तरांच्यो ट्रेनी - ॲमट्रेक आनी मेट्रो. मेट्रो ट्रेनी खंय आनी कश्यो वतात हें सांगतना म्हाका अपर्णान सांगिल्लें, हाताचो पंजो स्टेशनार दवरचो आनी बोटां फांकोवचीं. पांच दिकांनी पांच ट्रॅक. आंगठ्याचे दिकेन वचपाचें आसतना हांव धाकल्या बोटाचे दिकेन गेल्यार खंय पावतलों, होच विचार अपर्णाक सतायतालो. ताचो परतून फोन येतकीच ताका हांवें म्हळें, ''तूं कांयच भियेवं नाका! गोंयच्यान शिकागो पावलांच. तुगेर पावले बगर रावतां?'' स्टेशनार वचून हांवें मेट्रोची तिकेट काडली. सँट्रल युनियन ते बफेलो ग्रुव्ह. ट्रेन येवपाक बरोच वेळ आशिल्लो. हांवें स्टेशनार पासय मारली. सात नंबरच्या प्लॅटफॉर्मार ट्रेन आयली. दोन माळ्यांची ट्रेन. पुराय एसी. दारां आपशींच उकतीं बंद जातालीं. ट्रेनींत भितर सरून हांवें एक जागो आडायलो. सगळें चकचकीत दिसतालें. इल्लो इल्लो करून डबो भरपाक लागलो. इतल्यान ॲनाउन्समँट जाली. प्लॅटफॉर्मार न्हय! ट्रेनींत भितर सुचोवण्यो करपाची तजवीज आशिल्ली. फॉक्स ग्रुव्ह स्टेशनार वचपाची ट्रेन. ट्रेनीची बॅल वाजली खड्क खट् आवाज करीत गाडयेन स्टेशन सोडलें. गाडयेची गती वाडली. भायर वोत-पावस आपालिपाचो खेळ खेळटालीं. गोंयांत आशाढ म्हयनो आसून पावसान कूस मारिल्ल्याची खबर आयकल्ली. हांगा श्रावण फुलता काय जाल्लो. 'नॅक्स्ट स्टेशन व्हिली'. स्टेशनार पावपाचे कांय वेळ आदीं प्रवाशांक जागे करपाक ॲनाउन्समँट जाली! म्हळें, बरें आसा. गाडये भितर बसुनूच फुडलें स्टेशन खंयचें तें कळटा. अश्यो सगळ्या तरांच्यो सुविधा आसल्यार मनीस शेणटलो कसो? गोरवां लेगीत आपणालो गोठो विसरनात. हांगा तर पुराय म्हायती बशिल्ले कडेन मेळटाली.

गाडी एक एक स्टेशन फाटीं उडयत फुडें सरताली. मदींच टीसी आयलो. टीसी, कंडक्टर, बँडवाले हे भुरगेपणांत म्हाका व्हडले मनीस दिसताले. तांच्या माथ्यार आशिल्ले हॅटीक लागून! हो टीसी तसोच आशिल्लो. हे गाडयेंत आनीक एक सुविधा आशिल्ली, ती म्हळ्यार, तिकीट नासल्यार एक डॉलर मायज दिवन तिकीट गाडयेंतूच घेवपाची! तिकीट नाशिल्लो एकाद्रो प्रवासी भारतीय रेल्वेंतल्या टीसीक मेळ्ळ्यार ताका खोस जावं येता, बोकडो सांपडलो म्हण. हांगा तशें ना! सगळें नेमान दिवप घेवप. घासाघीस तर साप्प ना. वयल्या पांवड्यार भ्रश्टाचार आसा काय ना ताची म्हाका खबर ना! पूण 'सकयले' पातळे वयलो भ्रश्टाचार मात ना अशें दिसतालें. म्हजी ट्रेन 'बफेलो ग्रुव्ह' स्टेशनार पावली. हांव ट्रेनींतल्यान देंवलों आनी भायर व्हिस्त मारली. पयलीं वळखीचें कांयच दिसलेंना! परतून बारीकसाणेन पळयलें. अपर्णा गाडयेंतल्यान देंवतालें. ताच्या लग्ना उपरांत आमी सुमार पांच-स वर्सांनी मेळटालीं. खुब्ब दिसांनी मेळपांत जो आनंद आसता तोच आनंद दोगांयच्या मनांत उपाट भरून व्हांवपाक लागलो. मन धादोशी जाल्लें. एक इश्टीण सगळी आडमेळीं हुंपत अमेरिकेंत थिरावल्ली. अपर्णान डिकी उकती केली. सामान डिकींत दवरून आमी ताचे गाडयेंत बसलीं. अपर्णा बेस बरें ड्रायव्हिंग करतालें. पुराय वाटेर आमच्या खबऱ्यांक ओतो आयिल्लो. कितें विचारपाचें? कितें सोडपाचें? खबरी करीत अपर्णा गाडी चलयतालें. गाडी ताचे कॉलनी म्हऱ्यांत पावली. सिग्नल पडिल्लें. आमच्या खबऱ्यांचो मिटर-मात चालूच आशिल्लो. फाटले गाडयेन नेटान मारिल्लो हॉर्न कानार पडटकीच 'ओ गॉड!' म्हणत अपर्णान गाडी दाव्यान घुंवडायली. खबरांनी घुस्पल्ल्या अपर्णाक सिग्नल पडिल्ल्याचें समजुंकूच नाशिल्लें.

पुराय एका म्हयन्याचे भोंवडेंत गाडयेचो हॉर्न आयकल्लो तो हो!

गाडी पार्क करून, सामान घेवन घरांत भितर सरलीं. अमेरिकेंतली खंयचीय कॉलनी युनिफॉर्म घालून शाळेंत वचपी भुरग्यां भाशेन दिसताली. दोन घरां मर्दी बरें अंतर. पूण कवायतीक उबीं आशिल्ले भाशेन घरां. सगळें मेजून मापून ज्युस्ताज्युस्त. अपर्णाच्या घरांत भितर सरतनाच आपलेपणाची ऊब आंगार पांगरूण घाल्ले भाशेन खातकुतल्यो करपाक लागली. अपर्णाचे आवयन पियेवपाक उदक दिलें. वांगडा साकर. ताचो तीन म्हयन्यांचो चलो आर्यन आपणाल्या माणकुल्या आवाजान त्या घरांतलें चैतन्य वाडयतालो. अपर्णाचो घरकार योगेश कामा वयल्यान घरा येवपाचो वेळ जाल्लो. रांदचेकुडींत अपर्णा वावुरपाक लागलें. वर्षा मेहतागेर पळयल्लें तेंच हांगा पळोवपाक मेळ्ळें. भारतीय बायल-मनीस मागीर ती खंयच्याय जाती धर्माची आसूं, सोयऱ्याचें स्वागत रांदचेकुडींतल्यान करता!

अपर्णा मुंबय केइएम् हॉस्पिटलांतल्या 'डॅग अॅसे' विभागांत काम करतालें. अपर्णा वांगडा उमा आनी उमेश देसाय हीं दोगांय म्हजे आदीं थंय काम करतालीं. अपर्णा पार्वतीचें नांव. शंकराक प्रसन्न करपाक फकत पानां 'पर्ण' खावन केल्ले तपश्चर्येक लागून तिका तें नांव पडिल्लें. उमा आनी उमेश दोगांय शैव पंथीय. हांव 'मधुसूदन' थंय पावलों तो 'वैष्णव'. गोंयचे भाशेंत, त्या आडव्यां मर्दी हांव उबो! आमचीं असलीं फकाणां आमच्यो गायड स. डहाणूकर केन्नाय करताली ताची याद जाली.

हांवें कपडे बी बदलून हात पांय धुले. आर्यनाक घेवन गॅलरींत उबो आसतना ताचो बापूय योगेश आयलो. अमेरिकी पद्दतीची फॉर्मालदाद आनी वळखीची गरज पडली ना! हांव येतलों म्हूण आठ दीस गाजतालें. हांव कोण हें ताका आदींच खबर आशिल्लें. अपर्णालो च्या तयार जाल्लो. वांगडा उप्पीट. ताका 'उप्पीट' म्हणप मालवणी लोकांक आवडुपाचें नाशिल्लें. उडप्यांल्या हॉटेलांत मेळटा तें उप्पीट. मालवणी घरांनी रव्याचें तीख करतात ताका 'सांजो' म्हणटात. फरक कितें? उप्पिटाक चडशे खेपे डालडाचीं फोडणां दितात. सांज्याक फोडणां तेलाचीं. हळद आनी सुके मिरसांगेचीं. तातूंत उड्डां दाळ आसना, करबील आसना, कांदो तळसायल्लो आसना, ओली कोथमीर आसल्यार आसता. हिंगाच्या वासान आनी सुक्या मिरसांगांच्या हुलपान ताची रूच उप्पिटाक येना!

म्हयन्या उपरांत जिबलेर आवडीचें, घोस्तान खावपाचें मचमचीत खाण पडिल्लें. पोट तट्ट फुगसर खालें. तरी अपर्णाचो आनी आवयचो आग्रो चालूच आशिल्लो. अपर्णाच्या घरांत प्लाज्मा टिव्ही आशिल्लो. पूण खोशयेची गजाल म्हळ्यार, टिव्हीचो व्यत्यय आमच्या भोजनयज्ञांत नाशिल्लो. योगेशान रोखडेंच आपलेपण दाखयलें. ताच्या खबरां मदल्यान तो कामाक लागून बरेच देश भोंवला अशें कळटालें. तो सिमेन्स कंपनींत कामाक आशिल्लो. एल्.वन व्हिझाचेर अमेरिकेंत आयिल्लो. सेगीत स वर्सां ताका रावपाक मेळपाचें आशिल्लें. मदीं एक वर्स खंड पडून परतून स वर्सां रावपाक एल्.वन व्हिझा दितात. पूण तांचो पूत जल्मलो अमेरिकेक. म्हळ्यार तो अमेरिकी नागरीक. म्हजे वळखीचीं अशीं खुबशीं कुटुंबां आसात जांचें जेननेक्स्ट अमेरिकी. कांय वेळान आमी भोंवपाक भायर सरलीं. भोंवडी करप म्हळ्यार खावप, खरेदी करप, रिजवण करून घेवप. हातूंत शॉपिंगांत पयशे मोडप हें स्टेटस सिंबॉल थरपाक लागलां. गरज आसूं, नासूं, बरें दिसता, सवाय मेळटा म्हण घेत सुटप. हाणें जल्माक हाडलीं मॉलां. मेयर्स, क्रोगर्स... एका परस एक व्हडलो स्टोअर. कितें मेळना अशें ना. अॅनिथिंग अंडर द सन. मनांत प्रस्न आयलो, सूर्य लेगीत विकपाक काडपाक आनी विकत घेवपाक सर्त लागची ना मूं?!

आयज मेरेन म्हाका खंयचीय गजाल जमूंक ना वा आवडूंक ना जाल्यार ती शॉपींग. पयलीं केन्ना तरी भुरगेपणांत दादर स्टेशनार वीस रुपयांक सांगिल्ली वस्त हांवें आठ रुपयांक हाडली हाची तोखणाय दिसताली. पूण फुडें मार्क्स वाचलो. इल्लें अर्थशास्त्र वाचलें तेन्ना मुळाव्या मोला परस उण्या मोलान मागीर तुमी ताका 'डिस्काउंटेड' मोल म्हणात, वस्त मेळ्ळ्यार मन भितल्ले भितर कोण तरी कुड्डिता. तरी अपर्णाचो आग्रो आसलो म्हण कांय गजाली घेतल्यो. त्या मेगा स्टोअर्सांत नागपुरचें पंत जोडपें मेळ्ळें, पुण्याचें कुलकर्णी मेळ्ळें. तांचे वांगडा खबरी. त्योवूय बी मराठींत. ''दरी दरीतून नाद गर्जला'' हें पद आयकुपाक येता काय कितें असो भास म्हाका जालो. खरेदी बी आटपून आमी घरा परतलीं. योगेश आनी अपर्णा रांदचे कुडींत सोयऱ्यां खातीर जेवण करपाक लागलीं. हांव भायर इंटरनॅटार मेल चॅक करपाक लागलों. गोंयां घरा फोन करून संपर्क सादलो. अपर्णा कडेन फोन दिवन कनॅक्शन सामकें घरगुती केलें. गोंयच्यान वतना हांवें पणसाचे पापड व्हेल्ले. तांची एक कवळी अपर्णाच्या हातार तेंकयली. पणस वा घरे आवडना असो कोंकणी मनीस आयज मेरेन म्हाका खंयच मेळूंक ना. 'अव्हनांत फकत एक मिनीट दवर,' हांवें प्रॉडक्टा वांगडा सुचोवणी केली.

अमेरिकेचेर कोण राज्य करता? गिरायक? भोवराष्ट्रीय कंपन्यो? काय आनीक कोण? राज्य कोणूय करूं, अमेरिकेंत केशी घालप आनी नुकसानभरपाय मेळोवप हो एक व्हडलो वेवसाय. गिरेस्त आसप हाचो एक धोको अमेरिकेंत आसा. खंयचेय गजाली वयल्यान केशी घालपाचो. एके बायलेन गरम कॉफयेचो ग्लास सारकी सुचोवणी करिनासतना हातांत दिलो म्हूण कंपनीक कितल्याश्या डॉलर्सांक खड्डो घाल्ल्याची गजाल अपर्णान रांदता आसतना सांगिल्ली. खंयचीय गजाल एका पांवड्या मेरेन सोबता. मर्यादेंत आशिल्ले गजालीक मेधा आसता. ग्राहक संस्कृताय आनी केशी अमेरिकेंत हिसपा भायर पातळ्ळ्यात. आनी तातुंतूच विकृतायेचे गांयडोळ हुळहुळटात.

हुनहुनीत जेवण मेजार मांडपाक सुरवात जाली. चपात्यो, मटकेची उसळी, वांयग्याचीं कापां! फोडणां दिल्लें ताक शीत! पणसाचे रोस्टेड पापड. जिबलेचो थातोमातो करपाक अन्नपूर्णेन अपर्णालो हात त्या दिसा आपणाल्या हातांत घेतिल्लो. कोणाय सभाग्याक हो शिवराक मेनू, ताची कितें तोखणाय, असो प्रस्न

पड्डूं येता. पूण फोडणां दिल्ले भेंडे घाल्लें ताक आनी शीत जाणें ओरपिलां, कडयेचे हातार घेवन भुरके मारल्यात, आनी उश्ट्या शिताचे असले कडयेचे गोटे चाटून खाल्यात तांच्या तोंडाक हें वर्णन वाचून लाळ सुटूं येता. येदोळच्या सांज्याक चेपयत वांयंग्या कापां पोटांत बस्तान बसयतालीं. अपर्णाचो आग्रो चालूच आशिल्लो. लजपाचें कारण नाशिल्लें. तातूंत मर्दी भकाऱ्या मनशाली एक विनोदी गजाल याद जाली. एका भकाऱ्या मनशाली परिक्षा घेवपा खातीर खंय ताका जमीनदारान आपयलो. आग्रो करून करून पोट फुटसर जेवपाक घालें. तृप्त जाले उपरांत पेशिल्ल्या आंब्यांचें ताट मुखार दवरलें. परातभर आंब्यांच्यो शिरो आनी खड्ड्यो त्या भकाऱ्यान सोंपयल्यो. जमीनदारान ताका विचारलें, पोटांत जागो ना अशें मानपी मनशाच्या पोटांत लेगीत परातभर आंब्याक पोटांत जागो कसो जालो? त्या भकाऱ्यान फिस्स करून हांसत म्हळें, 'किर्ते सांगचें, मनशांनी गच्च भरिल्ल्या हॉलांत तुमचे सारके पेजाद मनीस येतकीच लोक जागो कसो करून दितात, तशें ह्या आंब्यांचें. कितलोय जाल्यार फळांचो राजा तो!'

फळांच्या राजा खातीर त्या भकाऱ्याच्या पोटांत जागो तयार जाल्लो तसोच म्हज्या पोटांत रसगुल्ले येतकीच जालो! पोट कितलेंय भरलें तरी आपोपणीच्या उदकाक जागो ना अशें जायना! पोटपुराणांतल्या त्या दिसाच्या निमण्या अध्यायांतली वळ रसगुल्ले खावन सोंपली. आतां न्हिदासन. दुसऱ्या जाग्यार न्हीद लागपी सुखी आसतलो. स्टेशनार ते मळबांत उडपी विमानांत न्हिदपी म्हाका कुंभकर्णाले दायजी कशे दिसतात. म्हज्या नशिबांत तसली न्हीद ना! गीतेंत वर्णिल्या तसली म्हजी न्हीद. रातचें मातशें खाटखूट जाल्यार जाग येता. खंयच्याय इलेक्ट्रॉनीक वस्तूंतले एल्.ई.डी. रातच्या वेळार म्हाका शंकराचो तिसरो दोळो कशे दिसतात. ते राती पडिल्ल्या पावसांत भायर काजुले लिकलिकताले. कोण तांकां 'फायर वर्म' म्हणटालो तर कोण 'लायट बग्स्'. गोंयांतलो पावसाळो हांवें म्हजे वांगडा हाडूंक ना मूं? शिकागोंतलें हवामान वरा वरान बदलता. त्या बदलपी हवामानाचो अदमास इंटरनेटार मेळटा.

अपर्णा केदो वेळ फाटल्या पांच वर्सांतले अणभव सांगतालें. पांच वर्सांच्या यादींचो वळेसर गांथतना मर्दी मर्दी कलाबूत लायिल्ले भाशेन के.ई.एमांतल्यो यादी. आदल्या इश्ट मित्रांचीं नांवां, तांची आयची सुवात, खबर नाशिल्ल्याची खबर. मन केन्नासर धा वर्सां फाटल्यान गेलें. के.ई.एमांतले लांब लांब पॅसेजींत मन पासयो मारपाक लागलें. जिवितांत सगळेंच मना सारकें खंय जाता?! कांय गोड खीण येतात तर कांय कोडू. कांय पांयांत तोंपिल्ल्या कांट्या भाशेन रगत व्हांवयतात. पूण न्हंये देगेर रावन मजा पळोवपाची तशीं आतां आमी दोगांय ते खीण याद करून हांसतालीं. "न्हिदात आतां," अपर्णाले आवयची सुचोवणी तिसरे फावट आयली. पूण अपर्णान ती आजून मनार घेवंक नाशिल्ली. फ्रिजाची घरघर आमच्या त्या खबरांचे मैफिलीक हाजीर आशिल्ली. विशय खंय सोंपलो ताची मात याद जालीच ना. सकाळीं जाग आयली आर्यनाल्या आवाजान.

अमेरिकेंत कामार वचपी बायलांचे प्रस्न वेगळेच आसूं येत. पूण संवसारभर आंगा वयलें दूद भुरग्याक दिवपी आवयांचे प्रस्न मात एका सारकेच आसतात. कामा वेळार भुरग्याक दूद कशें दिवप? आंगा वयलें दूद काडपी यंत्र, तें सांठोवन दवरपा खातीर केल्ली तजवीज – 'मिल्क बँक'. प्रस्न सुटावे जावचे म्हण धडपड. आवयचें दूद मेळप हो भुरग्याचो हक्क! भुरग्यांच्या हक्काची अमेरिका राखणदार ताचीच ही गवाय. ❀

फादर तॉमास इश्तेव्हां वा थॉमस स्टीफन्स हाणें बरयल्लें

# ख्रिस्तपुराण

अणकारपी: सुरेश गुंडू आमोणकार

## पुराण- दुसरें अवेस्वरू- सवो

**स्वामिणी संत मोरी कशी जाकारियसाच्या घरा एलिसाबेतीक मेळूंक गेली - सांत एलिसाबेतीन सांव जुआंव बाप्तिस्ताक जल्म दिलो. देवदूत सांत जुजेचे दिश्टी पडून ताच्या मनांतलो दुभाव फेडलो.**

नमन आंकुवारिच्या नंदना[१]। जेजु तूं अमृत-वदना[२]। तोडपी पापाचीं बंधनां। खिस्तराया ।।१ ।। पळोवंक शास्त्राची गोडी। देवा म्हाका तर बुद्दी थोडी। म्हणून तूं फेडी। अविद्या-अंधकारू[३] ।।२ ।। दी गिन्यान-चक्षु[४] निर्मळ। मोड अविद्येचें मूळ। दोळ्यांत ज्ञानाचें काजळ। घालून ।।३ ।। फुडें जाखरियाची नारी। गर्भु संभवलो एलिसाबेतिच्या उदरीं। तें देवदुता वरवीं आंकुवारी। समजलें ।।४।। म्हणून ती अमृतवचनी। घेवनु अनुज्ञा जुजेची। जाकारियसाच्या घरा गेली। एलिसाबेतिचे भेटे ।।५ ।। वेगीं वाट चलूंक लागली मोरि। आनी जो गर्भ आसलो तिचे उदरीं। तोवूय पावूंक वेगीं थंयसरी। येवजी मनीं ।।६ ।। वाटेंत उशीर खूब जायत। म्हूण मोरि वेगीं चलत वाट। जुआंवाक[५अ] करूंक पावन पुनीत। जेजु जाल्लो उतावीळ ।।७ ।। वाट चलून वनां दोंगर। चडून जुदेयाचे[६] दोंगर। फाटीं घालें जाकारियसाचें घर। आंकुवारी सुभागिणी ।।८।। तें कळ्ळें एलिसाबेतिक। तेन्ना फुडें भेटूं गेली मोरियेक। भोवमान तिचो करूंक। हाडपा घरा।।९ ।। भेटल्यो दोगी जणी। एलिसाबेतिक वेंगायी स्वामिनी। भारी मोगान वैकुंठराणी। करी नमस्कार तिका ।।१० ।। शब्दा कणकणीं देवमाता। उतरां तिचीं अमृतसरिता[७]। तें आयकून जाकारियसा कांता[८]। न्हिवली सर्व गात्रांनी ।।११ ।।* एलिसाबेतिच्या काळजांतु। परगटलो आत्मो पवित्रु। ताणें रेवडायलो कुर्पेनु। आत्मो तिचो ।।१२ ।।* हांगा आवयच्या कुसव्यांत आसतां। खिस्तान जुआंवाक दिली वार्ता। सांगली सगली वेवस्ता। आपल्या येण्याची ।।१३ ।। गर्भीच जुआंवाक कुर्पा लाभली। जेजु बाळका वळख जाली। आनंद-क्रिडा माते उदरीं। तो करूं लागलो ।।१४।। मोरि देवमाता म्हणून। जाणलें मनीं जुआंवान। पवित्र आत्म्याचे कुर्पेन। उदरांमदीं[९]।।१५ ।। एलिसाबेतिनु जाणलें मनांतु। जो गर्भु आंकुवारी-उदरांतु। तोच परमेश्वरु सत्यवंतु। आनी सत्यवंतु मनीस ।।१६ ।। मनशाक दिवंक परम[१०]गती[१०]। देवपुत्रु आयलो पृथ्वीचेरी। अशें जाणलें चित्तीं। एलिसाबेती पतिव्रतेन ।।१७ ।। म्हणून तिच्या मानसीं। उसळ्ळ्यो आनंदराशी। स्वामिनीक गंभीर शब्दांनी। वाखाणूं लागली।।१८ ।। म्हणटा धन्य धन्य तूं अस्तुऱ्यां भितरी। धन्य फळ तुज्या उदरीं। धन्य चरण म्हज्या घरीं। लागले तुजे ।।१९ ।।* आवय म्हज्या स्वाम्याची। म्हज्या घरांत पावली। इतल्या व्हड भाग्याची। कशी जाली हांव ।।२० ।।* तुजो शब्द कानांनी आयकलो। तेन्ना गर्भु गर्भी उल्लासलो। उडक्यो मारूं लायलो। आनंदान ।।२१ ।। देवदुतांचें वचन। तुवें मानलें प्रमाण। म्हणून तूं सुदैवी जाण। तिनी[११] लोकांतु[११] ।।२२ ।। देवदूत उलयल्लो जितलें। तें शार्ती वतलें तितलें। जें गुप्त सगल्यां आसलें। तें सगल्यां कळटलें ।।२३ ।। इतलें एलिसाबेती उलयली। मागीर स्वामिनीक आपल्या घरा व्हेली। पूर्ण आदरान भोवमानली। शांतपणान बसयली ।।२४।। थंय त्यो दोगी जणी। वेळोवेळ बसून एकांतीं। करून स्वाम्याच्यो गजाली। सारताती वेळु ।।२५ ।। सुदैवी एलिसाबेती पतिव्रता। सुदैवी जाकारिय सजुआंवां पिता। जांचे घरा रावली देवमाता। सर्गीची राणी ।।२६ ।।* धन्य धन्य जांच्या घरीं। मनीस-देहीं माते उदरीं। देव रावलो बिडारीं। जांचे ठांय ।।२७ ।। तें आंकुवारीचें अम्रुतवचन[१२]। अथवा पळोवंक तिचें पवित्र वदन[१३]। संवसारीं कोणाचें मन। वळचें ना परतें परतें



।।२८।। तें आयकून एका ब्राह्मणान म्हणलें। एलिसाबेतीचे शब्द सांगले। पूण स्वामिणीचे ना सांगले। तरी आयका पाद्री गुरु।।२९।। जसो रुखांचे दाटये भितरी। दोंगरी वारो रिगता माझारीं। मंद मंद व्हांवून खांदयां सरीं। वेगळायी तांकां।।३०।। वा लवलवीत मैदानां भितरी। पडटी झरी उदका लहरी। थंय पक्षांच्या स्वरा परोपरी। येती आयकूंक।।३१।। वा आकाशीं देवदुतांचें नाद। तशे आंकुवारिचे शब्द। आमच्या कानांत गोड। रिगतात।।३२।। पाद्री म्हणी त्या वेळारि। पळेया सुदैवी स्वामिनी मोरि। थोडींच उतरां पुराणां भितरी। उलयल्या ती।।३३।। उत्तम अस्तुऱ्यो ज्यो आसताती। त्यो बरे रितीन चलती। चड उतरां उलयनाती। कोणाशीं खंय।।३४।। पूण तिणें देव स्तुती केली मुखान। इतली करुंना खंयचेच अस्तुरेन। चड उतरां पुराणांत। उलोवंकना तिणें।।३५।।* ताचो प्रत्यय आयकात। ती आसतां जाकारियसा घरांत। कशे परीन गायली तुस्त। तिणें देवाची।।३६।। तें गायन पुराणांत वाचतात। अजून इगर्जेंत गायतात। ताचो तुमकां अर्थ। सांगन आतां।।३७।। त्या गायनीं स्वामिनी मोरि। सदां देवा आवय आंकुवारी। परमेश्वराची मनीं स्तुती। मानी ताका थोर।।३८।। तिचे ल्हानविकाये लागून। देवान तिका पळोवन। कुर्पा केली म्हणून। इतली व्हड।।३९।।* जिचे कुर्पे निमितीं। फुडली सगली संतती। आपणांक सुदैवी म्हणटली। सगल्यां परस।।४०।। व्हड गोश्टी इतल्यो। आपले ठांय दाखयल्यो। म्हुण्ण सगल्यांच्या स्वाम्यांक ओंपलीं। अर्गां तिणें।।४१।। जी कुर्पा केली आपणांचेरी। तिणें उपकार मानले देवाचेरी। मागीर कुर्पा जी केली सर्वांचेरी। तिवूय वर्णिली।।४२।। म्हणलें कुळां नि वंश समस्त। जे देवा भंयान चलतात। आपली करुणा काकुयट। दाखय तांकां।।४३।। मागीर त्याच स्वाम्याचें। म्हयमा-वर्णन करनात जे। म्हणटा तो स्वामी गर्विश्टांचें। मोडी गर्व।।४४।। तो गिरेस्तां खाला घालता। सात्विकांक राखता। उंचपदार बसयता। आपले शक्तीन।।४५।। जे भुकेल्ले नि अनाथ। तांकां दिता संपत्त। आनी तृप्ती भोगती जे गिरेस्त[१४]। अतृप्ती करी।।४६।। अब्राहाम आनी ताच्या भुरग्यांक। फाटीं ताणें दिल्ली भाक[१५]। ती पाळ्ळी म्हूण स्वाम्याक। दितां अर्गां।।४७।। असो स्वामिनीचो स्तुतीवाद[१६]। तातूंत एक उत्तम शब्द। तिच्या उलोवण्या अनुवाद। आयकात श्रोत्यांनो।।४८।। म्हणटा ते कुर्पे निमितीं। फुडें सगली संतती। आपणांक पवित्र म्हणटली। सगल्यांत।।४९।। हे परि मरि स्वामिनी। पवित्र शब्द उलयी पुराणीं। आनी जाली प्रवादिणी[१२]। महाउत्तम।।५०।। आदल्या करारार्चे उतर। तुमी आयकलें सविस्तर। आनी सिबिलीचीं[१७] उतरां अगोचर[१८]। तींय तुमी आयकलीं।।५१।। आतां नव्या करारार्चे वर्तमान। जें फुडें वर्णिलां गहन। तें तुमकां श्रोत्यांक सांगन। वेळोवेळ।।५२।। पळे हो स्वामिनीचो शब्द पयलो। कशे परी खरो जालो। तो तरी प्रत्यया आयलो। लोकां मर्दी।।५३।। हेरां भक्तीणींची नाम किर्त। फकत खिस्तांवां मर्दी वर्णितात। पूण त्या आंकुवारिची तुस्त। फांकली संवसारीं।।५४।। परदेशीं तिका वंदिती। भोवमानु दिती। आपल्या पुराणीं तिची स्तुती। वर्णिताव थोर।।५५।। अशी आंकुवारिची किर्ती उत्तम। देशदेशीं अनुपम[१९]। फांकली जल्मजल्मांत। सरना केन्ना।।५६।। विस्तारली धाय दिशांत। सदां त्या आंकुवारिक। सुदैवी म्हणटात जियेक। विश्वजन।।५७।। तरी हीं उतरां अशीं। सिद्धीक पावोवपाचीं। स्वाम्या विण हेर कोणी। करचेनात।।५८।। अशे शब्द गहन। एका परमेश्वरा विण। आनी हेर कोणाक। सांगपा येवचेनात।।५९।। म्हणून स्वामी जेजू ख्रिस्तु। तोच परमेश्वर सत्यवंतु। आनी स्वामिनी सर्गा-संवसारांतु। ती देवाची आवय।।६०।। आसूं हें देवमाता आंकुवारी। भक्ता जाकारियासाच्या घरीं। रावली तीन म्हयन्यां वयरि। ताच्या घरीं।।६१।। एलिसाबेती आनी स्वामिनी। लागीं आसल्यो दोगीजणी। एलिसाबेती णव म्हयन्यांची। प्रसूती वेळ आयलो।।६२।।* तेन्ना ती बाळंत जाली। कुंवराक प्रसवली। अशी वार्ता पातळ्ळी। लोकां मर्दी।।६३।। पूत जालो एलिसाबेतीक उत्सव सोयऱ्यां-आप्तांक[२०]। म्हणटी देवकुर्पा पळेयात। जाली कशी।।६४।। सगल्यांक आनंद जालो। ताचो घेती पडटाळो। इतल्यांत नांवा-वेळ पावलो। आठव्या दिसा।।६५।।* तेन्ना कुंवरा नांव विचारती। जाकारियास दवरूं पळेती। आडायता एलिसाबेती नाका म्हणूं लागली।।६६।। जुआंव[२१] नांव दवरचें। तेन्ना हेर उलयले। तुज्या कुळांत असलें। नांव ना कोणाकु।।६७।।* ताच्या बापायक जाकारियसाक। गेले ते विचारूंक। कितें नांव बाळकाक। दवरचें सांग।।६८।।* ताणें दौत घेतली लागीं। घेतली लिखणी हातीं। अक्षरां तीन बरयलीं। जुआंव अशीं।।६९।। तें पळोवन सगले। नवल नवल रे म्हणलें। तेन्ना जाकारियसाचें गेलें। मोनेंपण।।७०।।* आपल्या तोंडातल्यान। स्वाम्याची स्तुती करूनु। आनंदभरित जावनु। उलोवं लागलो।।७१।।* जी जीब अविस्वासान बांदली। दुभाव घेवन मोनी जाली। ती भावार्थभावान सोडयली। मेकळी करुनु।।७२।। जो पवित्र पूत जांचो आसलो। तो एक देव म्हूण जल्मा आयलो। ताणें आपल्या बापायक दिलो। वाचेचो वर।।७३।। जें नांव देवदुतान। हालींच सांगिल्लें उत्तम। तें परगट जाल्या खिणाक। आयली वाचा।।७४।। म्हणून जी जीभ परतून। दिली ताका देवान। ती देवा तुस्त करूंक। जाली मेकळी।।७५।। आनी जशें स्वामिनीन केलें। जें जाकारियसान पळेल्लें। तेच परी गायन केलें। देवातुस्त करून।।७६।।। आदीं इस्त्रायेलीच्या देवाक। ताणें खूब दिले दिनवास। तो भेटलो आपले प्रजेक। तिका सोडयली म्हणून।।७७।। आनी प्रवादयांनी सांगले परी। राय दाविदाच्या घरीं। एका तारका उखल्लो संवसारीं। दिव्यस्तंभ जसो।।७८।। मागीर जल्मल्ल्या पुता जुआंवां सरीं। कितें उलयलो त्या वेळारी। म्हणी तूं तानुलें बाळ तरी। आयक आतां।।७९।। तुका म्हणटी समरथांचो भाकणारु। तूं स्वाम्या फुडें ताची वाटु। तयार करूंक वतलो बेगीनु। मुखेल नायक जावनु।।८०।। आनी स्वाम्याचे प्रजेक। पातकां भगसणी करूंक। गिन्यानाची वाट दाखोवंक। अज्ञानी लोकांक।८१।। अशीं अनेक उतरां उलोवनु। जाकारियस भक्त हात जोडूनु। वाचेन देवा नांव घेवनु। स्तवन करतालो।।८२।।* हें इतलें पळोवनु। अजाप जाले जनु। जळींमळीं हें वर्तमानु। परगट जालें।।८३।। जे जे लोक आयकती। ते ते अजापीत जाती। कोण हो बाळक म्हणटी। कोण जातलो नेणा।।८४।। पळे देव कुर्पा थोर। जाली ह्या बाळकाचेर। इतलें जालें नंतर। कितें जालें।।८५।। फुडें ती मोरिस्वामिनी। आज्ञा घेवन एलिजाबेतीची। थंयसून भायर सरली। वचूं आपल्या गांवा।।८६।। नाजरेथा देवमाता पावली। ती चार म्हयन्यांची जाली। ती गर्भेस्त जाली। परगटलें सगल्यां।।८७।।* पळोवन जुजे दुभावलो। अजापून चिंतूं लागलो। मनांत म्हणूं लागलो। हें जालें कितें८८।। पळेतां तियेचे उत्तम गूण। भक्तीचें पुण्य-लक्षण। कांयच तिचें वायटपण। दिसना।।८९।। पूण ती गर्भेस्त जाली। ही वार्ता भायर पातळ्ळी।

देखून जुजेची बावली। आंगासया ।।९०।।* जशें भरिल्लें तारूं सागरीं। सांपडलें भोंवऱ्या भितरी। थीर रावना ल्हारांनी। दोनी वटांनी हालता ।।९१।। तसो जुजे दुभावीं पडलो। कायचे काय विचार करूं लागलो। मनीं थिरावना जालो। कितेंय केल्यार ।।९२।। जंय थंय भोवनु। मनीं विचार करूनु। आपलें ठांय अनुमान कर्नु। करी चिंता ।।९३।। म्हणटा उरफाटीं न्हंय व्हांवतली रे। चंद्र सूर्य अस्तमते उदेतले। पर्थून उदेंते मावळटले। सांजवेळा ।।९४।। नक्षत्रां भुंयेर उदेतलीं। रूख जातले आकाशीं। सगली रचना संवसारीं उरफाटी। जातली एकायदया वेळार ।।९५।। पूण कलंक लागचो ना मोरियेक। तेन्ना ती जायत कशी गर्भेस्त। म्हूण अजाप मनांत। दिसता म्हाका ।।९६।। असो दुभाव पडलो जुजेक। मागीर विचार आयलो मनांत। म्हणटा कोणा कळनासतना हियेक। सोडून वचन ।।९७।। आतां सोडीन हो देश। वचन इजिप्ता परदेश। पण मोरिये विण जीवा संतोश। कसो जातलो म्हज्या ।।९८।। उमाळो धरलो ना त्या वेळा। व्हांवता दुकां झरी दोळ्यां। पुसूंक लागलो नेत्रकमळां। वस्त्रांनी ।।९९।। मागीर तो सर्गा नियाळून। म्हण्टा यो धांवन म्हजे कडेन। सारकें उडय सांगून। जें कळना म्हाका ।।१००।। दुसरे वटे मोरि देवमाता। पळोवन ताची चिंता। दूख जालें मना। पतीच्या दुख्खान ।।१०१।। पळोवन ताचें बावललें वदन[२१]। पडलें आंकवारीचें मन। पूण कांयच सांगलेंना वर्तमान। तिणें घोवाक ।।१०२।। मोरि आपलेशींच येवजिता। जरी हांवें सांगली ही वेवस्ता। तरी कित्या म्हणून आतां। सांगचें हांवें ।।१०३।। हें पवित्र आत्म्यान केलें। अशें जरी हांवें सांगलें। तरी आयकून तें खरें अशें। मानीत कशें मना थावन ।।१०४।। जर हांव हें अशें सांगन। नेणा हांव तो कोपत काय हांसत। कितें करूं हांव देखून। सांपडना उपाय ।।१०५।। जाकारियसा आनी एलिसाबेतीची। जर गवाय हाडली त्या दोगांची। तरी ती उपेगा ना येवचि। तीं पयस देखून ।।१०६।। जाकारियसाक आनी एलिसाबेतीक। देवान तांकां केलीं प्रगट। तशी आपली करणी जुजेक। परगट करतलो ।।१०७।। तो आकांतीं पावता तों वेर। आमी मनांत धरचो धीर। हे परी हो संवसार। चलला सगलो ।।१०८।। जेन्ना देवान आमकां रचले। तेन्ना सूख दुख्ख मिसळ्ळें। जशें वस्त्र रंगान भरिल्लें। विणप्यान विणून ।।१०९।। कश्ट अपदा दैन्य। हें भक्तांचें जेवण। कोणूच कश्टा विण। रावंक शकना ।।११०।। जसो विश्वकर्मो[२३] चिरे काडटा। पारयेन ते फोडटा। उदंड बेगीन तासता। आपलें वजें ।।१११।। मागीर वेगवेगळ्या थरांनी। करता मंदिराची घडणी। तशी भक्तांक उदंड अपदीं। घाली स्वामी ।।११२।। अशे दिवन कश्ट। मागीर दाखय वैकुंठ। आपलें सभेची घडी चोखट्। दवरून ।।११३।। अशी ती मनीं चिंता करी। फुडें एका रातीच्या अवस्वरीं। स्वाम्या देवदूत सपनां भितरी। भेटलो जुजेक ।।११४।। म्हणटा आयक दाविदापुता। कित्या गा मनीं दुभाव धरता। मोरि तुजी प्रतिव्रता। ती निश्कळंक निर्मळ ।।११५।। जें घडलें मोरिये भक्तिणी। ती पवित्र आत्म्याची करणी। आतां तिच्या संभाशणीं। आसचें तुवें ।।११६।। एक पूत जातलो तिका। जेजू नांव दवर ताका। तो तारतलो निवारून पातकां। आपले प्रजेक ।।११७।। असो जुजेक दिश्टांत जालो। आनी देवदुतान जो वृत्तांतु सांगलो। तो फाटीं असोच बरयलो। इजायासप्रवादगान[२४]।।११८।। एके आंकुवारीक जातलो पूत। तो एमानोएलि आसत। एमानोएलि[२५] साक्षात। देव आमचे ठांय ।।११९।। देवदुताचें कथन आयकून। जुजे संतोशलो मनांत। स्वाम्याची तुस्त करून। दिलीं आर्गां ।।१२०।। आदलेकय चड। स्वामिणीचो मोग करित। दिसान दीस सांबाळीत। मोगान तिका ।।१२१।। आतां न्हिवलें जुजेचें मन। सत्य मानलें देवदुताचें वचन। आयका फुडली कथा सांगन। श्रोत्यांनो तुमकां ।।१२२।।

**सवो अवेस्वरु सोंपलो (होंवयो १२२)**

१, पुता
२. अमृताचें मुखामळ आशिल्लो
३. अविद्येचो काळोख
४. ज्ञान दिश्टी
५. परवानगी
५अ. जुआंव बाप्तिस्ताक
६. Judea (इ)
७. अमृताची न्हंय
८. पत्नी, बायल
११* लुका १:३९,४०
१२* लुका १:४१-४२
९. कुसव्यांत
१०. मोक्ष, सालवासांव
१९* लुका १:४१, ४२
२०* लुका १:४३-४५
११. सर्ग, पृथ्वी आनी पातळांत
२६* लुका १:४०
१२. अमृता भशेन उलोवप
१३. मुखामळ
३५* लुका १:४६-५५
३९* लुका १:४६-५५
१४. श्रीमंत
१५. वचन
१६. केल्ली वाखाणणी
४२. (म) दीर्घ द्रिष्टिणी
१७. भविश्य सांगपी एक बायल
१८. अज्ञात; गूढ
१९. सर येना अशी
६२* लुका १:५, १३, २४, ५७
    लुका १:५७
२० घरच्यांक
६५* लुका १:५८-६१
६७* लुका १:५, १३, २४, ५७
    लुका ५८-६१
२१ (सा) योआवों
६८* लुका १:५-२५; ५७-६४
    लुका १: ६२-६६
७०* लुका १:५-२५; ५७-६४
७१* लुका १:६२-६६
८२* लुका १:६७-८०
८७* माथेव १: १८-२४; २:२३; मार्क १:९, लुका १:२६; २: ३९; ३:४, ३९
    जुआंव १:४५
९०* मातेव १: १८-२०
२२. मुखामळ
२३. देवूळ बांदपी कारागीर
२४. (इ) Isaiah
(१) हाणें ख्रिस्ताच्या येण्याचें भविश्य सांगिल्लें (१:२९.७४)
(२) पोरण्या करारांतल्या इजायास (Isaiah) पुस्तकाचो लेखक.
२५. एमानोएली म्हणचे देव आमचे ठांय.

# कविता

## थेंबे

**मनोज नरेंद्र कामत**

१.
काळश्या कुपांतल्यान पडपी गोरे-धवे
मुक्ततायेच्या आनंदांत
फुडाराचीं सपनां पिकयतना
अनळय सुवादीन जाले म्हज्या पोशांत
बंदिस्त आनीक एकदां
म्हज्या धाकटुल्या संवसारांत

२.
सपनाळीं पडबिंबां दाखयत
झिरपले खोल-खोलायेंत
धतरिक फुटलो चंवर
अमुरपिक्या कोंबऱ्यांचो
म्हाका मात तीं आफुडलिंनात
म्हजी मरगळ झडली ना.

३.
उटंगाराच्या पावसान थपथपिल्ले
रेबड-लोट व्हांवयतनाच
चिखला डाग रंगयत गेले
पावला कणकणी
म्हज्यो आकृतायो भिरकटिल्ल्यो
दसत वतना वांगडा अश्यो

४.
तुज्या दोळ्यांतले पावसाळी थेंबे
अळंग देंवतना
म्हज्या गोपांत झडत रावले
हुनहुनीत पिशांतुरा वरी वथरेत
थातारतना उतर ओंठार झिरकलें
रडकुरें तांबडें गुंज

५.
पिंपळा पानार सळसळटना
झिडपले हांगा-थंय
एक थेंबो ल्हवूच पसवलो
म्हजे जिणेचो वझरो जालो
पिंपळ पान हालत रावलें
नवे थेंबे शिंपडायत खोशयेचे

६.
तुज्या ओंठांतलो म्हजो थेंबो
मोतीं जायत गेलो ल्हवू ल्हवू
खोल दर्यांत थाव न लागपी तळांत
शिंपडत
तेन्नाच हो जीव घट-घट जालो
चकचकपी हास्सो कसो

७
झडिल्लो खूब वेळान
पावसा दडके उपरांत
ओथांब्यांच्या सुरान गायत
जिणेक एक नवी वाट दाखयत
ल्हवूच शेणलो काळखी गोपांत

८.
पावस पडून गेल्ल्या काळश्या मळबांत
तांबशा सांजवेळा थकून-भागून
गौळणी ओंठार सुगंदीत परमळान
खोशयेची हुपून शीम-म्हेर
रातीच्या काळखांत झेमून वतना
दुखेस्त हांव जायत रावलों.

९.
गुंथिल्ले तुज्या म्हज्या सांगातान
कांजिर्णींतल्या खिणां मदीं
पोसो पोशांत व्हांवयतना
जिणेचे सपनाळे चित्र-साधनेंत
उमाळे व्हांवत सूख-दुखाच्या मिलाफांत
दिगंताक लागले दोळे

१०.
तुजे म्हजे जिबेर अमृताचे थेंबे
पोसवले फुडाराचीं खिणां वाडयत
तन्ने तेंगशेर हुमकळत
गुलाबी रंगाच्या नव-गर्भांत
वाट पळयतां त्या खिणाची
रूच थेंब्याची हळूच भासची.



# लादेन

बाळकृष्णजी कानोळकार



म्हजे कुडींत कुप्प भितर
लिपला एक लादेन खोल
आनी एक बुद्‌ध
स्वयंप्रकाशी... अंतर्यामी.
तांचें घनघोर युद्‌ध
सन सन सनातन
सासणाचें म्हज्या रंध्रारंध्रांत.

बुद्‌ध ज्ञानी...
लादेनूय ज्ञानी
पूण बुद्‌धान जोडिल्लें
चवऱ्यांयशीं लक्ष शाणपण
जळताप काडून: आपणाली
कण कण जीण खणून.

मेळयलें गिन्यान लादेनान
आनी साबार विज्ञान
लिप-चोरयां
नागोवन-बिगोवन
पेल्यांक - हेरांक...
साबारांक.

ताचे लागीं आसा
अलक्ष ॲटमांची शक्त
पूण तो जाला अशक्त
सांडून शाणपण.

आयचे आयज हांगचे हांगाच
पिपळ एक म्हजे म्हाकाच
लावचो पट्टलो आनी अजान
पट्टलो काडचो शिंपून
म्हज्या रक्तान अहिंसक ताज्या
राखचो पट्टलो आनी मोगाळ
मनीसकायेचें इल्लें इल्लें घालून
फुडारा खातीर... पिरथुमेच्या.

कारण हांव जाणां
लादेनाक ना मर्ण
जालेंच जाल्यार एक कीर्ण
जिणेचें करीत ताका
बुद्‌ध... अंतर्बाह्य.

ते खातीरूच हांव
सोदतां एक पिपळा रोपी
तुमचे... म्हजे मनीस कुडींत...
मोक्ष-मुक्तीदात्री
लादेनाक...

# दोन कविता

- परेश नरेन्द्र कामत

## *हो पाचवोचार रंग*

हो पाचवोचार रंग
म्हळ्यार
झाडां समज

हीं धर्वीफुल्ल फुलां
म्हळ्यार
उजवाड समज

भिरभिरता
भितर किर्तें तरी
हडवेंचार
- शेवर्णें काय?

हालता पळय
हालता पळय
शेवण्याच्या दोळ्यांत तितलें
हालता पळय
उदक

अचकीत
भायर-भितर पाचवेंचार
- रान समज!



## *तुजे खांदयेर*

हांव
एक सान शेवर्णें जावन
बसतलों येवन तुजे खांदयेर
खांदयेक म्हजी सुलूस लायनासतना

हांव चिंवचिंवचों ना
हांव खांदयेक भुलचों ना
हांव खांदयेर घोंटेर लेगीत बांदचों ना

तुका कळचें लेगीत ना केन्ना
हांव जेन्ना वतलों उडून
तुजी खांदी सोडून...

## दोन कविता

- नरेंद्र बोडके

### *वाट*

इतली वाट चलून हांव पावलों खंय पावलों खंय

कठीण घाट चडून हांव पावलों खंय पावलों खंय

कितली सोबीत फांतोड आसली; जुवानीचो परमळ आसलो

जाणटेपणान बडी तेंकयत पावलों खंय पावलों खंय

सोरो पियोवन बाण जालों तरी धुंद देंवली ना

काळजांत बाण घेवन आतं पावलों खंय पावलों खंय

दोळियांत मल्लिकांच्या साळकां वेंचीत काडलीं वर्सां

पोशांत दुकां घेवन आतां पावलों खंय पावलों खंय

उक्त्या वाऱ्यार घोलता घोंटेर तशीं जोडलीं नातीं गोतीं

वाऱ्यार वेताळ घुमतना पावलो खंय पावलो खंय

मसटवट लागींच आसता सुलूस मात लागना

घुंगूर-दांडो आयकतना पावलों खंय पावलो खंय



### *गाराणें*

हे आई

हांव तुजो पोर

घे म्हाका वेंगेंत

बिनघोर

हे बाई

हांव तुजो मीत

शिकय म्हाका

रिगपाची रीत

हे देंवचारा

पेटय तुजा कवदो

उजवाडून वचुंदी

जिणेचो बोगदो

हे परमेश्वरा

वाजय रोमटा मेळ

शबय शबय म्हणटांच

सोंपय म्हजो खेळ!



# कोंकणी संस्कृतायेचो एक अवेसर...

**मनोहर पै धुंगट**

मार्च १८९५ त ल्युमियॅर भावांनी चलतचित्र प्रक्षेपक (Cine Projector) तयार करून पयलो चलतचित्रपट दाखयलो आनी सिनेमा युगाक सुरवात जाली. भारतांत चलतचित्रपटाचो उदेव १८९६त जालो. तरिकूय सिनेमा युगाची खरी सुरवात भारतांत १९१२ वर्सा जाली अशें मानतात. त्या वर्साच्या ऑगस्टांत दादासाहेब फाळके हांणी 'रोपट्याची वाढ' हो पयलो चित्रपट काडलो. उपरांत तांणी 'राजा हरिश्चंद्र' हो मराठी भाशेंतलो पयलो सुमार ११२८ मि. लांबायेचो चित्रपट पुराय केलो. होच पयलो भारतीय चित्रपट लेखतात. दादासाहेब फाळके हांकां भारतीय चित्रपट सृश्टीचे जनक मानतात. सुरवेचे चित्रपट मूकपट आसताले. बोलपट येवपाक १९३२ साल उजवाडचें पडलें. त्या वर्सा 'अयोध्येचा राजा' हो पयलो मराठी बोलपट मुंबयंत प्रदर्शीत जालो. ते उपरांत सिनेमा म्हणटात ती कला आनी शास्त्र लोकांक आवडपाक लागलें. भारतांतल्या वेगवेगळ्या भासांनी चित्रपट तयार जावंक लागले. अवधी, मागधी, छत्तीसगढी, मणिपुरी, तुळू असल्या भासांनीय चित्रपट तयार जाले आनी लोकांक मनरिजवणेचें बरें साधन मेळ्ळें. सुरवातेक वेगान सरकुपी प्रकाश चित्राच्या पड्ड्यार घडपी दर्शना खातीर सगळ्या भासांनी सिनेमा हो शब्द घोळटालो. उपरांत बोलपट, चित्रपट, चलतचित्र अशे, अर्थाची फोड करपी, शब्द घोळणुकेंत आयले.

चित्रपट सृश्ट म्हळ्यार एक व्हडली खण. भौ. इजिदोर दान्तश हांणी उर्णीपुरीं धा वर्सां खर वावर करून हे खणींतलीं कांय रत्नां आमचे मुखार दवरल्यांत. *कोंकणी चलचित्रां* हें उपाट म्हायतीन भरिल्लें सोबीत पुस्तक वाचप्यांक दिलां.

सिनेमा कलेच्या मळार साबार कोंकणी भाशीक लोक वावुरताले. पयली पयलीं जीं फिल्मां आयलीं तीं मोनी आसतालीं. तीं थेटरांत दाखयतना सांगात दिवंक संगिताची गरज लागताली. बरेच गोंयकार देशी आनी विदेशी संगितांत प्रवीण आसले. तांकां फिल्माच्या प्रयोगा वेळार म्युझीक वाजोवपाची संद मेळ्ळी आनी फिल्म उद्देगा कडेन तांचो लागींचो संबंध आयलो. फिल्म उद्देगाच्या हेर फांट्यांनीय जायत्या कोंकणी भाशिकांनी गिन्यान जोडलें आनी मोलाचें काम केलें. इजिदोरबाबांनी अश्या लोकांची वळेरीच आपणाल्या पुस्तकांत दिल्या. इतलें आसुनूय पयलो कोंकणी चित्रपट येवंक १९५० मेरेन वाट पळोवची पडली. त्या वर्सा 'मोगाचो आंवडो' हो पयलो कोंकणी चित्रपट आयलो. ताचे उपरांत गोंयकार आनी मंगळूरकार भावांनी ह्या मळार जायतो वावर केला. आज मेरेन एकतीस कोंकणी चित्रपट तयार जाल्ले आसात. ह्या चित्रपटांचो इतिहास सांगून कोंकणी मनशाचें चित्रपटाच्या मळार योगदान हो विशय लोकां मुखार मांडपाची गरज आशिल्ली. हें काम एकट्याचें न्हय तरी इजिदोरबाबांनी तें समर्थपणान पेल्लां. इजिदोर दान्तश हे एक फांकिवंत बरोवपी आनी अभ्यासू पत्रकार. तांच्या बरपाक कोंकणीच्या मोगाची झालर आसा. ह्या पुस्तका खातीर म्हायती आनी फोटो मेळोवपाक तांणी साबार कश्ट घेतल्यात. पदरचे दुडू मोडल्यात. पुस्तकाक देखणें रूप दिवपाक ते दीसरात वावुरल्यात. चित्रपट मळार वावुरप्यांचो फावो तो पालव मेळ्ळोना तरी ते निर्शेलेनात. खर यत्नांतल्यान तांणी एक मोलादीक पुस्तक कोंकणी सरस्पतीक ओंपलां. पुस्तक हातांत घेनाफुडें चाळून पळोवचेंशें दिसता. तातूंत दिल्ल्या छायाचित्रां वरवीं कोंकणी चलचित्रांच्या मळार जाल्ले प्रगतीची नाट मेळटा. लोकप्रिय जाल्ल्या फिल्मी गितांचें अचूक शब्दांकन आनी तांचें नोटेशन ही ह्या पुस्तकाची विशेशताय म्हणपाक जाय. बऱ्याच कोंकणी व्यक्तींनी भारतीय चलचित्र उद्देगाक मोलाचें योगदान दिलां. अश्या व्यक्तींची म्हायती पुंजावन इजिदोरबाबांनी आपल्या पुस्तकांत मेजक्या शब्दांनी दिल्या. ती म्हायती आनी फोटो मेळोवपाक तांणी खूब तकालस घेतल्या.

आमकां इतिहासा विशीं, ताच्या साधनांची जतनाय करपा विशीं मात पसून पडून वचूंक ना. हें परत एकदां उकतें जालां. बऱ्याचश्या निर्मुप्यां कडेन आपणें निर्मीत केल्ल्या फिल्माची प्रत वो फोटो लेगून नात. आपल्या वावराची म्हायती दिवपाकूय कांय जाण तयार जायनात. फिल्मा कडेन संबंध आशिल्ल्या लोकांकूच ह्या वावराचें महत्व फावो त्या प्रमाणांत ना. इजिदोरबाबांच्या पदरांत निर्शेवणीच पडली. आज होलमता तो इतिहास राखून दवरलोना जाल्यार मुखार कांयच हाताक लागचें ना. देखून इजिदोरबाबान नेटान काम तडीक व्हेलें. हें पुस्तक रोमी लिपयेंत आसा. तांची भाशा सोंपी आनी सरळ. वाचप्यांचे सोयी खातीर उतरावळीचें एक पान तांणी मुजरत दिलां. तांतल्यान तांचो भाशेचो अभ्यास कळून येता. हाचे पयलीं तांणी 'वज्रां' हें कोंकणी म्हणींचें संकलन रोमी लिपयेंत इंग्लीश अर्थावणे सयत उजवाडायलां. थंयच तांचें आनी म्हजें गोत्र जुळ्ळें. आमी दोगूय अर्थशास्त्राचे विद्यार्थी. वित्तीय संस्थांनी काम करपी. पूण दोगूय कोंकणी म्हणींच्या मोगांत पडिल्ले. म्हजें *कोंकणी म्हणीसागर* हें संकलन आयलें. काळ विपूल आसा. केन्ना तरी लोक ताचो लाव घेतले. दुसरें म्हळ्यार, मुंबयचे 'गोवा हिंदू ॲसोसिएशन' हे नामनेचे संस्थेचें संदर्भ ग्रंथसंग्रहालय हांव सांबाळटां. आनी इजिदोरबाब त्या ग्रंथसंग्रहालयाचो लाव घेवपी भोव थोड्या ग्रंथमोग्यां मदलो एक.

रोखडेंच *कोंकणी चलचित्रां* हें पुस्तक देवनागरींत येवपाचें आसा. रोमींतल्या ह्या पुस्तकाचें विमोचन अमेरिकेंतल्या 'गोवा सुदारप' हे संस्थेच्या धाव्या वाडदिसा निमतान कॅलिफोर्नियांत २०१०च्या एप्रिलाचे चार तारकेक जालें.

*कोंकणी चलचित्रां*
मोल: ६५० रुपया.
उजवाडावपी: दान्तश पब्लिकेशन्स
४, प्रिया सोसायटी, ५, ३, २,
ताडीवाला रोड, पुणे, ४११ ००१
मोबायल: ९८९२५०४४४७
www:konkanifilmbook.com.

REG. No.2 GOA 130



Published & Printed by Dr. J. B. Sardesai, owner of JAAG Monthly, 201 B, Saldel Apts., Rua de Saudades, Pajifond, Margao, Goa, and Printed at Rutu Offset Printers, Volvoi, Ponda -Goa. Editor : Madhavi Sardesai